VENCHILLE KHIN
A Collection of Essays by Dinesh R. Manerkar



**पयली उजवाडावणी :**
मार्च १९९६

**उजवाडावपी :**
संजना पब्लिकेशन्स
श्री मंगेश लक्ष्मी निवास
१९, दत्तवाडी, सांगे गोंय
४०३ ७०४

**अक्षर जुळणी - छापप :**
माया कुंकळयेंकार
बामा ऑफसेट
कुडचडें गोंय ४०३ ७०६

**मुखचित्र :**
संदीप सगुण नायक
विश्वंभर वाडी
सावर्डे, गोंय

**मोल : ३० रूपया**



हें पुस्तक ' गोवा कोकणी अकादमीच्या ' 'पयलो चंवर' अनुदान येवजणेखाला छापलां.

ति॰ सौ॰ ताई आनी बाबाक

व्हडा मायेमोगान .

— दिनेश

# समाजिक निबंद मूळ धरता

कोंकणींत निबंद - साहित्याची उजवाडावणी अजून उणीच आसा . घडये साहित्यीक नेमाळीं उणीं आसात हाचो तो परिणाम आसत . पूण तो उणाव कांय प्रमाणांत भरून काडपाचें काम आयचो समाजीक निबंद करता . हो समाजीक निबंद वेगळे तरेन कोंकणी साहित्यांत मोलादीक भर घालता अशेंच म्हणुंयेता .

समाजीक निबंदाची व्याख्या करचीच जाल्यार समाजाक बादिकार जावपी विशयाचेर ललित शैलीन केल्लें भाश्य अशी करूंक जायत . ह्या निबंदाक खंयचेंच क्षेत्र वर्ज्य ना . राजकारण , समाजकारण , साहित्य , संस्कृती हांचे विशींची कसलीच घडणूक वा खंयचोय मुद्दो ह्या समाजीक निबंदाचो विशय जाव येता . ह्या निबंदांतल्यान बरोवप्याचे समाजीक नदरेचो अदमास येता आनी वाचतल्याक मार्गदर्शन मेळूं वा ना मेळूं , ताका विचार करूंक लावपाचें काम हो निबंद करता . तें करतना उतरांनी चिमटे काडप वा खातकुतल्यो करप वा खुटले मारप हें गरजेचें जाता आनी ताका लागून ह्या समाजीक निबंदाक एक वेगळो आयाम मेळटा .

समाजीक निबंद हो वैचारिक निबंद आनी साहित्यीक रुपाचो ललित निबंद हांचे मदीं खंय तरी उरता . तो सामको वैचारिक न्हय तसोच सामको साहित्यिकूय न्हय ; पूण दोनूय निबंदांचो वास ताका आसता आनी तेंच ताचें एक खाशेलें आंग जाता .

पत्रकारितेच्या पालवान ह्या निबंदाची उदरगत जाता . देखून कांय मर्यादाय ताका पडटात . खूबशे विशय तात्कालिक रूपाचे आसतात ; फुडारांत तांची गोडी मेळपाक योग्य संदर्भ जाय पडटलो . दुसरी गजाल म्हणचे ताचे लांबायेक शीम पडटा आनी थोड्याच उतरांभितर भाश्य करपाचें बंधन बरयतल्याचेर पडटा . बरोवपी जागृत आसचो पडटा , ताच्या निरिक्षणाक बारीकसाण आसची पडटा आनी ताची वैचारिक प्रतिक्रिया बेगीन जावची पडटा . देखून हो निबंद उजवाडाक येता तेन्ना ताका एक ताजपाण आसता . ती कितलो काळ उरतली हें मात विशयाचेर आनी तो मांडपाचे शैलीचेर आधारून उरता .

ह्या समाजीक निबंदाचीं कांय खाशेलीं आंगांय आसात . तो अमकेच शैलींत आसूंक जाय अशें बंधन ना . निवेदन , संवाद , जावन गेल्ली घडणूक , कल्पनेंतली घडणूक हांचो वा हेर कसलोय आधार घेवन हो निबंध केळोंव येता . म्हजो अणभव असो कीं हो निबंद समर्थपणान केळयतल्या बरोवप्याचे मतींत एक पत्रकार लिपिल्लो आसचो पडटा , ताका एक समाजीक नदर आसची लागता आनी बरप वाचतना वाचपी मुमुरख्यांनी हांसचो अशे गोड चिमटे वा तशो खातकुतल्यो करपाची तांक

ताच्या बरपांत आसची पडटा .

श्री . दिनेश रा . मणेरकार हांचे मदीं असले खूबशे गूण आसात देखून हो समाजीक निबंद केळोवपाचो वावर तांचे कडसून घडला आनी आजूय घडटा . हें पुस्तक म्हणचे तांणी बरयल्ल्या समाजीक निबंदांचो झेलो अशें हांव मानतां .

श्री . दिनेश रा . मणेरकार हांणीय खंयचेय एकेच शैलीचो आलाशिरो घेंवक ना . निवेदनाची शैली तांणी वापरल्या तसोच संवाद-शैलीचोय उपेग केला . जावन गेल्ली घडणूक नदरे मुखार दवरल्या तशीच कल्पनेंतली घडणूकय निबंदाचो विशय केल्या . सरभौवतणीं जें घडटा ताचे कडेन पळोवपाची तांची समाजीक-सांस्कृतीक नदर ह्या निबंदांतल्यान अणभवाक येता . तांणी आपले परीन हे निबंद वेगवेगळ्या तरांनी हाताळपाचे प्रयोग केल्यात आनी ते प्रयोग निबंद वाचतना नदरेंत भरतात .

तांच्या वेगवेगळ्या शैलीं मदीं संवाद-शैली अदीक बरी आनी परिणामकारी जाता अशें म्हाका दिसता . हे संवाद सभावीक दिसतात , तांतली भास चालंत आसता आनी संवादांतल्यान भाश्य घडटा . तें वेगळें सांगचें पडना , ताका निवेदन लागना वा तात्पर्य जोडचें पडना . हे शैलीचो बरो गूण म्हळ्यार दोन व्यक्तींच्या उलोवण्यांतल्यान एकाच विशयाच्यो दोन बाजू मांडूंक जातात आनी अखेरेक बरोवप्याक खंयचो आचार-विचार फुडें व्हरूंक जाय वा खंयच्या आचार-विचारांची फकाणां करूंक जाय हें ते संवादच दाखोवन दितात .

श्री . मणेरकार हांणी हाताळिल्ले विशय ' टॉपिकल ' वा तात्कालिक आसले तरी आमचे समाजीक जिणेंत तांचें म्हत्व वर्तमानांतच उरतलें अशें मात ना , कांय विशय तात्कालिक म्हूण फुडें आयले तरी समाजीक जिणेचे ते चिरे आसतात . देखून तांचें म्हत्व फुडारांतूय उरतात . देखीक नितिमत्तेचें म्हत्व सांगपी वा अधर्मी कर्तुबाक हिणसावपी भाश्य हें पोरणें जावचें ना . तात्कालिक घडणूक पोरणी जायत ; पूण मुल्यांची तुस्त आनी अवगुणांची निर्भत्सना कालबाह्य जावची ना .

संवाद-शैलींतल्यान नदरेंत भरता तो नाट्य - लेखनाचो गूण श्री . मणेरकार हांणी केळोंवक जाय अशें दिसता . एकांकी , नाटकुलीं वा नाटकां बरोवपाचो गूण ते संवाद-शैलींत पडबिंबीत जाल्लो आसा . त्या गुणाचो विकास केल्यार श्री . मणेरकार हांच्या रूपान एक बरो एकांकीकार वा नाटककार कोंकणी संस्कृतीक मेळुंयेता . निरिक्षण , समाजीक जाणविकाय आनी संवाद-शैली हांचो संगम हें नाट्य-लेखनाक बरें रसायन जावयेता . तांणी ते नदरेन अवश्य प्रयत्न करचो .

पूण ते खातीर हेर साहित्य-प्रकारांकडेन-भौ करून समाजीक ललित निबंदाकडेन- आडनदर करूंक जाय अशें ना . कांय जाण वर्तमानपत्री बरपाक व्हडलेंशें म्हत्व दिनात . जें वाचून सोडून दिवपाचें आसता ते विशीं ती चलणूक समजुंयेता . पूण मनांत वा ग्रंथालयांत सांबाळून दवरपा सारकेंय बरप आसता .

संशोधनपर निबंद खबरांपत्रांत उजवाडाक आयलो म्हूण पुस्तकांतल्या निबंदा परस ताचें म्हत्व उणें जायना . संशोधन करून बरोवपी जी आधारवळ आपणाल्या बरपाक जोडटा ती पळयल्यार हें कळून येता . ते आधारवळींत पुस्तकां वांगडाच लेखांचोय आस्पाव केल्लो आसता . पुस्तकां मेळप सोपें जाता ; तर लेख सोदून काडप कठीण जाता इतलेंच . पूण एकेच तरेच्या बरपाचें म्हत्व चड-उणें जाता अशें म्हणूंक जावचें ना . हेंच समाजीक निबंदाकूय लागू पडटा . तो पुस्तकांत आसलो , नेमाळ्यांत आसलो वा खबरांपत्रांत आसलो म्हूण म्हत्वाचे नदरेन आनी साहित्यीक मोलाचे नदरेन कांय अंतर पडूंक फावना .

साहित्याचो हो प्रकार आनिकूय कांय जाणांनी हाताळला आनी कांय झेलेंय उजवाडाक आयल्यात . श्री . दिनेश रा . मणेरकार हांच्या ह्या झेल्याच्या निमतान अशें म्हणन दिसता कीं समाजीक निबंद आतां मूळ धरूंक लागला . समाजीक जाणविकाय आनी ललित लेखनाची शैली हांचो हो संगम कोंकणी साहित्याक झालर लायतलो अशी आस्त धरुंयेता .

- उदय भेंब्रे

मडगांव : २६ जानेवारी १९९६



## खीण वेंचतना

ही गजाल १९९२ तली. हांव सुनापरान्ताक तेन्ना आर्थिकी हें सदर बरयतालों. एक दीस संपादक राजू नायक हांणी म्हजेमुखार ' महानगर ' दिसाळें दवरलें.

' तुवें हो पेपर वाचला? '

' ना '

' हो वाच. चडकरून निमाण्या पानार संजय कऱ्हाडे, अनंत भावे आदी बरोवप्यांचो एक स्तंभ येता. तो वाच.' अशें म्हणून ताणें पांच स महानगर म्हजेमुखार दवरले. घरा आयलों. ते स्तंभ वाचून काडले.

परतून वतकच राजूचो प्रश्न, ' कशे लागले? '

' बरे आसात. '

'तुज्यान गोंयचो असो खंयचोय विशय घेवन बरोंवक जायत?'

' यत्न करतां.'

' तूं तुजे स्टायलीन बरय. तांचें कॉपी करुंनाका. पळोवया कशें जाता तें.'

आनी राजून म्हाका पारजत बरोवपाची दिक्षा दिली. म्हजो पयलोच यत्न ' आतां झोपडपट्टी मंत्री जायच ' इश्ट मित्रांक भोवच मानवलो. आनी म्हजी उर्बा वाडली. बरयतां बरयतां हांवें जायतेकडेन शैली बदलली. संवाद सुटसुटीत जावचे म्हणून सुब्राय आनी बाप्पा हांका भितर हाडले.

म्हजे विशय खुबशे प्रासंगीक. तांका पुस्तकीय मोल मेळप कठीण. वृत्तपत्रीय स्तंभ हे चडशे प्रासंगीकच जातात अशें तकलेंत धरून हांव थंड आशिल्लों. पुस्तक बी काडपाचो विचार तेन्ना केंलो ना.

अकस्मात म्हाका एक दीस म्हजो इश्ट डॉ॰ उमानाथ राताबोली मेळ्ळो. म्हणपाक लागलो, ' म्हजें पारजत परमळ नावांचें पुस्तक येता. तुजें कित्याक छापना?' म्हजें पुस्तक!! हांव विचार करपाक लागलों. आनी हांवें पारजतांतले निबंध छापपाचें मनार घेतलें. पुस्तक छापतलो जाल्यार सगळ्यांत पयली गजाल हांवे म्हजें लिखाण आयिल्ले पेपर सोदचे पडले. हांव मनीस तसो लिखाण सांबाळपा बाबतींत अव्यवस्थीतच. नाजाल्यार हांवे जायत्या लोकांक पळयल्यात जे लोकअदालतांतल्यो चिटयो लेगीत सांबाळून दवरतात. पूण हांवें म्हजें लिखाण मात केन्नाच सांबाळून दवरूंक ना. आतां ह्या वावराक लागचें पडलें ना? तातूंतल्यान ' म्हजीं पारजतां शेणटात तेन्ना ' हो विशय तयार जालो.

म्हज्या जिवितांत म्हाका विशय खूब मेळ्ळे. चलता भोंवतना कितलेशेच

संवाद मेळ्ळे पूण सगळ्यांचेरच बरोवप जमलेंना . देखून हांवें तांतले जे खीण वेंचले तेच उजवाडायले .

वेंचिल्ले खीण तुमचेमुखार दवरतना आज काळजांत एक वेगळीच हूरहूर जाणवता . हांव तसो कितें व्हडलो बरोवपी न्हय . पूण पुस्तक उजवाडा हाडपाची हांवें धिटाय केल्या .

म्हजो लेखनप्रवास हांवें १९८४ त सुरू केलो . सुरवेक कविता , लेख बरयले . राजू नायक सुनापरान्तांत येत सावन म्हज्या लिखाणाक खरी गती आयली . ताच्या मार्गदर्शनाखाला हांवे अर्थिकी हें अर्थशास्त्रावेलें सदर सुमार दोन वर्सां बरयलां . एक प्रयोग म्हणून हांवें हे खीण बरोवचे ही सुचोवणीय ताचीच .

बरोवपी कित्याक बरयता हो प्रस्न जायते फावट वाचप्यांक पडटा . म्हाका विचारल्यार हांव जाल्यार म्हणन , बरोवपी स्वताच्या समाधानाखातीर बरयता . आनी केन्ना केन्नाय हांव विशय आसून , वेळ आसून पसून लेखणी मुखार व्हरूंक शकना तेन्ना म्हज्यांतलो बरोवपी म्हाकाच विचारता , तूं कित्याक बरयना ? तुका कितें जाय ? तेन्ना म्हज्यांतलो कवी म्हणटा ,

बरोवप्याक , रंगयाळी जीण जाय
बरोवपाची उर्बा जाय
खीण वेंचूंक वेळ जाय
वाचप्यांचो मोग जाय .

म्हजें लिखाण उमळशिकेन वाचपी म्हज्या जाणटया नेणटयां इश्टांक हांव कसोच विसरूंक शकना . हांतूंत नांवां कोणाकोणाचीं घेवं ? तांचो मोग आसा म्हणून म्हज्यांतलो लेखक जिवो आसा . ह्या विशयावेल्यान म्हाका एक याद जाता . कोंकणी कला साहित्य केंद्राचे एके कार्यावळीक मुखेल सोयरे थारावपाक आमी सौ० किरण बुडकुले हांकां मेळपाक पर्वरी गेल्ले . प्रत्येकान आपापली वळख करुन दिली . हांवेंय म्हजी वळख करुन दिली . म्हजे वळखीचेर सौ० बुडकुलेंची प्रतिक्रिया , ' तूं सुनापरान्तांत बरयता ? हांवें धरिल्लें दिनेश मणेरकार हो कोणय जाण्टोसो आसतलो .'

तो खीण म्हाका एक वेगळोच आनंद दिवन गेलो . सौ . बुडकुलेनी अप्रत्यक्षरित्या म्हज्या लिखाणाच्या गांभिर्याची म्हाका पावतीच दिली . तांचे कडल्यान म्हाका नवो उत्साह आनी नवी उर्बा मेळ्ळी .

हें पुस्तक छापपाक गोवा कोंकणी अकादमीन पयलो चंवर येवजणे खाला आदार दिला ते खातीर हांव तांच्या उपकारांत उरतलों . ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवपाचें एका उतरान मानून घेवन वेळांत वेळ काडून ती बरोवन दिल्ले बद्दल हांव श्री० उदयबाब भेंब्रे हांचो खूब उपकारी आसां .

‘तुजें पुस्तक मरे ? पावलें म्हजेर .’ अशें व्हडा उमेदीन सांगून तितलेच उमेदीन पुस्तक छापपाचो वावर करपी ‘बामा ऑफसेटाचे ’ श्री० दामोदर ( बाबू) कुंकळकाराचे उपकार सदांकाळ म्हज्या काळजांत उरतले . शुध्दलेखनाच्यो चुको काडपाचें म्हत्वाचें काम श्री० अशोक कामत आनी सौ० अर्चना कामत हाणीं केलां . म्हजेंच लिखाण म्हाका परतून वाच म्हळें जाल्यार म्हज्यान जायना . थंय तीन तीन फावट वाचून तें निवळ करपाचो वावर कामत कुटुंबियान केलो तो हांव कसोच विसरूंक शकना . तांचे आभार कशे मानचे तेंच कळना . ह्या पुस्तकाचें मुखपृष्टावेलें चित्र काडून दिल्ले बद्दल हांव संदीप सगुण नायक हांचो भोव उपकारी आसां .

निमणें वेंचिल्ले खीण तुमचे म्हज्यांत पावता म्हणसर जितल्या जाणांनी जांव प्रत्यक्ष वा जांव उतरांनी हातभार लायला , तांकां सगळ्यांक देव बरें करूं .

- **दिनेश रा. मणेरकार**

२६ फेब्रुवारी १९९६









# अनुक्रमणीका

१

# आदीं आटवल; मागीर नांव !

कसलेंय गजालीक, मागीर तें म्हजें पारजत आसूं, म्हजो लेख आसूं, कोणालेंय पुस्तक आसूं, वा परिक्षेंतलें प्रेसी रायटींग आसूं, म्हाका नांव दी म्हणून सांग, म्हज्यान जायना. म्हज्या लेखांक, पारजतांक नांव दिवपाचो प्रस्न संपादक सोडयता. लोकांच्या पुस्तकांक नांव बी सुचोवपाचे भानगडींत हांव केन्नाच पडना. परिक्षेंत ‘ प्रेसी ’ क नांव दिवपाचो प्रस्न हांवें केन्नाच सोडयल्लो म्हाका याद ना.

अशे परिस्थितींत म्हजे घुवेक बारशादिसा नांव दवरपाचो प्रसंग म्हजेमुखार यक्षप्रस्न कसो उबो रावलो!!

हांवें संध्याक विचारून पळयलें. ताणें म्हळें,‘ तूंच सुचय, मागीर हांव सांगतां.’ बायलेनच अशें म्हळें म्हणटकच पेंच जालो ना ?

जाण्टेल्यांक विचारलें, ताणीं सांगलें, ‘तुका बरें दिसता तें दवर’.

कोणय सांगल्यार म्हण्टलो, पोरा, नशिबवान तूं! ताणीं तांगेल्या आज्या पणज्याचें नांव तुजेर लादलें ना.

खरें सांगपाचें म्हळ्यार हांवें आमचें बाय जावचे तीन म्हयने पयलीं नांवांचीं तीन पुस्तकां घेतिल्लीं. पूण एक तरी मानवचें आशिल्लें! छॅः सगलीं पोरणीं नांवां, कितें करतलों ?

शकुंतल खबरेक आयिल्लें, म्हणपाक लागलें, ‘नांव बरें दवर आं, कोंकणी शें!!’

म्हाका मात्सो उजवाड सो दिसलो,‘ कोंकणी म्हळ्यार कशें? नांव म्हणून

कोंकणी आसता ?'

'अँ, कोंकणी म्हळ्यार बरें शें रे संवकळेचें शें .'

'सजेस्ट कर मुगो .'

'हांवें कित्याक सजेस्ट करपाक जाय ? तूं इतलो बरो बरोवपी मरे ! तूंच म्हजेपरस बरें नांव सोदून काडटलो .' ताणें म्हाका पॅक केलो .

आतां कितें करतलों ?

म्हाका बाबूची याद जाली . नांव म्हळें कीं बाबू एक्स्पर्ट . तागेल्या चल्यांचीं नांवां इतलीं अर्थपूर्ण आसात कीं तीं तांगेली फेमिली खऱ्या अर्थान रिप्रेझेन्ट करतात . तांच्या नांवार्नी बापूय, आवय, भाव हांचो सगल्यांचो अंश आसा, इतलेंच न्हय तर तागेल्या ऑफसेट प्रिंटींग प्रेसाचेंय नांव क्लासीक आसा, 'बामा ऑफसेट !!'

हांवें बाबूक फोन लायलो .

'कितें रे, पेढे दिवचे पडटात म्हणून लिपून भोंवता ?' बाबूलें मिसायल !!

'ना रे, मात्सो बिझी आशिल्लों . कळना तुका ? बरें, तें सोड . एक बरें शें नांव सुचय मरे . मॉडर्न जाय आं .'

'नांव रे ? सोपें मरे ! तुगेलें, बायलेचें नांव घे, थोडीं अक्षरां आरतीं-परतीं कर . . . जालें .'

'पूण नांवाच्यो भयो जावपाक जायना न्हय रे, तूंच पळय मरे तें मात्शें .'

'बरें पळयतां .'

हांवें फोन दवरलो . मनांतलें कोंकणी नांव म्हण्टात तें वचना .

अशोकान आपल्या भावाच्या चल्याक सुंदर नांव दवरलां, ' पूर्णय .'

हांवें अशोकाक गांठलो . अशोकान नामावळच करून दिवपाचें उतर दिलें . पूण जिवाक सुशेग ना . संध्याक परतें विचारलें, कितेंय नवें नांव बी गवसलां ? संध्यान म्हजी फिरकी सोडली ना, ' पयलीं तूं सुचय, मागीर हांव सांगतां .'

म्हजो हांगा कोंकणी नांव आनी नवें नांव हांतुंभितर सँडवीच जाला .

सर मेळ्ळो, सराक विचारलें . सरान सांगलें, ' शिवदासान उर्बा दवरलां, उल्हासान मांडवी दवरलां, अशेंच कितेंय दवर मरे .' पूण म्हजो प्रस्न सुटलो ना . . .

टिचर मेळ्ळी, टिचरीक हांवें विचारलें, 'टिचर, कोंकणी नांव म्हळ्यार कशें ?'

'सांगूं ?'

'सांग'

'आबोलें, शेंवतें, कामणें, . . . . . .'

हांवें विशय बदललो .

अजयान मुंबयच्यान फोन केलो . ‘ रिजल्ट लागलो ?’

‘हय , बाय जालां .’

‘बाय जालां मरे ? आतां म्हजे भाशेन एक रिकरींग डिपोझीट अकावंट उक्तो कर बाये नांवान . आनी थोडे शॅर घेवन दवर बाये नांवान . सेविंगाक लाग पुता ; नाजाल्यार धडगत ना , जांवय फुके-सवाय मेळनात .’

‘अजय , तें बरें आसा रे . सद्याक एक नांव सांग पळोवया बरें शें .’

तुजें पयलें अक्षर घे , संद्याचें पयलें अक्षर घे आनी ताका जा , मा , ता , नाजाल्यार ना जोड . जालें ना नांव ?’ हांवें मनांत म्हळें , म्हाका ‘ अॅकला चलोरे ’ करचें पडटलें . हांवें अवांतर गजाली केल्यो आनी फोन दवरलो .

नांव कितें दवरचें हो प्रस्न अजून सुटूंक ना . अशा वेळार म्हाका नवाथें काकी मेळ्ळी: ‘नांव बी सारकें सोदून दवरलां मरे ?’

‘कित्याक ?’

‘आतांचीं भुरगीं तीं , तांचेकडेन माणसुकी ना .’

‘कित्याक , कितें जालें ?’

‘म्हजे बापोलभयणीचे चलयेक शाळेंतर्ली भुरगीं नांवावेल्यान तिडावंक लागलीं . तें तडक आवयक येवन विचारता , ‘तुवें म्हाका हें नांव कित्याकच दवरलें . आताच्या आतां तें बदल , म्हजे बापोलभयणीचेर आकांत . चली तर कशेंच आयकना . बापूय तर घरा ना . इल्लींशीं चिरपुटां हीं ! आवयांक खरस हाडटात मरे आतां . म्हणून म्हणटां तुका , नांव बी सारकें दवर .’

हो सोद म्हाका नवो . आजमेरेन मर्ते जाले , कुश्टा जाले , पावटो जाले , रेडयो जाले , भिखारो जाले पूण कोणेंच आपल्या आवय बापायक विचारलें ना म्हजें नांव हें कित्याकच दवरलें !!

म्हाका अशें जालें , आमगेले बायेनच जर सांगिल्लें म्हजें नांव अमूक दवर म्हणून तर बेस बरें जावपाचें .

पूण ......

एकदांचो बारसो आयलो . आनी हांवें नांव थारायलें . इतलेंच न्हय तर बायल धरून सगल्यांनी एकमतान पास केलें . बायेनय अच्चें हांसून मानून घेतलें .......

तुमकांय उमळशीक लागल्या न्हय अशें कसलें नांव काडलां काय म्हणून ....

आमगेर येवन पयलीं आटवल खायात ...... मागीरच नांव कळटलें !!

मंगळार , ११ .७ .९५

२

# मटको बंद .... गरिबांचेर हावळ !

हांव सदांभाशेन बाबुलीगेर च्या मारपाक गेल्लों . म्हाका ती वायट संवय . एकटो वचून च्या पी म्हणून सांग , म्हज्यान जायना . . . . दुकटो हो जायच . हांव आनी सदा बाबुलीच्या व्हारांदांत बसले आनी दोन सालाद एक मिर्चीची ऑर्द मात दिल्या , इतल्यांत दारांत शाबी हजर .

'यो बस च्या घेवया .'

शाबीक राजकारणाशिवाय खबरोच सुचनात . बिजेपी म्हळी कीं ताका कितें जाता . इतलो तो बिजेपीचेर प्यार !

सदान ताका कोमार कांडलो .

'शाबी , बिजेपी कितें म्हणटा ?'

'बिजेपीन एक बेश्ट केलां आं .'

'कितें रें तें ?'

'महाराष्ट्रांत मटको बंद केलो तें .'

'शाबी तशें जाल्यार चुकता तूं , मटको बंद जालो मरे ? फुडले फावटी बिजेपी घॉऽऽ !'

'आवय कित्याक तर ?'

'एम् . पी . त कितें जालें ? लॉटरी बंद केली ! कितें उजवाड घालो ?'

'हॅः पूण आतां लोकांलें सेवींग वाडटलें मरे !'

'शाबी , म्हाका एक सांग , तुमी मटको बंद केला तो कोणाच्या बऱ्याखातीर !!'

'गरिबांच्या !!'

'गरीब लोक कितलोसो मटको खेळटात ? दिसाक एक थंय दोन रुपया आनी श्रीमंत लोक पांचशें ते हजार रुपया . हो खरो खेळ पैशेकारांचो म्हणून जाणा मरे ? खरें म्हळ्यार तुमी मटको बंद करून गरिबांक त्रासांत घाले . बऱ्याक पावयले नात . आपले येणावळींतलो अवघो रुपया ते मटक्याक लायताले . जोडल्यार ऐशीं जोडटाले . बायल भुरग्यांक कितेंय खावंक जेवंक व्हरताले . गेल्यार रुपया वतालो . शाबी गोंयांत रुपयाक वीख तरी मेळटा रे ?'

'शाबी , खरो पळय व्यसनी आसता तो लाखांनी रुपया आसल्यार पसून मटक्याक लायता . पूण एक छंद म्हणून मटको खेळपी आसता तो दिसाक फक्त रूपयाच खेळटा . ऐशीं रुपया जोडल्यार पसून ! आमच्या गोंयकारांचेंच उदाहरण घे मरे . गोंयांत इतलो सोरो पिकता म्हणून प्रत्येक गोंयकार बेब्दो जावन गटारांत लोळटा ? तो आपल्यालो ठरावीक पेग काम सोंपतकच कुट्ट करता . सोरो वायट म्हणून तूं सोरो बंद करपाक शकता ? निदान गोंयचो तरी ?'

'शाबी , भाजी खा , न्हिवता .'

' तूं आनीक एक गजाल जाणा ? पैर म्हाका आबी मेळ्ळो . स्कुटरीर वतना हावें सहज म्हळ्ळें , 'आबी धंदो बंद मरे ?'

म्हणपाक लागलो' पात्रांव , मटको बंद जावप म्हळ्यार कितले लोक त्रासांत पडले जाणा ? बारीक पळय , एका फ्रेंड सर्कलांत एकल्याक आंकडो लागलो जाल्यार तो बाकिच्यांक च्याक व्हरता . तागेल्या गिरायकाक लागून हॉटेलाचो धंदो वाडटा . हॉटेलवाल्याक गल्लो चड मेळ्ळो , तो घरा चार वस्तू मायज व्हरता . हाचो फायदो मोनूकय जाता आनी घरच्यांकय जाता . हें केदें व्हडलें सर्कल पळय . मटको बंद जायत सावन कोणाच्याच बॉल्सांत पयसो ना . सगळो बाजारच थंडावला . म्हजेंच पळय न्ही- टकाच करून एका नायटीचे दोनशें रुपया गेले !! तेभायर दामू मोटरसायकलवाल्याचें दिसपट्टी बिट एकठांय करपाचें भाडें गेलें . एक दाभाळे वचून येवप म्हळ्यार तो पन्नाशेक रुपया जोडी .'

'शाबी आतां म्हाका सांग , मटको बंद जालो हें बरें जालें काय वायट जालें ?'

'इतल्यान सोंपूंक ना . जितल्या जाणांक आज तुमी बेकार केले तांकां तुमी पर्यायी जॉब दिलो ? उलट तुमी गरिबी वाडयली मरे ?' तुमगेले ह्या ऑर्डीन गाडे फटाफट बंद जाले मरे ? दिसाक पांचशें ते सशें रुपया जोडपी लोक आज भिकेक पावले मरे ? ह्या गाड्यांनी पिपरमिटां विकलीं म्हणून धंदो जाता रे ? हांव आनी तूं एँप्रेगाद जावन , पेपरांचेर कितेंय चार शब्द बरोवन पसून इतले जोडपाक पावतात रे ?'

'येदोसो कागदाचो चिटारो ! रसीद ना , फियादोर ना . ऑफीस ना . पूण धंदो

कितलो सिन्सीयर! दी मोल घे मोल. कोणाकय कापस्ताद आसा नागोवपाची? नाजाल्यार शाबी भारतांतले हेर धंदे पळय रे कितले नागवणे-ते! आनी अर्थशास्त्राचे नदरेन इतली घट्ट बुन्याद आशिल्लो मटको तुमी बंद करतात?'

'पैशेकारांचो प्रस्न ना शाबी. ते मटको बंद जाल्यार घोड्यांचेर पयशे लायतले. नाजाल्यार फ्लश तरी खेळटले. चार आण्यांक आपलें नशीब अजमावपाक ह्या भारतांत मटक्याशिवाय कितें आसा? मटक्यापरस लॉटरी कितलेशाच पटींनी चड पैशे खाता. ती कित्याक बंद केली ना?'

शाबी म्हज्या तोंडाक पळयत उरलो.

'आनी निमणें आयकतलो? राग येवचो ना मरे? म्हाका दिसता मटको बंद केल्ल्याची घोशणा फक्त हप्ते वाडोवपाक लागून केल्या. फाटल्या वेंचणुकांनी तांणी दुसऱ्या पक्षांक फायनान्स केल्लें ताचो हे सूड घेतात. मात्सो राव. मटको परतोय येतलो. हे फावट दर मात ऐशांवेल्यान साठांर आयिल्लो आसतलो. इन इंडिया प्लेयींग मटका ईज अ वे ऑफ लायफ!! हांगा मतदारच न्हय तर राजकारणय मटक्याशिवाय जियेवंक शकना!'

बिरेस्तार, ता. ६.७.९५

३

# सुटयेचें राजकारण

चिंतेस्त सो?

छॅः वाज हाडला रे हांणी.

कोणें रे?

आतां तूं आनी तकली खावं नाका.

धुमसता सो रे? कितें म्हणटा तें स्पश्ट उलय रे.

उलोंव ? आयकतलो?

सांगच तूं. आयकुपाचें म्हजेर पावलें.

हे टिव्ही न म्हाका त्रासांत घाला. कित्याक काय म्हणून विचार.

कित्याक?

आरे सुटी दिवचे दिवन ती सुखान भोगपाक दिनात मरे हे लोक. आतां कालचेंच पळय. आमच्यांतली एक म्हत्वाची व्यक्ती आमच्या संवसाराकअंतरली. ती अंतरली म्हणून सेंट्रल सरकारान सुटी जाहीर केली.

सुटी मेळ्ळी मरे? मागीर नशीबफुटक्याभाशेन तोंड वांकडें कित्याक?

सुटी दोन दिसांची जाहीर केल्या आनी थंयच गोंदळ जाला.

गोंदळ आनी कसलो?

सुटी दिल्या ती दिल्या पूण ' नरो वा कुंजरोवा ' केल्या. पयली गजाल म्हळ्यार एकाच मनशाक लागून दोन दीस सुटी हाचेर विश्वास बसना. आरे प्रामाणिकपणान म्हण नाजाल्यार जबरदस्तीन म्हण पूण पुराय आयकर भरपी ह्या कामगार वर्गान

आयकर मर्यादा वाडोवचीं म्हण केल्ली मागणी कानामनार न घेवपी हें सरकार, कांय म्हयन्यांपयर्ली एक म्हत्वाची व्यक्ती अंतरली जाल्यार बँक कर्मचाऱ्यांक सोडून हेर सगळ्यांक सुटी दिवपी हें सरकार अकस्मात दोन दोन दीस सुटी दिता हाचेर विश्वास कसो बसतलो ?

हांव सांगूं ? ही सुटी तुज्या आनी म्हज्या मोगान दिवंक ना . ताचे फाटल्यान राजकारण आसा .

सुटयेंतय राजकारण ?

हय . आमच्या महामंत्र्यानी खंय तांच्या सुपरकोंप्युटराक प्रस्न केलो . महाराष्ट्रांत आनी हेर राज्यांत काँग्रेसचें पानीपत जालें . आतां लोकसभा वेंचणूक कशी हातासपाची ? कोंप्युटरान सांगलें कामगार वर्ग आसा ताका चडांत चड सुटयो दी, एका वेळार तुज्यान म्हारगाय कमी करपाक जालेंना जाल्यार जाता . तांकां आतां तिची संवंय जाल्या . पूण सुटयो जाय ! !

पयर शाणू सांगी, अशी आठवड्याक तीन तीन दीस सुटी दिली जाल्यार आमची इकॉनोमी आंवुळटली .

इकॉनोमीचें कोणाक पडलां ? येता त्या वेंचणुकांनी काँग्रेस सत्तेर आयली ना जाल्यार सगळ्यांचींच पोटां आंवुळटलीं . ही चाल दिसता तितली साधी न्हय . लोकसभेच्या वेंचणुकांनी जनता पार्टीच्या म्हालगड्यांकडेन संधान बांदपाचें हें पयलें पावल .

जायत घडये . पूण पोस्ट खात्यान मात चान्स मारलो .

चान्स म्हणून आनी विचारता ? तांकां हें समर व्हेकेशनूच शें मेळ्ळें . आयतीच चार दिस सुटी ! तांचीं मतां भाजपाक कशींच मेळनात .

पूण ही सुटी म्हळ्यार त्रासच आं . सुटी आसतकूच दुसऱ्या दिसा डब्बल काम करचें पडटा आनी वेल्यान सुटये दिसा बेकार म्हणून खर्च वाडटा .

इतलें बारीक कोण चिंतता ? नाजाल्यार राष्ट्रीय लुकसानीचे आड आशिल्ल्या मनशाच्याच मरणाच्या नांवान सुटयांची खातड आमचें सरकार करचें नाशिल्लें . मुळांतच राजकीय मनशाच्या मरणानिमतान सुटी दिवप हें चूक . मागीर लोक जाण्टे जाण्टे राजकारण्यांक बेश्टेच मरणांत ओडटात .

तें कशेंय आसूं . अकरा आनी बारा एप्रील अशी दोन दिसांची सुटी सरकारान एकाच मनशाक लागून कित्याक दिली हाचें मात कुवाडें अजून सुटूंक ना . कितेंय जांव कशेंय जांव ह्या सुटयांक लागून मात येता त्या वेंचणुकांनी काँग्रेसीची केळवण परती करची पडटली ! !

सोमार, ८.५.९५

४

# गोंयांतली अनाचार संहिता

सुब्राय, खंय रे तूं? कितलो तेंप जालो नाच सो?

बाप्पा, इलेसांवा न्हय? मातसो बिझी आशिल्लों.

कोणावटेन रे? गाडो, हात काय युती?

बाप्पा, सवका उलय, अजून आचार संहिता सोंपूक ना.

उलोवपाकूय आचारसंहिता रे सुब्राय?

बाप्पा, सांगपाचें म्हळ्यार ही आचारसंहिता गुठलावन पळय ह्या इलेसांवात घडलां! उलोवपाची सोय ना.

अशें, कितें घडलां तर?

कितें घडूं ना तें विचार बाप्पा, बोगस मतदान धरून पयशे वाटप धरून सगळें सगळें घडलां.

जॉर्नालानी हाडलां मरे तशें कांयच घडनासतना मतदान जालां म्हणून.

दक्षिण गोयांत एके पार्टीचो दर चलतालो १०० मतांक एक लाख रुपया. बोली करपाची, तागेल्या घरा वचपाचें आनी पयशे घेवपाचे. एका खेड्यांत एका देवळाचो आनी एका कपेलाचो उद्धार करपाच्या नांवान प्रत्येकीं २०००० रुपयांची बोली जाली. थंय पांचशें मतां आसात. सौदो पटलो कांय ना तें खबर ना.

सुब्राय, पूण हे फावटी वेंचणूक अधिकारी बरेच कडक रावल्यात म्हणटात न्हय?

बाप्पा, कडक रावन रावन कितलो रावतलो? न्हिदेचें सवंग घेतिल्ल्या मनशाक

जागो करप कठीण म्हणटात तसल्यांतली गजाल ही . तूं जाणा , दक्षिणेच्या एका मतदारसंघांत जंय अटीतटीची लढाय चलताली थंय नवदुर्गेचे साक्षीन पंदरां मतां हाडल्यार एक हिरो होंडा मेळटाली ! ! ते भायर आतीश आनी फिदालगोंत दर दिसा प्रचाराक आधार केल्लेखातीर पार्टी मेळटाली ती वेगळीच ! हे पयशे मोडटल्यान ह्या इलेसांवांत एक कोटभर मोडल्यात खंय बाप्पा !

एक कोट ? सुब्राय , ताका शुन्यां कितलीं ?

बाप्पा , दोळे घुवडांव नाका . चाळिसांतला एक म्हळ्यार व्हडलें न्हय .

सुब्राय , आनी उरिल्ले ३९ ?

बाप्पा ताची मजाच जाल्या , ते खंय स्वीस बँकेत वचपाक म्हणून भायर सरिल्ले , पूण वाटेवाटेर ' हायजॅक ' जावन कोणालेतरी खणीर पावल्यात खंय ! ! सोड खबर . तांगेले ते पळोवन घेत . तर कितें सांगतालों . . . . आं , हे पयशे मोडल्यात ते कांयच न्हय . ह्या इलेसांवांत बऱ्या बऱ्यांनी पयशे वांटल्यात . बाप्पा प्रत्येक फावटी पोस्टरां ,बॅनरां , पिकअपी हांची शबय घालपाक जो पयसो लागतालो तसो पयसो मोडपाक वेंचणूक आयोगान मनाय केल्या . म्हणटकच कितें करतलो , तुजेकडल्यान म्हजेकडल्यान लुटिल्लो पयसो परतो आमकांच वांटपाचो . मतांय मेळ्ळीं , स्वार्थूय जालो आनी दानधर्मूय जालो ! आमच्या शेजारच्या गांवांत केन्नाच न्हय तसो अंदूं एकल्यान धा ते पंधरा लाखांचो वांटून गोबोर केला . बाप्पा , लोकूय म्हणून कितले बुदवंत ! पयशे हागेले घेतात , मत मात ताका मारतात . ही लोकशाय न्हय , बुदवंतशाय ! ! पूण एक बरें जालं बाप्पा , पोस्टरां लावडस्पीकर पिकअपी , झगझग नाशिल्ल्यान प्रत्येक उमेदवाराक नाक झरयत मतदाराच्या दारांत उबो रावचें पडलां . आनी ही संद आमच्या मतदारान वगडावंक ना . कोणें तरी खंय एका आमदाराच्या हाताक सोमतें कांकणूच चडयलें . आनीक कोणें खंय पोल्यार फुलयलें . तो बाबडो तोंड धांपपाचे पांचशें रूपया दिवन गेलो . पूण लज ना बाप्पा . . . . शिमरे ते शिमरेच ! ! परते पांच वर्सांनी उबे जातले !

सुब्राय , पांच वर्सां हें नवें सरकार तिगतलें ?

बाप्पा , सरकार कोणाचें येता ताचेर अवलंबून .

सुब्राय , मतदानाची टक्केवारी पळयत जाल्यार वारें नवें शें दिसता .

बाप्पा . . . . हें गोंय ! ! हांगाच्या राजकारण्यांक , नांवाजिल्ल्या अधिकाऱ्यांक मातयेभरवण करप , स्मगलींग करून निर्दोश सुटप पांच वर्सांत सात मुख्यमंत्री जल्माक घालप , फायली पोक करप असलीं कामां म्हळ्यार कोनशाचो कोयर सो ! ताका ह्या वाऱ्याचें नवेंपण बदलून घालप व्हडलें न्हय .

सुब्राय , असो कुवाडयांनी सो उलयता ? स्पश्ट सांग रे .

स्पश्ट सांगूं ? मतदानाचो दीस आनी मतमेजणेचो दीस हांचेमदीं २३ दिसांचें

अंतर आसा . बाप्पा , आनी इतले दीस आमी तुमी पवित्र मनान घाल्लीं पवित्र मतां घालून सील केल्लीं पेटलां पोलीसांचे देखरेखीखाला उरतलीं . बाप्पा , तेंवूय गोंयच्या पोलिसखात्याचे देखरेखीखाला !!

छॅः सुब्राय , तूं बेश्टोच दुबाव खाता .

बाप्पा , हेच देखरेखीखाला तांदळाच्या साकांचें कुंडच्या साकांत रूपांतर जालां ! बाखियाचें व्यवस्थित पलायन जालां ! एका नावाजिल्ल्या राजकारण्याली स्मगलिंगाची फायल गायब जाल्या ! अशा राज्यांत , बाप्पा , खरेपणाचो हवालो दिवप कठीण . एकाच रातयांत व्हडलीं व्हडलीं दिव्यां करपी गोंयकारांच्या राज्यांत मतपेटलां तेवीस राती उरप म्हळ्यार बाप्पा , वेगवेगळ्या पक्षांमदीं मतपेटलां बदलपाची सर्त लागपाची भिरांत !! सेशन देवा , तूंच पाव रे सायबा !!

तें जरी खरें आसलें तरी सुब्राय , हे फावटी बोगस मतदान जावपाक वाव नाशिल्लो .

बाप्पा . . . फटीच्या भ्रमांत कित्याक वावुरता ? बोगस मतदान जालां अशें छातयेर हात मारून सांगपी कितलेशेच जाण मेळटले . मेल्ल्या गेल्ल्यांच्या नांवांन कितलेशाच जाणांनी मतदान केलां . इतलेंच न्हय . . आसूं म्हाका आचार संहिता बी आनी लागत .

पूण सुब्राय , अशे तरेचें मतदान फुडल्या वेंचणुकांनी जावचें ना . आतां कार्डीं केल्यांत न्हय ?

बाप्पा , कार्ड करून पसून बोगस मतदान करपाचें गिन्यान गोंयच्या राजकारण्यांकडेन आसा . जे मेरेन आमी गोंयकार आपल्या भ्रश्टाचारी विचारांक घटस्फोट दिनात ते मेरेन हें अशेंच चलतलें . बाप्पा , तुवें व्होटर-कार्ड केलें ? बेगीन कर ; नाजाल्यार तुजें नांव वापरून आनीक कोणेंय केल्यार तूं भायलो म्हणून वयर पडटलो .

आनी फुडल्या वेंचणुकांनी न्हयतेच मनीस निवडून येतले !!

१.१२.९४

५

# एक नदर मनीसपणाची

ताणें म्हाका एक फोटो दाखयलो. फोटो एके चलयेचो. केंसांच्यो जटा जाल्यात. तोंडार हांसो. मातयेंत बसकण मारिल्लेकडेन मातयेकडेन नातें जोडपाचो हावेस.आंगार एक बोंतर जावपाक पाविल्लो कपडो. म्हाका मुंबयच्या रस्त्यांनी भिकाऱ्यांचीं भुरगीं दिसतात ताची याद जाली.

'हो सो फोटो?'

'वाच, मुखार वाच.'

नांव कमला, वय पांच वर्सां. बापायचें नांव वासुदेव. आवयचें नांव जानकी पयलें भुरगें ११ वर्सांचें, दुसरें भुरगें ९ वर्सांचें, तिसरें भुरगें ७ वर्सांचें. कमला चौथें! बापूय बेकार. आवय बिल्डिंगेचें काम करता. आवयक टी बी जाल्या!! पयलीं तिनूय भुरगीं शिकतात. कमला अजून शिकपाक वचूंक ना. वार्षिक उत्पन्न ३६०० रूपया.

' हांवें ह्या भुरग्यांची जीण स्पोन्सर केल्या'. म्हज्या आंगार सरसरीत कांटो!! दिसपट्टे जिणेंत आमकां अशीं कितलींशींच पोरां दिसतात. भिकाऱ्यांली पोरां अशें म्हणून आमी मुखार वतात. तांचीय म्हूण जीण जाल्यार ती मनशाची जीण न्हय काय? परिस्थितीन तांचेर गरिबी हाडल्या म्हणून तांकां मनशांपरस हीन मानप ही मनीसजातीचें व्हडपण गावप्यांक केदी व्हड लज! पूण इतले बारीकसाणेन कोण विचार करतात? जे कोण विचार करतात ते अशा भुरग्यांचो उध्दार करपी संस्थांचो सोद घेवन फूल थंय फुला पाकळी म्हणून आपले जिणेंत एकातरी भुरग्याक

आधार करतात. असो विचार जर प्रत्येक जोडपी मनशान केलो जाल्यार भारत हो गरीब उरचोना हें निश्चीत. पूण आमी भारतीय दुबावांचो आसरो घेवन निमित्यां सोदपाक हुशार! ती संस्था गरीब भुरग्यांक खऱ्यांनीच वयर काडटा काय ते पयशे खाता हें पळोवपाक कोण गेला! म्हजे खुस्तार तांकां मजा कित्याक करपाक दिवप?

'तूं देवळांत वता?'

'हय'

' भट जें कितें देवामुखार म्हणटा वा तुका जी प्रक्रिया सांगता ती फट न्हय हाची तुका खात्री आसा?'

'म्हजो भावार्थ म्हणून हांव तें करतां. आप पाप भटामाथ्यार!'

' मागीर संस्थेन पयशे खाल्ले जाल्यार आप पाप संस्थेमाथ्यार अशें तूं कित्याक म्हणना?'

खरें सांगपाचें जाल्यार म्हज्या तोंडार जाप आशिल्ली. हांव देव धर्म करतां तो स्वताखातीर. दुसऱ्याखातीर हांव जेन्ना मदत करतां तेन्ना म्हाका व्यवहार येवजता. पूण मनीसजातीच्या कल्याणामुखार पैसो कितलो किंकोत हें ताणे म्हाका ताजे नदरेन पटोवन दिलें.

'आनी हांवें एके चलयेकच कित्याक स्पोन्सर केल्या जाणा?'

' कित्याक ?'

'आमच्या भारतांत चलीमनशेची जीण इतली कठीण आसा की तिचो फुडार काळखांतच आशिल्लेवरी दिसता. बऱ्या बऱ्या चलयांची जीण वाट लागल्या थंय झोपडपट्टेंतल्या चलयांचो खंयचो पार? तांचीय जीण शिंदळकेच्या गटारांनी सोपची न्हय म्हणून हो म्हजो प्रामाणीक प्रयत्न. भारतीय बायलमनीस एक तर हुंड्याच्या उज्यांत हुलपता; नाजाल्यार शिंदळकेच्या आगरांत जीण झरयता.' हाव डिफिकल्ट इट इज टू लिव्ह एज ए वुमन इन इंडिया!!' आमच्या भारतांत दादलो देव जावन बसला आनी बायल ताची गुन्यांवकारी....... हें चित्र बदलपाचो म्हजो हावेस जैतिवंत करपाक तूंवय एके चलयेची जीण स्पॉन्सर करतलो?'

हे विचार, हो हावेस कोणा फॉरेनराचो न्हय. म्हजे वांगडा काम करतल्या एका भारतीय मनशान म्हाका मनशांकडेन मनीसपणान पळोवपाची नदर दिली, ताची ही गजाल.

सोमार, ३१.१०.१९९४

६

# आसा कापास्ताद ?

बाप्पा हालीं खंय तूं ? नाच सो ?

सुब्राय, मातसो गडबडींत आसां .

बाप्पा, इलेसांवाक बी उबो रावता काय कितें रे ?

तुका कोणें सांगलें ?

अः तें आनी सांगूक जाय ! धोलार बडी पडली कीं पिशीं खुबळटात तशीं इलेसांवां जाहीर जालीं कीं साळकायो माळकायो खुबळटात .

सुब्राय, तूं कितेंय म्हूण पूण म्हाका हे फावटी तिकेट मेळटली शी दिसता .

बाप्पा, तुका तिकेट मेळंटली ? शेर्त मूं ?

सुब्राय, म्हजो पार्टींतलो आजमेरेनचो वावर पळयल्यार तूं दुबाव घेवचो ना . कितलीं वर्सां जालीं मरे हांव पार्टीखातीर झट्टां .

बाप्पा, तिकेट मेळपाक वेगळी कापास्ताद लागता .

वेगळी आनी कसली ? निश्ठा नाका ?

बाप्पा, एकावेळार निश्ठा नासल्यार उपकारता . पूण तुका लोकांक वश करपाक येवपाक जाय .

सुब्राय, तूं बेश्टोच म्हजीं फकाणां करूं नाका आं .

बाप्पा, फकाणां न्हय, तुका तुजो सत्कार करून घेवपाक कळटा ?

ना, ती फाल्सिदाद म्हज्यान जायना .

बाप्पा, तुका 'म्हगेली एक-गट्टा धा हजार मतां आसात' हें प्रोव्हार करपाक

येता ?

ना . मतदान हो प्रत्येकाचो हक्क . म्हज्यान तांकां म्हाकाच मत दियात म्हणून फोर्सार करपाक जावपा ना .

बाप्पा , तुजेकडेन हे वेंचणूकेक सेशनाचे तावडेंत सांपडनास्तना धा एक लाख रूपया मोडपाक जातात ?

छॅ . . . सुब्राय , तूं एकेक पण सांगता तो हें कितें स्वयंवर ?

बाप्पा , हें स्वयंवरच ! ह्या स्वयंवरांत जो पळय ' पण 'जिखपाक शकता ताच्या गळ्यांत वेंचणुकेचे तिकेटीची माळ पडटा .

सुब्राय , पूण हें ' पण ' जिखप म्हळ्यार .

बाप्पा . . . , म्हणून म्हणटा ह्या स्वयंवरांत फक्त रावणच उभे रावपाक शकतात . तुजे सारके राम फक्त पार्टीची हमाली करपाक . तूं जाणा , कुडचडें-सावर्डें-सांगें-केपें-काणकोण ह्या मतदारसंघानी असले राम खोटल्यानी मेळटले . पूण तांकां कोण विचारता ? म्हजो एक वळखीचो मनीस आसा . ताणें अंदुच्यान ज्युस्त फुलां मांळपाक कोमेस केलां . पयलीं ताणें रथी-महारथींक(राजकारणांतले आं) हाडून तांच्यो कार्यावळी घडोवन हाडल्यो . मागीर ताणें स्वताक कांय पुरस्कार मेळोवन घेतले . मागीर ताणें आपल्याच समाजकार्याचो पेपरांतल्यान उदो उदो करून घेतलो . उपरांत ताणें स्वताचो जाहीर सत्कार करून घेतलो आना हें सगळें जालेउपरांत बाप्पा ताणें पार्टीचे तिकेटींची मागणी केल्या . आना कांय इश्टांक सांगून तिकेट आपल्याकूच मेळची असो प्रचार करपाक सुरवात केल्या .

सुब्राय , ताका तिकेट मेळ्ळी ?

बाप्पा , ताका तिकेट अजून मेळ्ळी ना . आनी ती मेळ्ळी ना जाल्यारूय हरकत ना . ताणें ते खातीर वेगळी माणणी केल्या . ज्या मनशाक ताचे सुवातेर तिकेट मेळटली ताका तो तागेलीं चार-पांच हजार एक-गठ्ठा मतां दाखयतलो आनी लाखभर रूपया उठायतलो . असलें तुज्यान जाता ?

ना . हीं पातकां मरे सुब्राय .

बरें बाप्पा , हीं पातकां मरे ? तूं जंय उबो रावपाचो आसा थंय रस्त्यावेलीं फोंडकुलां पुरोवपाचें टेंडर काडपाक लावपाची कापास्ताद तुका आसा ?

ना , तांकां पयशे खांवोंवक जाय .

बरें आसा . थंयच्या लोकांक फोन कनेक्शनां . बॅंकेचीं रिणां नाजाल्यार ट्रकाचीं लोनां काडून दिवपाइतली तुजी वळख आसा ?

ना .

बाप्पा . . . , मागीर ताणी तुका मतां कित्याक दिवचीं ? तुजेकडल्यान तांचीं बेकायदेशीर कामां जावचीं नात . पेदितां वापरून रस्ते , नळ दिवपाक जावचे ना .

पूण सुब्राय, कायद्याभितर जें काम जाता तें हांव करून दिवपाक शकतां.

बाप्पा, कायद्यान जीं कामां जातात तीं करपाक तूं कित्याक जाय तांकां? तांकां तूं जाय तो बेकायदेशीर कामां करपाक!! भारतीय लोकशायेंत आमी आमचे मनीस वेंचून हाडटात ते कायदो गुटलावन आमचीं कायद्यान बसनाशिल्लीं कामां करपी मनीस जाय म्हणून, कायदेशीर कामां करून घेवपाक कायदो समर्थ आसा!

सूब्राय, मागीर हें कशेंच जमपाचें ना शें दिसता?

बांप्पा...., एक निमणो मार्ग आसा.

कसलो तो?

पन्नाशेक गुंड हाडपाचे आनी तुज्या मतदारसंघांत जितलेजाण तुज्या विरोधांत रावतले तांकां फोर्सान फार्टी सरपाक लावपाचें. हातूंत जे तेंगशेपर्यंत वचपाक मेळटा ते मेरेन वचपाचें. आनी तुजें नांव बिनविरोध निवडून हाडपाचें. आसा क़ापास्ताद??

सुब्राय, आसूं त्यो गजाली इलेसांवांच्यो. म्हाका म्हगेली शीतकडीच बरी. या तूं आमी!!

शेनवार, ता. २२.१०.९४

७

# बाप्पा घुस्पला - पुस्तकांक लागून

सुब्राय . . . ,

किते बाप्पा ?

हांव मात्सो घुस्पलां .

घुस्पला ? बाप्पा , मोगान बी पडला काय किते रे ?

छॅ ! आतां ह्या जाण्टेपणांत मोग खंयचो रे ? हांव पुस्तकांनी घुस्पलां .

पुस्तकांनी ? कसल्या ?

सुब्राय , किते सांगतलों तुका ? पांच-स म्हयन्यां पयलीं म्हाका दामू मेळ्ळो . कशी तरी गांधीजींची खबर आयली . म्हणपाक लागलो ' तुवें गोपाळ गोडसेचें ' ' गांधीहत्या आणि मी ? ' हें पुस्तक वाचलां ? तें पयलीं वाच , आनी मागीर उलय .

मागीर . . . . . ?

मागीर आनी किते , हावें पुस्तक लायब्ररींत सोदलें आनी वाचून काडलें . आनी म्हाका आतां गांधीजीचेंच चुकलें अशें दिसपाक लागलां .

बाप्पा , असो भियेवं नाका . हें गोंय म्हळ्यार ढाका न्हय .

सुब्राय प्रस्न ताचो ना , ताचे उपरांत म्हाका दिपू मेळ्ळो . तो पुस्तकां बी वाचपी म्हणून ताका ह्या पुस्तकासंबंदी विचारलें . ताणें म्हाका वेगळेंच सांगलें . म्हणपाक लागलो ,' गांधी हत्या आणि मी ' वाचलें मरे ? आतां तागेलेंच' पंचावन्न कोटींचे बळी ' वाच . म्हाका नायजाल्यार उद्येग कमी , तेंवूय वाचून काडलें . गांधीजीचें चुकलें हाचेर शिक्कामोर्तब जालें . हाचे उपरांत म्हाका निरज मेळ्ळो . हांवें सहज

म्हणून ही गजाल सांगली जाल्यार म्हणपाक लागलो, तूं गांधीजींचें चुकलें म्हणटा तो तुवें समग्र गांधीजी वाचला? तो पयलीं वाच आनी मागीर तुजें मत मांड. आनी ताचेर वयर विवेकान सांगलें 'प्रकाशनो पडछायो' हें दिनकर जोशी हांणी गांधीजींचो पूत हरिलाल गांधी हांचे जिणेचेर बरयल्लें पुस्तक वाच. बापूय एदो व्हडलो, देश वयर काडपी मनीस, पूण पूत मात व्यसनांनी काबार जालो हें वाचून तुका अजाप जातलें.'

बाप्पा, तुवें इतलेंय वाचलें?

सुब्राय, वाचलें म्हणून त्रासांत पडलों. गांधीजी वाचतकच पयलींचीं दोनूय पुस्तकां किरकोळ दिसलीं. आनी प्रकाशाची सावली हो स्मिता भागवत हांचो'प्रकाशनो पडछायो' चो अनुवाद वाचतकच तकली घुंवली. येवजिल्लें ह्या विशयाचेर कांयच उलोवचो ना. पूण.....

बाप्पा, पूण आनी कितें?

सुब्राय, पयर विवेक मेळ्ळो. पुस्तकां वाचलीं काय म्हणून विचारतालो. हांवें हय म्हळें. आनी ताचेर ताणें म्हाका एक प्रस्न घालो. 'येद्याय व्हडल्या स्वातंत्र्य लढ्यांत खांदाक खांद लावन नेहरून आनी गांधीजीन देश स्वतंत्र केलो. स्वातंत्र्याउपरांत नेहरून आपली फामील वयर काडली आनी गांधीजी मात आपली फामील वयर काडपाक शकले नात. देखीक हरीलाल हांची जीण. आतां आयच्या काळाप्रमाण कोण शाणो ठरलो?'

बाप्पा, तुवें विचार केलो?

सुब्राय,तोच विचार करपांत घुस्पलां.

म्हजें आयकतलो?

सांग.

बाप्पा..... अशा लोकांचे जिणेचेर विचार करपाचें नासता. तांची नियती आनी तांच्या कर्मानुसार ते जीण जगून वतात. आज आमी तांची जीण चुकली काय ना हें थारावन कितें करतले? जो जीण जगता तो आपले परीन शाणेपणान जगता. तुमी-आमी आमची तकली कित्याक धोडावया? तुका आनीक एक गजाल सांगतां, तुवें रामायण, महाभारत वाचलां?

हय, वाचलां.

बाप्पा, पयर म्हाका एक मनीस मेळ्ळो. तो रामायण महाभारत मोठ्या घोस्तान वाचपी. ताका खंयच्यानतरी शिवाजी सावंतालें मृत्यूंजय मेळ्ळें. ताणें वाचून काडलें. म्हाका म्हणपाक लागलो,'बरें पुस्तक वाचपाक मेळ्ळें म्हणून जिवाक बरे दिसलें' हावें म्हळ्ळें आतां ' महाभारत एक सुडाचा प्रवास' कर्ण खरा कोण होता' हीं दाजी पणशीकरालीं दोनय पुस्तकां वाच. आनी रामायणाचेर

वाचतलो जाल्यार आनंद साधलेंचो रामाचेर एक निबंध आसा 'हाक' ह्या पुस्तकांत तो वाच.

मागीर?

मागीर आनी कितें? बाबड्यान तीनूय पुस्तकां वाचलीं. आतां तो घुस्पला, खंयचें महाभारत खरें?

हय, घुस्पुपाचोच!! हे लोक आरतीं परतीं पुस्तकां कित्याक बरयतात समजना.

बाप्पा, दोश पुस्तकां बरोवप्यांचो न्हय. दोश पुस्तकां वाचतल्यांचो. आमी रामायण महाभारतावेलीं पुस्तकां इतिहास म्हणून वाचतात. त्यो खऱ्यो कादंबऱ्यो!

मागीर सुब्राय, इतिहास म्हणटात तो कोण बरयता?

बाप्पा, इतिहासय बरोवपी आसात. मराठ्यांचेर सांगपाचें जाल्यार कै० वासुदेव बेलवलकर, डॉ० सेतुमाधवराव पगडी हांचे सारखेले लेखक मराठी साहित्यांत आसात. जाल्यार रामायण महाभारताचेर सांगपाचें जाल्यार अभ्यास करून बरोवप्यांत डॉ० आनंद साधले, डॉ० दाजी पणशीकर हांचो आस्पाव जाता. बाप्पा... मुळांत राम देव काय ना हाचोच वाद आसा. आज पयलीं लोक योद्ध्यांची पुजा करताले. राम होवूय एक योद्धो आशिल्लो. तुवें गांवाकणकणी राखण देवाची वा पायक देवाचीं देवळां पळयलीं नात? तेवूय केन्नाचे तरी योद्धेच आशिल्ले. आज लोक महात्मा गांधींक आनी डॉ० आंबेडकरांक फुलां घालिनात? ते फायचे देव जावं येतात!! म्हणटकीर हे तेन्नाचे योध्दे न्हय कित्यावेल्यान?

सुब्राय, तुवें म्हजे भोंवतणी चक्रव्युह केला! कितें म्हणचें तेंच समजना.

बाप्पा......., सोड ह्यो गजाली. आमी वादांत कित्याक घुस्पुया? जाणा मरे बाप्पा म्हाका एक दीस एकटो मनीस मेळ्ळो. म्हणपाक लागलो,' वाल्याक राम राम जप करपाक लायलो आनी जप करता करता वाल्याचो वाल्मीकी जालो. आनी ताणें रामायण बरयलें' हो विचार म्हज्या मनाक पटना. आत्मशुध्दी जावपाक आमी देवाचें नांव घेतात वा ताच्या नांवाचो जप करतात. जो जल्माक येवचोच आशिल्लो, जाचें देवत्व सिध्द जावचेंच आशिल्लें, ताचो जप वाल्या कित्याक करतलो? म्हाका दिसता तो सगल्यांचेर वित्रागून तांकां मरा मरा म्हणून खेपत वशिल्लो. आयकतल्याक तें राम राम शें दिसलां वा ताणीं तें रामायणाक जोडलां जावंक जाय.' तें सगळें सोड बाप्पा, मुखार आयक '. मरा मरा म्हणटात तो शब्द कोंकणी सोडून हेर खंयच्याच भाशेंत ना. म्हणटकच कोंकणी रामायण जल्माक येवचेपयलींची अशें जालें ना?'

बिरेस्तार, १.९.९४



## ८

# म्हजीं पारजतां शेणटात तेन्ना........

ज्या दिसा म्हजें पारजत छापून आयलां त्या दिसा हांवें तें कापून दवरलें अशें म्हज्या आयुश्यांत केन्नाच घडलें ना . ते पेपर रद्देंत वतकच तीं सोदप आनी कापून दवरप , वा जायत्या फावटी तीं शेणप हें सदांचेंच .

एक दीस म्हाका उमान म्हळें , आपूण आपल्यालीं पारजतां छापतां , आनी म्हाकाय कूय आयली ...... म्हजीं पारजतां सोदपाची !!

म्हजीं पारजतां कितलीं जाल्यांत कोण जाणा ? !!

घराकडेन आयलों . रद्दी उस्तिली . धायेक मेळ्ळीं . रोखडींच कापलीं , एके फोलीर चिकटायलीं , झॅरॉक्स मारून हाडलीं , आनी नवे ताळ्ळ फायलींत घालून दवरलीं . आतां एकेक पारजत याद जावपाक लागलें , तशें कोण सुनापरान्त रेगुलार घेता हाची चवकशी करपाक सुरवात केली . रेगुलार घेवपी उपकारना , तीं सांवाळून दवरपी जाय आनी म्हजीं पारजतां तर दोन वर्सां पयलींचीं !!

इतल्यान याद जाली ... दिलीपाची . बॅंकेंतल्यान , च्या पिवन येतां अशें सांगून तडक दिलीपाक गांठलो .

'दिलीप , तुगेली रद्दी आसा काय दिली ?'

'आसा , कोणाक जाय ?'

'रद्दी नाका रे , म्हाका फाटले सुनापरान्त जाय .'

'सुनापरान्तूच शे कित्याक रे ?'

'म्हजीं पारजतां एकठांय करपाक .'

'केन्नाचे जाय तुका?'

' फाटल्या दोन वर्सांचे.'

'आवय....! आसतशे दिसना. म्हजेकडेन सुनापरान्त आसा ते खूब आदले. आरंभाचे अंक ते.'

'आयस्सा? हांवे पारजत बरोंवक सुरवातच केल्या ती हालीं मरे. छँः हे पेपर खंय सोदचे म्हणून कळना.

सांजचो बँक सुट्टकूच व्हडल्या मळार राजाक गांठलो.

'तुगेली रद्दी आसा काय दिली?'

'कित्याक, रद्देचो बी धंदो करता?'

'धंदो न्हय रे..... पारजतां एकठांय करतां?'

'आतां सांगता? एक दोन दीस पयलीं पूण सांग मरे. हांवें फाटल्या तीन वर्सांची पुराय रद्दी पयरच दिवन वडयली.'

'कोणाक दिली?' म्हजी तागेर वचून रद्दी उस्तुपाची तयारी.'

'त्या घांट्याक आतां खंय सोदपाक वतलो?'

'दिवची दिवनय घांटयाक दिली?'

'तुगेलेंय म्हणून बरें मरे. तो आयतो घरा आयला व्हरपाक म्हणून दिवन उडयली. तूं पारजतां सोदपाक येतलो म्हणून खबर आशिल्ली जाल्यार दवरूं येताली.'

आतां कितें करतलों! लायब्ररींनी वचून पळयतलों म्हळ्यार आमच्यो लायब्ररी तसल्योच त्यो! फाटल्या आठवड्याचे पेपर मेळपाक मारामार थंय दोन वर्सां पयलींचे पेपर मेळटले?

इतल्यांत म्हाका याद जाली. हांव कॉलेजींत आसतना राष्ट्रमताचो पयलो अंक हाडपाक म्हणून हांव राष्ट्रमतांत गेल्लों. आनी थंय म्हाका पेपराची एक प्रत सांबाळून दवरतात म्हणून सांगिल्लें. तशें जाल्यार सुनापरान्तांतूय हे पयलींचे पेपर आसुंकूच जाय. हांव उठलों आनी सुनापरान्तांत बाबलीक मेळ्ळों. बाबलीन म्हाका फायल काडून दिली. हांवें सोद सोद सोदलें. दोन पारजतां मेळ्ळीं. तांची तारीख घेतली. पूण म्हाका म्हजो पुर्तुगेज पारजत मेळ्ळोना. मात म्हगेल्या 'पुर्तुगेजा' चेर बरयल्लो नरेंद्र काशीनाथ कामतींचो पारजत मेळ्ळो. उमालो 'आनीकूय पुर्तुगेज' म्हणटात तो मेळ्ळो. पूण म्हजो ओरिजीनल पुर्तुगेज मेळना!!

हांवें आशा सोडली. आनी घरा आयलों.

काल दिलीपागेर च्या मारपाक गेल्लों. थंय दिलीपान सांगलें, 'आगस्ट ९३ तलो तुगेलो नरसिंहरावावेलो पारजत मेळिल्लो, बरो आसा आं.'

'खंयचो रे? एक कोटी घेतिल्लो तो?'

'हय.'

'खंय रे तो? हाड हाड. आतां पारजतांची गरज आसा.'

'आः! हांवें सामोसा बांदून दिलो मरे.'

' आयसा! आरे पापया, तुका म्हजो पारजत दिसलो जाल्यार सांबाळून दवर. चिखलांतलो पसून आसल्यार जाता, पूण दवर.'

'आतां फुडाराक दवरतां.'

पूण म्हाका हुसको, सकाळीं मेळिल्लो तो पारजत खंय गेलो?

'दिलीप. सामोसा पार्सल व्हरपाक कोण आयिल्लो?' हांवें करमचंदाचे स्टायलीन विचारलें.

'कोण आयिल्लो काय? कोण आयिल्लो काय....आः तो दामी रे, आंबेगाळींतलो. गॅरेज बी आसा तो.'

'दामोदर गंगाराम नायक रे?'

'हय, तोच तो.'

'जाल्यार भंय ना. सकाळींच बँकेंत आयिल्लो पयशे काडपाक.'

हांवें राजाक स्कुटरीर बसयलो आनी 'ऑपरेशन पारजत' मोहिमेचेर गेलों. तडक आंबेगाळ गांठली. विचारीत विचारीत दामीली गॅरेज सोदून काटली. पळयल्यार दामी आसा.

'ऑ पात्रांव, यों. कितें जालें?'

'मात्शें काम आशिल्लें.'

'पयशे शॉर्ट आयले? म्हाका बरोबर दिल्यात. मेजून घेतल्यात मरे.'

आमी बँकेंतले लोक कोणाल्याय घरा वा दुकानार सांजेचे वचप म्हळ्यार शॉर्त कोणाकय कॅशींतल्यान पयशे चड पावल्यात म्हणून हो आयला असो समज जाता!!

'ना. ना. पयशांचें कॅस्तांव न्हय.'

'मागीर?'

'दामूबाब.. विचारलें म्हणूं नाका आं. तुमी सकाळीं सामोसा हाडिल्ले?'

'आरे! अशें सांग मरे, सामोसाचे पयशे चुकले? ते दिलीपाकडल्यान हाडिल्ले मरे हांवें? कितें जालें?'

'दामूबाब, पयशांचें कॅस्तांव न्हीच. तुमी सामोसा बांदून हाडिल्लो पेपर खंय?'

'तूं म्हणून सामकोच सी आय डी सो विचारता मरे? जालां कितें?'

'म्हाका तो पेपर जाय.'

'कित्याक? ताका सगलें तेल लागिल्लें मरे.कित्याक तो तुका?'

'म्हाका जाय.'

'कित्याक तो सांग. आंकड्यांची बी खबर न्हय मरे?'

'ॲः दामूबाब, ताचेर म्हगेलें पारजत आयलां.'

'कर्म पुता! आतां सांगता? एदोय व्हडलो पाल्हाळ लावचे पयलींच सांगतलों आशिल्लों.'

'आसा?' हांवें देवाक नमस्कार सांगलो.

'आसा खंयचो? पलतडच्या पुलार पावतनाच मोटारसायकल एका फोंडकुलांत म्हणून पडली. ती उसळटनाच सामोसाची पोटली पूल हुपून उदकांत पडली. पिकासांव रे सामकें.'

'पारजताचें?'

'ॲः सामोसाचें रे. तीनूच उरिल्ले ते रूचीन घेवन आयिल्लों. हे फोंडारेच पयलीं पाड पडिल्ले. पूण राव रे. तूं हरशीं सावुदीन बी घट्ट मरे? न्हय, इल्लेशा पेपरा-कुडक्याखातीर कुडचड्यावेल्यान हांगा आयलो म्हणून म्हणटां...?'

'बरें येतां' हांवें राजाक दोळो मोडलो, दामीलें आयकुंनाशिल्लेभाशेन केलें आनी स्कुटर स्टार्ट मारली.

'पुलार या?' राजान विचारलें.

'नाका. कोणूय समजत आमी जीव दिवपाक बी आयल्यात म्हणून. सांवड्डें पुलार त्याशिवाय उबो रावपाची कोण कापास्ताद करिना. या आमी घरा.' आनीं आमी नीट्ट घरा आयले.

हांवें थारायलां.... म्हज्या पारजतांच्या पुस्तकाक 'शेणिल्लीं पारजतां' म्हणून नांव दिवप.

अजूनय हांव पोटल्यो बांदून आयिल्ल्या कागदांत सुनापरान्त आसत तर बेगिबेगीन उगडून पळयतां. म्हजें पारजत बी आसा काय म्हणून!!

पुस्तक जावचे पयलीं ही खटपट करचीच पडटली. कोणाच्यान सांगूं येंता! कोंकणी अकादमीची 'पयलो चंवर' ही येवजण खंयच्याय खिणाक बंद पडली जाल्यार म्हजो घात न्हय?!

सोमार, ता. ८.८.९४

१

# कुयताद बाबड्यांची!

कालचीच गजाल. हांव बाजारांत वचपाक म्हणून भायर सरलों आनी रस्त्यार एकाच सारखे चुरिदार आनी शर्ट पँट घाल्ल्या तरणाट्यांचो घोळको पळोवन अजाप जालें. सत्त्यान सांगलें, आतां अकरावेच्या आनी बारावेच्या भुरग्यांक युनिफॉर्म घालपाक जाय.म्हाका मात तांची काकुळट दिसली.

धावी मेरेन म्हळ्यार इश्कॉल. अकरावी, बारावी म्हळ्यार कॉलेजूच कशी आनी फस्ट इयर बी सामकीच कॉलेज!! ती बद्द टी वाय मेरेन. तुवें मागीर व्हडलें पोस्ट ग्रेज्युएशन आनी पीएचडी बी केली म्हणून कॉलेजाची सर ताका येना. एकदां काय डिग्री घेतली की बेश्टोच जाण्टो कसो दिसपाक लागता.

पूण आयुश्यांतल्या ह्या भांगरा उतरांनी बरोवन दवरपाच्या पांचे वर्सांतलीं दोन वर्सां शिक्षणखात्यान युनिफॉर्माच्या रूपान काडून व्हरप म्हळ्यार ....शिक्षण खातें सिनेमांतल्या प्रख्यात व्हिलन सदाशिव अमरापुरकाराभाशेन बागलें अशें दिसलें.

पयलीं बरें जातालें. लेक्चराक दांडी मारली आनी बाजारांत भोक्तना कोणूय मेळ्ळो जाल्यार, 'ना, आज कॉलेज ना' म्हणपाक मेळटालें. सरांक अदमास लागनाशिल्लो हो भुरगो आपल्याच क्लासांतलो काय हेर कोणय, काय टी वाय चो बी.... म्हणटकच कोणय भुरगो लेक्चर चलतना बी भायर खुदळटा सो दिसल्यार फक्त स्मायल दिवन पासार जातालें. पयलीं दोन लेक्चरां सोंपतकच ब्लु पर्लांत मॉर्निंग शो पळोवपाक वचपी भुरग्यांची बेठीच कुचंबणा जाता. युनिफॉर्म

घालून सकाळचें पिक्चर पळोवपाक येवप म्हळ्यार चोरयां आयला म्हणून धडधडीत गवाय ! इतल्यान सोपलां ? खंयचेय इश्टिणीक भुलोवन मोतीर वचून बसप पयलीं सोपें जातालें. बिनधास्त गुलूगुलू खबरो मार, लोकांक दुबाव पडनाशिल्लो. खऱ्यांनीच हीं 'फियान्से फियान्से' न्हय कित्यावेल्यान ? लोकांक सवंयेर पडिल्लें जाण्टेलीं येवन अशीं बसल्यार बेठोच दुबाव मारतालो. युनिफॉर्मांत असलें कितेंय करपाची माणसुकी आसा ? !

कॉलेजांत लेक्चरराचेर कॉमेंट मारलेनात जाल्यार तें कॉलेजच न्हय. ल्हवूच गर्देत रावन कॉमेंट मारप आनी आपूण ते कॉलेजीचोच न्हय अशें तोंड करून 'अंजान' मारप हो कॉलेजांतलो खाशेलो टायमपास ! !

ते भायर ऐन तारूण्यांतलो तो अकरावे-बारावेंतलो मूड ! पिंजऱ्यांतल्यान निकतोच उडून आयिल्ल्या किराभाशेन कितें करूं आनी कितें नाका असो भुल्लुशिल्लो जीव. तातूंत पिक्चराचे स्टायलीन कितलेशेच मजनू कितलेशोच लैला जान कुर्बान करपाक आतूर आसतना, मुक्त वातावरण, धुंद तरणाटेपण, अशा भांगराच्या खिणावेळार अकस्मात हें युनिफॉर्माचें बंधन. 'हाय रे कंबख्त, युनिफॉर्म के रूप में तूने तो मारी मोहोब्बत का गला ही घोट दिया' अशे तरेचे डायलोग नव्या पिक्चरांनी येवपाक लागतले !

पयर एक दीस मजा जाली. हांव फोंड्यां वचपाक कदंबांत चडलों. ड्रायव्हर चडलो. बस खचाखच भरिल्ली. निळेंच युनिफॉर्म घाल्लो एकलो आसलो. तोवूय दारार चडलो. आनीक कोण पॅसेंजर येना शें पळोवन ड्रायव्हरान बस सोडली. बस बरी एक किलोमिटर पयस पावतकच लक्षांत आयलें बसींत कंडक्टर ना. ड्रायव्हरान फाटल्यान पळयलें, जाल्यार एका हातांत पैशांचे बॅग घेवन धांपेत धांपेत कंडक्टर येता. बस थारली, रिव्हर्स मारून फाटल्यान गेली. कंडक्टराक ड्रायव्हरान विचारलें, 'आरे तूं चडिल्लो तो सकयल कित्या मड्याक देंविल्लो ?'

'हांव चडलां तरी खंय रे ? तूं मार बस सोडटा तो कितें समजला ?'

'आनी तो येदोळ दारार युनिफॉर्म घालून उबो आशिल्लो तो तूं न्हय ?'

'तुजो बापूय तो... तो स्टुडंट मरे !'

'आवय सायबा, ह्या भुरग्यांक आमचेंच युनिफॉर्म बरें दिसता रे ? बाकी सगळे रंग पाडा पडले ?'

इतल्यान सोंपूंक ना, कदंबा असलें युनिफॉर्म घालपी कॉलेजकुमार आतां आपूण कदंबाचोच स्टाफ म्हणून फिफ्टी परसेंटा जाग्यार हंड्रेड परसेंट कन्सेशन मागपाक उणे नात !

हांव बारावेक आसतनाची गजाल.

आमच्या क्लासांत फक्त पंदरा भुरगीं आशिल्लीं. आनी त्याच वर्सा इंग्लीश

शिकोवपाक एक नवो प्रोफेसर आयिल्लो . एक दीस टी . वाय . च्या भुरग्यांक कितें येवजलें म्हणून कोण जाणा ! आयले एक तिशेक जाण आनी आमच्या इंग्लीशेच्या लेक्चराक बसले . आमी पंदराय जाण भायर उरले , बसपाक जागो ना म्हणून आनी तो प्रोफेसर बाबडो आज हंड्रेड परसेंट अटेन्डन्स म्हणून खुशाल भरीत जावन शिकयता ! अवघ्या धा मिनटांभितर ताणें बोर्डार बरोवपाक म्हणून फाट केल्या मात सगळो क्लास रिकामो !!

आमकां युनिफॉर्म आशिल्लें जाल्यार ही मजा चाखपाक मेळपाची ??!

युनिफॉर्म म्हणटात ती वस्तच विक्षिप्त . तुका जाणयनास्तना तुजेर शिस्त आनी बंधनां हाडटा .

आर्मी , नेव्हीचे लोक जेन्ना युनिफॉर्मांत आसतात तेन्ना कसलींच आडांगपणां करिनात . ते जेन्ना सिव्हील ड्रेसांत आसतात तेन्ना तांचो नेम ना . पूण युनिफॉर्मांत ....? दोळे धांपून विश्वास दवरपाचो !

गोंयच्या पोलिसांचो आसता ताकाय युनिफॉर्म म्हणटात . पूण तांणीं युनिफॉर्माचो वेव्हाराखातीर बेस बरो उपयोग करून घेतला . ते जर सिव्हिलांत आसत तर तांकां कोण कॅर काडिना . पूण ड्रेसार आसतकच तुमकां आमकां चिरिमिरी चुकोवपाक चान्स ना !!

एक बरें जालें . हायर सेकंडरीच्या भुरग्यांक युनिफॉर्माची सक्ती जाल्ल्यान नवे नवे मोदीचे कपडे शिंवपाचो आवयबापायचो खर्च वांचलो . निदान दोन वर्सांतरी ! आनी दुकानदारांचेंय फावलें , युनिफॉर्माचें लुगट चुरिदाराक म्हणटकच कमीत कमी पांच मिटर आनी पॅन्टीक शर्टाक म्हणटकच कमीत कमी पावणेचार मिटर खपलें !

एक वटेन आमची तरणाटी पिळगी अस्तमतेचे संस्कृतीकडेन वता .

नवी पिळगी प्रत्येक फावटीं निदान दोन दोन वर्सांनंतरची पायरी 'बिफोर टायम ' हुपता . आयच्यो वर्तमानपत्रांतल्यो बातम्योच हाची गवाय दितल्यो .

अशा विकासाच्या( !) पांवड्यार कॉलेजांनी विद्यार्थ्यांक युनिफॉर्मां सक्तीचीं करप हीं फाटल्यान ओडपी पावलां काय भुरग्यांमदीं शिस्त हाडपाचे नदरेन विद्यार्थ्यांक घाल्ली वेसण हो एक प्रबंधाचो विशय जातलो .

ह्या युनिफॉर्मान ज्या विद्यार्थ्यांचें कॉलेज लायफ 'ॲन्जोय ' करपाचें सपन दोन वर्सांनी मुखार व्हेलें तांकां म्हजीं काळजासावन 'हार्टफेल्ट सिंपथी ' !

बिरेस्तार ,४.८.९४

१०

# जाय फुकेसवाय मेळावे? !

वाप्पा..... बेजारला सो?

शेः कसली संद वगडायली रे हांवें.

कसली संद?

आरे, फुके सवाय दिल्लीक वचपाची.

तूं कॉँग्रेसमन? दिल्लीक वचपाक?

सुवाय... पयर गेले ते किते सगळे कॉंग्रेसमन?

वाप्पा, तूं गेलो ना तेंच बरें जालें.

किल्याक? तुज्या सांगाताक वक्काटां मारपाक मेळ्ळो म्हणून?

ना. वक्काटां सदांच आसात रे वाप्पा. वश्टो नांव वगडावन येतलों आशिल्लो म्हणून.

कॉंग्रेसींत गेल्यार नांव वगडावता आनी मगोंत गेल्यार नांव मेळटा?

वाप्पा, आतां मगो मगो करपाची पिशेपणां करूं नाका. आतां मगो लग्न जाल्या.

कोणाकडेन रे बाबा? आतां आनी उतारवयांत?

भाजपाकडेन! आनी तिणें आतां नांवय बदललां. लग्न जालां म्हणटकच घोवाचें आडनांव लावचें पडलें ना? तें तांणीं मगोचें भा.म.ज.गो. पार्टी करपाचें येवजिलां. म्हळ्यार भारतीय महाराष्ट्रवाद जगो पार्टी!!

**सुब्राय सोड खबर! मेल्लीं मडीं उस्तुपांत अर्थ ना. आमी मुद्यार येवया.**

आं ...... तर तूं दिल्ली गेल्लो जाल्यार तोंड लिपयत भोंवतलो आशिल्लो.

कित्याक ?

फाटल्या आठवड्याचो पेपर वाच. मेळाव्याक म्हणून गेले आनी नाक कापून आयले.

सुब्राय ...., म्हाका मातशें सविस्तर सांग पळोवया. एक च्या घेवया जाल्यार.

च्या सोड बाप्पा. कार्यकर्ते म्हणून गेल्लयांनी थंय पळय खेव केला तो सोंसपाचो न्हय. पेपर म्हणटात तांणी फादर आग्नेल आश्रमांत उदक येना म्हणून नळ फोडले. वॉश बेसिनाचे संडास केले, जनेलाच्या हारशांच्यो कंवच्यो केल्यो. बाकांचो जळोव केलो. स्कुलाची दैना केली आनी गोंयकारांच्या गोंयकारपणाचो गोबोर केलो हें पळयतकूच स्कुलाच्या मुखेल्यांनी हांची सांतली-पोटली कवळ्ळी आनी रस्त्यार दबरली.

शीःशीः अशें कितें अकलेक आयिल्ले रे हे ?

बाप्पा इतल्यान सोंपलां ? फुडें आयक. पयर हांव मडगांवां स्टेशनार गेल्लों जाल्यार अकस्मात शी एक गाडी आयली आनी कांय तरणाटे देंवले. प्रत्येकाच्या हातांत पांच-पांच-स-स हॅल्मेटां, कोणाच्या हातांत दिल्लीच्या चांदनी चौकांत मेळपी स्पेशल सान्नी, कितल्यो ? दोन दोन डझन !! कोणाल्या हातांत भुरग्यांल्या गेम्सांची बॉक्सां, कोणाल्या खांदाक रेडिमेड शर्टस् बाप्पा सगळें होलसेल मार्केटच मडगांवच्या स्टेशनार देंविल्लेवरी दिसतालें. अचळय गाड्यार विकपाचें आनी पयशे जोडपाचे अशे तरेचें सामान !! चवकशी करतकच कळ्ळें कीं गाडी दिल्लीच्या मेळाव्याक गेल्लया कॉंग्रेस मेनांक घेवन आयल्या. मेळावो थंय सोपचों आसा, हें बाजार करून परतले !!

सुब्राय, तांकां विचारतलो पाचारतलो ........

बाप्पा, ते सगळे गोवा सदनांत गोंयच्या वातावरणांत गुल्ल आनी कार्यकर्ते आग्नेल इंस्टिटयुटांत 'दंगा खूश' करपांत गुल्ल ! शेवटीं मेळावो जावचे पयलींच हांकां बसयले आनी गाडी सोडली !!

सुब्राय .......,म्हाका खरें दिसना हें. म्हजो विस्वास ....

बाप्पा, आपूण दिल्लीक कॉंग्रेसीचो कार्यकर्तो म्हणून गेल्लों आनी फादर आग्नेल इन्स्टीटयुटांत राविल्लों म्हणून छातीठोकपणान सांगपी कोणूय मेळटा जाल्यार पळय बाप्पा. हांगाच्यान वतना नरसिंहराव झिंदाबाद, नरसिंहराव झिंदाबाद करीत गेल्ले. येतना मुर्दाबादी तोंड करून परतले. बचपाक येवपाक फुकट आनी वाटेर जेवणूय फुकट. हांकां खंय जेवणाचीं पॅकेटां वांटिल्लीं. तीं पावनात म्हणून हांणीं बाकीच्यो गाडयो आडायल्यो. रास्ता रोको केलो. बाप्पा, हांच्या भंयान

स्टेशनावेल्या स्टॉलांनी खंय आपलो माल लिपोवन दवरलो. फाटल्या कॉंग्रेस मेळाव्याक खंय कार्यकर्त्यांनी हीं स्टॉलां लुटिल्लीं. बाप्पा, आफ्रिकेक बी टोळधाड येता ती जाणा तूं? अकस्मात एक काळें कूप शें येता आनी हे टोळ सगळें शेतच खावन वतात. तशें कॉंग्रेसीचे मेळावे म्हळ्यार टोळधाडी जाल्यात.

-सुब्राय ........, म्हज्या मतान आयोजकांचें चुकलें. ताणीं गोंयकारांखातीर खास व्यवस्था करपाची.

-बाप्पा सारकें उलयलो. पोर्तुगिजांनी कशी गोंयकारांची खास व्यवस्था करून साडेचारशें वर्सां राज्य चलयलें ! गोंयकार तो! पोटाक आनी न्हिदपाक व्यवस्थित मेळ्ळें जाल्यार तो खुश! तूं पळयना गोंयचें राजकारण पसून भरिल्ल्या पोटार धेकर काडीत बल्कांवार बसून खबरो केल्लेभाशेन चलता तें? तशें हांकां सांबाळिल्ले जाल्यार हो घात जावपाच न्हय. त्याग, समाजसेवा आनी राजकारण हांची सांगड गोंयच्या राजकारण्यांनी तरी केन्ना घाल्या? संत कबिरान म्हळां मगा,

'बोये पेड बबूल का, तो आम कहाँसे होय?'

बाप्पा ... म्हाका ह्या वेचणुकांनी कॉंग्रेसीचें बरें लागना. न्ही, तांची युती जाल्या म्हणून न्हय, कुडचडेंचो आमदार व्हडा कोंसियेंसान आपल्या कार्यकर्त्यांक येवकार दिवपाक स्टेशनार आशिल्लो. तें पळोवन उजगांवचे कार्यकर्ते व्हडा उमेदीन दोन वरां स्टेशनार नाटकळ्ळे, तांचो आमदार येतलो म्हूण. पूण खंय गा, तोवूय ना आनीक तागेली पिकअपय ना. तो ह्या वेंचणुकांनी वेंचून येतसो दिसना.

सुब्राय ...., हालीं गोंयचेर आयलां कितें? फार्टी ते कोण शिक्षक कसलें शिबीर म्हण घेवपाक आयले ते वायणा घुस्पले. घुस्पले ते घुस्पले, लज वाऱ्यार उडोवन पळ्ळे. आतां हें दिल्ली प्रकरण. बाबूभटाक कितेंय नवचंडी बी करपाक लायल्यार बरी.

बाप्पा, नी नवचंडी करचेपयलीं कॉंग्रेसीच्या कुळदेवाक गाराणें घाल. गोंयचे तीन कार्यकर्ते दिल्लीक शेणल्यात खंय! तातूंत दोन चले आनी एक चली आसा खंय! तांकां तिनाक तीन परतीं पावय म्हूण सांगणी कर. तातूंत एक वाडलो जाल्यार कॉंग्रेसचो आजीव सभासद आनी कमी जालो जाल्यार मेळाव्याचो हुतात्मो करचो पडटलो.

गोंयच्या नांवान तें आनी अपसरण नाका रे बाबा!!

बाप्पा, जाय तुका असले फुके सवाय मेळावे??

**मंगळार, २६.७.९४**

११

# ते पदेर गेले.....तीं थेटरांय वतात!

सिनेमा थेटर म्हळें की म्हाका म्हज्या ल्हानपणांतली याद येता. म्हज्या भुरगेपणांत थेटरांत सिनेमा पळोवप म्हळ्यार केदें अप्रूप! थेटराभायर ती गर्दी. ते गर्देंत लायनीत रावन तिकेटी काडप. तिकेटी मेळ्ळयो नात जाल्यार पिक्चर पळयनासतना परत वचप म्हळ्यार लज शी म्हणून ब्लॅकान जाल्यार ब्लॅकान तिकेटी घेवप आनी पिक्चर पळवप. थेटरांत चारय वटेन नक्षीकाम, त्यो रंगीबेरंगी वण्टी, तातूंत ॲर कंडिशण्ड आसल्यार विचारूंच नाका. त्या सिनेमा पळोवपांत एक वेगळेंच थ्रील आसतालें.

अजूनय म्हाका थेटरांत सिनेमा पळोवपाक आवडटा. आयचीं कारणां जरी वेगळीं आसलीं तरी पूण तें थ्रील मेळना हें मात खरें. तरी व्हिडिओचेर सिनेमा पळोवपापरस हांव थेटरांत सिनेमा पळोवप पसंत करतां.

कांय लोक संवसारीक जिणेच्या पयल्या पांवड्यार आसतना थेटरांत वतात ते वेगळ्या कारणांक लागून, वचूं बाबडे! म्हजो इश्ट टुरार वता तेन्ना पिक्चराक वेगवेगळ्या कारणांक लागून वता. तो म्हण्टा परकी गांवांत ताका केन्नाय टॉयलेटांत वचपाचें आसत जाल्यार तो नीट थेटरांत वता. साधारणशी तिकेट काडटा आनी मनसोक्त टॉयलेट वापरून घेता. कोणाची कटकट लागना आनी भौशीक जाग्यानी फकत बऱ्या बऱ्या थेटरांनीच संडास बरे निवळ आसतात.

सकाळींच पणजे सारक्या शारांत कोणाकय मेळपाक वचत जाल्यार तो बारा वरांचेर मेळटलो म्हणून कळटा. इतलो वेळ कितें करप हो प्रस्न पडटा. अशा वेळार सदा सदांच थेटरांत वचून बसता. स ते सात रूपयांभितर बरो आवांताद

टायमपास जाता.

म्हज्या आनीक एका इश्टाची एक फावट मजा जाली. तो वेपाराखातीर सदां बेळगांवा वतालो. आनी काम सोंपतकूच रातची देडाची गाडी धरून परतो येतालो. रूम रातचो आठ वरांचेर सोडटालो, असो भोंवता, जेवतासर साडे णव जालीं. मागीर वचून पिक्चराक बसतालो. गाडयेक धा मिनटां आसतना स्टेशनार येतालो. आनी टिसीक कितेंय चारून बर्थ पटकायतालो. तो बद्द मडगांवां देंवतालो. एक दीस कितें जालें, हो सदां भाशेन पिक्चर सोंपोवन सवाय एकाक स्टेशनार पावलो. पळयल्यार गाडी अर्दवर लेट, कितें करतलो? बॅग घेवन एका बांकार बसलो. थंयच झेम लागली. तो जागो जालो तो बद्द सकाळचो साडे पांच वरांचेर! उठून पळयल्यार उजवाड जाला. ताका कितें घडलें तें समजलें. तेन्ना सकाळची गाडी पाविल्ली. हो गोंयचेभाशेन उठलो आनी भायर येवपाक दारार आयलो. टिसीन आडायलो. तिकेट मागली. ताणे सांगलें अशें अशें घडलें. टिसी आयकून घेवपाक तें कितें गोंय? हो तर हांतांत बॅग घेवन काणयो सांगता. ताका सोमतो व्हेलो आनी स्टेशनमास्तरा म्हऱ्यांत उबो केलो. ताचें म्हणणें तूं गोंयच्यान आतांच आयला आनी तूं विदावट तिकेट! ताका शेळो घाम सुटलो. कशें प्रोव्हार करतलों आपूण रातचो बेळगांवाच आशिल्लो म्हणून? इतल्यांत ताका याद जाली, सिनेमा तिकेटीची. ताणें तिकेट दाखयली आनी आपूण गोंयच्यान आयलां जाल्यार रातचो हो सिनेमा हांगा कसो पळयतलों आशिल्लों म्हणून प्रस्न केलो. तात्पर्य ताका सिनेमा पळोवपाचे संवयेन सोडयलो.

हांवूय जायत्या फावटी खूब पुरो जातकच वचून सिनामाक बसलां. एक वेळ पासार करपाचें साधन आनी सुशेग घेवपाचो बरो निष्कळंत जागो म्हणून! घडये त्या काळखाच्या वातावरणांक लागून जावये, न्हिदूय बरी पडटा आनी मन शांत जाता.

म्हजो एक इश्ट दोतोर. ऑपरेसांवां करपी. तो जेन्ना ऑपरेशनां करून थकता तेन्ना थेटरांत येता आनी न्हीद काडटा. इंटरवालाक उटटा आनी आपल्या कामाक वता. हांवें एक दीस म्हळ्ळें; दोतोर अशें कितें? जाल्यार म्हणपाक लागलो, 'थेटरांत सुशेग घेवपाक बरो, घरा वतां आनी न्हीद काडटां म्हळें म्हणून जाता? भुरग्यांचो बोवाळ आनी घरांतलो आवाज, ती न्हीद न्हीदच जायना. हांगा बरें आपलें, धा रुपयांत काम जाता. कोणाचीच कटकट ना.'

जायत्या वेळा कांय सिनेमा घरच्यांसयत व्हिडिओचेर पळोवपाचे आसनात. ते एकटुके वचून थेटरांत पळोवपाचे आसतात.

तेभायर टीव्हीच्या धाकल्या पडद्याचेर सिनेमा पळोवचेपरस व्हडल्या पड्ड्याचेर पळोवपाची मजा वेगळी ती वेगळीच. कोणय पिक्चराक लेट पावलो जाल्यार

ताची काळखांत सीट सोदपाक जी धडपड जाता आनी प्रत्येक सिटार बशिल्लो मनीस तो म्हऱ्यांत पावलो की शू शू  करता ताची मजा पिक्चराक वतल्या लोकांकच खबर आसतली.

पूण आतां चित्र बदललां. सिनेमा थिएटरां फटाफट बंद जावपाक लागल्यांत. तांचो जागो आतां कमर्शिअल कॉम्प्लॅक्सांनी घेतला. चडशे लोक आपल्या घरांतच पिक्चर पळयतात. ताका लागून गर्दी जायना आनी गर्दी जायना म्हणून थेटरां बंद जातात अशें म्हणटात. आज गोंयच्या थेटरांभायर सभ्य वा बऱ्या कपड्यांतले लोक दिसनात. तेभायर आतां लोकांच्यो रूची बदलल्यात. थेटरांत 'ॲडल्ट्स' पिक्चर लागत जाल्यार गर्दी जाता. नाजाल्यार शुकशुकाट!

सिनेमा थेटरांची समाजीक गरज आज लोक विसरत चलल्यात. इल्लो इल्लो मनीस एकमुळो जायत चलला. घडये आमचे फुडले पिळगेक सांगपाच्या काणयांनी आनीक एक काणी वाडोवची पडटली-काणी सिनेमाघरांची!!

बिरेस्तार, ता. १४.७.९४

१२

# ......देखून तुमकां इल्ली बुद्द शिकयली

हांव सदाबराबर मारिल्लया च्याची रूच जिबेर घोळयत ऑबेरॉयाच्या दारांत उबो आशिल्लों . पावस हय न्हय सो पडटालो , हांवें बेश्टेंच म्हणून , 'ऑ पावसा ! बरो मरे ?' म्हळें .

म्हज्या मनांत कोण तरी उलयल्ले भाशेन जालें , 'आसा वेळ ? गजाली करूंया .'

हांवें विचार केलो . बायलेक बसीर पावयल्या . सदा सांगातान च्या मारल्या . कांय नज . पळोवया तरी 'खंय बसुंया ?'

तूं मारूतीगडार यो . एकटोच यो आं .' हांवें सदाक कट मारलो . मातशें अर्जंट काम आसा म्हळें आनी स्कुटर स्टार्ट मारली तो बद्द मारूती गडार येवन थांबलों . म्हज्या आवडट्या सोप्यार येवन बसलों . म्हजे फाटोफाट धांवचेल्यांनी खेळचो तसो पावस आयलो . म्हजेपरस मेत्रभर भायर रावलो-'आतां उलय' .

'पावसा , तूं अंदूं खवळ्ळा सो ?'

'तूं केन्नाची गजाल उलयता ?'

'त्या आयताराक , वसंताल्या पुस्तकाचें विमोचन आशिल्लें त्या दिसा ?'

'म्हाका येन दिसलें' हांव आयलों'

'पूण असो ? इतल्या झाडापेडांची नासाडी करिसारको ?'

'तूं आयकतलो ? मदीं उलोवप ना ! जाल्यार आयक . म्हाका वसंताल्या पुस्तकाचें विमोचन पळोवंक जाय आशिल्लें . पुस्तकाच्या नांवानूच म्हाका भुरळ घाल्ली . निवलकाणयो . एक कॅक्टस जो म्हज्या नाकार टिच्चून म्हजे बगर वाडून दाखयता .

पुस्तकाच्या नांवावेल्यान भितर नदर मारली . म्हाका तागेल्या नागपंचम कथेंतलो पावस मानवलो . हांव आषाढांत बी पयलीं असो वाजत गाजत येतालों . कापास्ताद जायनाशिल्ली सूर्याक एक किरण धर्तरेर धाडपाक . तुका याद ना म्हजें निमित्त सांगून तूं शाळा बुडयतालो ती ? तसलो पावस परतून एकदां दाखोवचो अशें काळजांतल्यान दिसलें . तुवें केन्नाय तरणाटे उकते जीपीन पिकनिकेक बी वतना पळयल्यात ? ते कशे बेफाम जाल्ले आसतात ते ? म्हाकाय तसोच बेफाम जायन दिसलें आनी म्हजे सांगाती वारें आनी वादळ हिंवूय वसंतालें पुस्तक पळयतलीं म्हणून हट्टाक पेटलीं . दुसरी गजाल म्हळ्यार हालीं हालीं तुमी पावस म्हळ्यार फकाणांचेर व्हरतात रे . पयलीं भाशेन तुमी भिनात रे आमकां आतां . पयलीं व्हडली सत्री घेतलेबगर नोकरदार लोक आनी खॉळ- कांबळ घेतलेबगर कामकरी लोक भायर  सरतालो ?

आतां म्हज्यानय जायना म्हणून म्हाका चाळयत भोंवतात . हांव आयल्यार आडासे सोदतात .

म्हणून म्हळें दाखोवया म्हजो प्रताप !

राव , इतल्यान सोंपूंक ना . आनीकूय आसा .

म्हाका तुमची तिडक मारिल्ली . तुमची म्हळ्यार तुजी न्हय रे .

हांव जेराल उलयतां . तुमची म्हळ्यार सामान्यपणान समाजाकडेन बांदिलकी दवरपी लोकांची .

लायटीचे खांबे पयलीं लोखंडाचे आसताले . ते आतां परवडना वा ताचेपरस चड सुरक्षीत म्हणून शिमिटाचे वापरतात . आरे , निदान शिमीट पूण सारकें वापरात मरे . हांव रावतालों तुमचे खांबे कितले घट ते दाखोवपाक . बरें लायटीचे म्हळे म्हणून फोनाचे तरी धड . तेवूय बी कावलाक आयिल्ले भाशेन टक्क करून मोडपाचे मरे ! हांवें मातशें ओडून धरल्यार एकान एक खांबो आडवो मरे ? नायजाल्यार तुमी गटारां , रस्ते बी तशे खंय निवळ दवरतात ? मनात म्हळें एका निमित्तान निवळ करूंया . कितें सांगतलों ! निवळसाण म्हणटना बरोबर शिमिटाचेय खवळे येवचे ? विटलो रे बाबा जीव तुमचेर !

एके भाशेन मात जीव धादोस जालो . तुमची कुचंबणा पळोवन . म्हजो खरो पराभव जालो तो पुस्तक विमोचन सुवाळ्यांत . म्हजी पर्वा करिनासतना कोंकणीचे जे वांगडी भर पावसांतल्यान आयले तांची तोखणाय करपाचीच .

मनांत असुदाय आनंद जालो तो कांय लोक स्टेशनाचेर रात काडतात ती पळोवन . तुगेलो कालेंचो इश्ट खंय घरा वचपाक म्हणून गाडयेंत बशिल्लो तो सकाळचो तसोच उठून परतो ऑफिसाक आयलो .

पूण कितेंय सांग . . . . मजा आयली . खूब तेंपान मनशाक बुद्द शिकयिल्लयाचें

समाधान जालें .'

'पूण पावसा . . . . तुवें व्हडले व्हडले रूख आड घाले तांचें कितें ?'

'आं . . . . . . . .ताचें पातक म्हजेर नाका . भर मिर्गार कांय झाडांच्या मालकांनी रान खातें तांकां झाडां मारपाक दिना म्हणून म्हाका होरायलो . मिर्गावयली होरावणी हांव केन्नाच भायर मारिना . आतां पडटा थंय झडटाच न्हय ? मातशें आलतू फालतू जाताच तें ! आनीक एक , बेंकांचे रिणां मेळे केल्यार आज चार वर्सां जालीं . पयशे ते , ते आतां उरल्यात ? म्हणून तुमकां नवी रिणां मेळोवन दिवपाची हांवें ती तजवीज केल्या ती कांयच न्हय ? आतां उलय . . . . . हांवें केलां तें वायट ?'

बिरेस्तार ,७ .७ .९४

१३

# ....फाल्यां बायलो घुस्पल्यो जाल्यार?

एक दीस मजा जाली. हांव आपलो सदांभाशेन बाजारांत वतालों. म्हजेबरोबर सदा. आमच्यो शॅरांच्यो खबरो ताण चलिल्ल्यो. इतल्यांत म्हाका एके बायलेन आडायलो. बायल तशी बऱ्या घराण्यांतली शी दिसताली पूण म्हाका अनवळखी. आडायलो म्हणटकूच रावचें भाग पडलें. हांवें कितें म्हणून विचारचें पयलींच तिणें सुरू केलें,'तुवें तो टीव्ही सारको म्हणून केला तो परतो बंद पडला मरे! कितें सारको केला तर तुवें?'

'टीव्ही? खंयचो टीव्ही?' हांवें विचारलें.

'पयर तूं येवुंनाशिल्लो आमगेर?' सदा म्हज्या तोंडाक पळयता.

'हांव टीव्ही सारको करिना. तो आनीक कोणय आसतलो?' - हांव.

'तूं नंदू न्हय?'

'हांव मणेरकार.'

'आ....सॉरी आं, सॉरी आं' करीत ती कुशीन सरली,

इतल्यान सोंपलां? ताचेउपरांत एक दीस मडगांवां मजा जाली. हांव गोमंत विद्या निकेतन लायब्रींत वतालों. स्कुटर पार्क करतना एकटो मनीस आयलो. ताका हांवें पयलीं पळयला, तो खंय रावता तें हांव जाणां पूण ताचें नांव नकळ. तो म्हजेपरस दोन मिटर पयस रावला आनी शूत शूत करता. हांवें मनांत म्हळें, हो शॅर्त पयशे मागपाक रावला. हांवें ताका पळयनाशिल्लेभाशेन केलें आनी चलूंक लागलों. हो म्हजे फाटल्यान लागलो. परतोय शूत शूत करता. हांवेंय आयकुंनाशिल्लेभाशेन केलें आनी लायब्रींत भितर सरलों. पुस्तक बदललें आनी

भायर आयलों . इतले मजगतीं धायेक मिनटां गेलीं . हांव स्कुटरीम्हर्‍यांत यो जाल्यार ती व्यक्ती स्कुटरीम्हर्‍यांत रावल्या . आतां म्हळें, सुटका ना . हांव म्हजें तोंड सीरियस करून स्कुटरी म्हर्‍यांत आयलों . ताणें परत शूत शूत केलें . आतां मात नदरेक नदर जाली . हांवें विचारलें, 'कितें ?'

'सर, माय् टीव्ही वॉज टु बी रिपॅर्ड,'

म्हाका हांसचें काय कितें करचें तेंच कळ्ळेंना . हांवें म्हळें,

'सॉरी, आय ॲम नॉट अ टी व्ही रिपेरर, ही मस्ट बी नंदू'

' ओह....सॉरी....सॉरी....यू लूक लायक हीम, प्लीज डोंट मायंड'

मनीस एकासारखे दिसप हाचे कितले गैरफायदे हाचो म्हाका कल्पनेनच अणभव आयलो . तरी बरें नंदू म्हजेबरोबर शिकनाशिल्लो म्हणून ! ना जाल्यार हांवें तागेलो ना जाल्यार ताणें म्हज्या नांवाचो मार खावचो पडटलो आशिल्लो !

तशे आमी जुंवळे न्हय, एका आडनांवाचे, बारा दिसांचे अशेंय न्हय . एका कुळाचे एका गांवचे अशेंय न्हय . एकाच वर्सा वा एके तिथीक जल्मल्ले अशेंय न्हय . पूण लोक घुस्पतात ! ! हांवेंय जर टीव्ही सारको करपाचो कोर्स काडिल्लो जाल्यार तागेलो बिझनेस खावन वचपाचो .

हांव 'सण्डे' नांवाचें सातोळें नेमान वाचतां . ह्या सातोळ्यांत एकासारके दिसपी मनशांचे फोटे छापतात . आनी अशे फोटे धाडप्यांक दोनशें रूपया इनाम दितात . हांवेंय आमचे फोटे धाडल्यार वायट न्हय, सात आठ दिसांची च्या सुट्टली ना जाल्यार पारजतांच्या ६ म्हयन्यांच्या पेपरांचो खर्च सुट्टलो .

तर ... पयर हांव शेनवारचो सांजेचो स्कुटर घेवन सांग्यारसावन सांवड्डया येतालों . इन्डस्ट्रियल इस्टेटीकडेन पावपाक एकटयान आसानाशिल्लो फोर्स काडून शूत शूत केलें . हांवें ब्रेक मारलो . पूण थांबतासर धा मिटर पैस पावलोंच . तो धांवत धांवत आयलो आनी स्कुटरी म्हर्‍यांत पावपाक शॉकाद जावन उबो .

'तूं नंदू न्हय ? तसो सो दिसलो .'

' यो यो बस, खंय वचपाचो तूं ?' हांवें म्हळें .

'सांवड्डया'

'बस या' अशें म्हणून हांवें स्कुटर गियरांत घाली .

'जाणा मरे, तूं म्हाका वळखुपाक चुकलो म्हणून तुजो गुन्यांव ना . म्हाका नंदू समजुपी तूं कांय न्हय म्हळ्यार पांचवो सव्वो तरीं आसतलो . 'डॉन्ट वरी अबावट दॅट' अशें म्हणून हांवें म्हजी वळख करून दिली . ताची वळख घेतली . कांय खबरी केल्यो आनी सांवड्डया पावतकच 'नायस टु मीट यू' अशें म्हणून बाय बाय केलें . तो खूश, लिफ्ट मेळ्ळी म्हणून हांव खूश नवो मनीस मेळ्ळो म्हणून .

पूण आतां हांवें थारायलां एकतर हांवें टीव्हीचो कोर्स काडप ना जाल्यार त्या नंदूक सोदून काडप आनी सांगप बाबरे, एकतर तूं मिशो काड ना जाल्यार हांव तरी काडटां ; पूण हो घुस्पागोंदळ नाका . आमचें बरें आसा, फाल्यां आमच्यो बायलो घुस्पल्यो जाल्यार घात न्हय ?

बुधवार, २९.६.९४

१४

# फोन नांवाचें विकतें श्राध्द

बाप्पा, आज फोंड्यां सो?

फोन बुक करपाचो फॉर्म हाडपाक आयिल्लों.

कित्याक सुखाचो जीव त्रासांत घालता?

सुब्राय, तूं उरफाटोच उलयता ती संवय म्हणून काय म्हाका कॉर्त दिवंक?

बाप्पा, ह्या गोंयांत सत्य सदांच उरफाटें आसता.

तें कशेंय आसूं म्हाका घरकान्नीन सांगलां. शकूक सोयरीक सोदपाक सुरू करचेपयलीं घरांत फोन जाय. फोनाक पळोवन जावंय पदरांत पडल्यार पडलो.

अशें अशें, म्हणटकूच जावंयाक भुलोवपाक तुका फोन जाय तर? निमित्त वायटशें ना. पूण बाप्पा, फोन मेळटलो जाल्यार सोळा सोमार बी करतात तशें पासियेंसाचें व्रत करचें पडटा. सोमार तरी सोळा जातकच सोपोवं येतात. ह्या व्रताक काळवेळाचें बंधन ना. तें कितलींय वर्सां चलूं येता. म्हज्या इश्टान फोन बुक केला. आज दोन वर्सां जालीं. अजून पत्तो ना. देड वर्सां फाटीं अकस्मात एक फोनांतलो मनीस आयलो. ताचेकडल्यान २५० रूपया घेतले, 'फोनाचे खांबे फोंड्यां आयल्यात. ते थंयच्यान हांगा हाडपाक जाय. हो खर्च करपाक खात्याकडेन पयशे नात. तुका फोन बेगीन जाय न्हय म्हणून हांव ते खास पिकप करून हाडटां.' फाटल्या देड वर्सात तो मनीस ना आनी खांबोय ना. बाप्पा, ही फोन नांवाच्या नाटकाची नांदी.

सुब्राय, हे त्रास फोन मेळचेपयलीं मूं? एकदां कांय तो मेळ्ळो की मागीर सुशेग

मूं ? खंयचीच वस्त त्रास काडले बगर मेळटा अशी गजाल ह्या गोंयांत आसा ?

बाप्पा ; फोन मेळटकूच खरी त्रासांक सुरवात जाता .

आमच्या गांवांत आतां एस टी डी जाल्या . म्हळ्यार जगांतल्या खंयच्याय तॅर्राक आमच्या गांवांतल्यान फोन करूं येता वा थंयच्यान आमकां करूं येता . तर ही क्रांती घडटकच म्हजो एक इश्ट फोन करपाक गेलो . फोनाचो नंबर घुंवडायतकच हो 'हॅलो मॅडम , एक मिनीट मॅडम' .... करत आसा .

हांवें म्हळें , 'क्या हुवा ?...

'क्या औरत है रे वो , मैं बोलता हूं सुनती ही नहीं , दमादम बोलते ही जा रही है ?'

'क्या बोली वो ?'

'कुछ नही रे , लायन बीझी है , बादमें ट्राय करना , लेकिन मेरा एक लब्ज सुननेको तैयार नहीं है !'

' अरे बाबा , वह औरत नहीं ; औरत की आवाज में कॅसेट बोल रही थी ?'

बाप्पा , इतल्यान सोंपूंक ना , आमगेल्या गांवांत फाटल्या दिसांनी फोन शाणेपणां सांगतालो . तूं खंयचोय नंबर घुंवडाय तुका तो सांगतालो ,'तुगेलो नंबर चुकला . बरोबर नंबर पळोवन घे .' तुवें तोच नंबर परतो घुंवडायलो जाल्यार ह्या वेळार लायन बीझी आसा म्हणून सांगतालो . आनी बाप्पा , तूं कितलोय उलयलो म्हणून ताका आयकूंक येना , तो फक्त शाणेपणां सांगता . अशा वेळार तुगेली तळपांयांची .....मस्तकाक पावतली , रिसीव्हर आपटूचो सो दिसतलो पूण तसलीं पिशेपणां करूं नाका . तो फुटल्यार सारको करपाक मेळचो ना . आनी मनीस मेळ्ळ्यार नवो फोन मेळचो ना . म्हजो नवो ताल्ल फोन ! एक दीस कितें जोगूल म्हणतात तें आयलें , आनी बाप्पा , म्हज्या फोनाचें कुरासांव वडोवन गेलें . शेवटीं बाबा पुता करून हांवें फोन बदललो . म्हज्या गळ्याक पडला तो शिवाजी तेंपावयलो काळो कुळकुळीत फोन . विचारल्यार म्हाका फोनवालो सांगता , ह्याच फोनाचें कुरासांव घट्ट आसता . फट दिसता जाल्यार यो , अशें म्हणून ताणें म्हाका ताचो गुदांव दाखयलो . गुदांवभर कुरासांव बंद पडिल्ले नवे ताल्ल फोन !!

म्हणटकच तुका जर नवो ताल्ल फोन दिलो जाल्यार समज फोनवालो पेजेक रडटा . सोमतीच पेज वाड आनी पोन्नो फोन घे . ओगीच न्हय ते जाणटेले नाबाद सत्तर अयर्शी काडटात ते ! फोनय आतां मनशांभाशेन जाल्यात .

बाप्पा , आनीक एक , तूं 'एसटीडी' घेतलो ? घेतलो जाल्यार विचार करून घे . तुका खूब गजाली करच्यो पडटल्यो , फोनाक चावी घालची पडटली . शेजारी पाजारी फोन करपाक म्हणून आयले जाल्यार तांचेकडल्यान नंबर घेवन तुवें घुंवडावन दिवचो पडटलो . तांकां घुंवडावपाक दिलो जाल्यार मडगांवां दिपूक फोन

करतां म्हणून सांगून अमेरिकेक दिपाकडेन उलयल्यार तुका पत्तो लागपाचो ना. बील येतकच मात तुका कुरासांवाचो आताक येतलो.

आं, आनीक एक, तुगेलो सनी कॉलेजांत वचपाक लागला. तो जर तरणाटेपणांतली मजा म्हणून वा उमळशीक म्हणून००८५२१७२३८०२२ हो हाँगकाँगाचो नंबर घुंवडावपाक लागलो जाल्यार बाप्पा, दोन म्हयन्यांचें बील येता म्हणसर भाट पावणेर काडचें पडटलें.

बाप्पा, कलकलना बी मूं?

ना रे सुब्राय, सांग तूं.

तूं एसटीडी घे अथवा घेनाका, पूण एक धा हजार कडेक काडून दवर. केन्नाय चुकून बी बील चड येवं येता. अशा वेळार तुवें मुकाट्यान तें बील भरपाक जाय आनी मागीर शक्त आसल्यार झगडपाक येवं येता असो तांचो नेम नं.४४३ म्हणटा.

बाप्पा, मडगांवां एकदां ह्या फोनवाल्यांक जाग येवची म्हण फोनाची मरण यात्रा पसून काडली. अशे फोन म्हयन्याचे म्हयने डॅड जावं येतात. पूण तुका बील चुकचें ना.

बाप्पा, ते भायर रातचे अपरातचे रॉंग नंबर येतात ते सांगूंक विसरलों. तुमकां कितलीय तिडक मारली, तरी 'सॉरी रॉंग नंबर' म्हणून 'पोलायटली ' सांगपाचें पासियेंस तुमी दवरूंक जाय. आनी आतां हे आसात ते प्रॉब्लेम थोडे म्हणून मनमोहन सिंगाचो सल्लागार चेलय्या हांणीं एक सुचोवणी केल्या खंय. जे कोण फोन बाळगितात तांचो दर्जो उंच थारता, तेन्ना तांचीं रेशनकार्डांची सवलत काडून घेवची म्हणून.

बाप्पा, म्हणून सांगतां, फोन हें विकतें श्राध्द, अजूनय घेवपाची उमेद आसा?

सोमार, ता. ३०.५.९४

१५

# .... तर धंदो बुडचो ना ?!

सांग्यार फेस्त म्हळें कीं म्हाका बेश्टोच भंय दिसता. जाण्टेले सांगतात सांग्यावेल्या फेस्ताक तिसाल लागता, तेन्ना वाहन सांबाळून चलोंवक जाय. अपघाताचें अपसरण आनी कित्याक अशें म्हणून हांव केन्नाच कोणाकच सांग्यार फेस्ताक यो म्हणून आपयना. त्या वर्सा अजयाक कसली कूय आयली म्हणून कोण जाणा! आमी फेस्ता दिसा मिराबागांत वाऱ्याक बशिल्ले, अकस्मात हाका फेस्त येवजलें, 'दिनेश, तूं म्हाका फेस्ताक केन्नाच आपयना. पूण आज हांव वतलोंच.'

हांव आनी कितें म्हणटलों. मुकाट्यान स्कुटर स्टार्ट मारली आनी अजय ताच्या इंड-सुझुकी चेर आनी हांव म्हज्या इश्टासयत स्कुटरीचेर अशी यात्रा सुरू जाली. आमी काकोड्या पावपाक खंयच्यान तरी 'मिसायल' शें एक कुत्रो आयलो. ताणें म्हजे स्कुटरीक कट मारलो आनी अजयाल्या टायरांमदीं घुसलो. तो धपकोच इतलो जबरदस्त आशिल्लो कीं मुळा कुत्रो, कुत्र्याचेर इंड-सुझुकी आनी तांचेर अजय अशे धडाम करून आपटले.

आमी अजयाक उठयतासर कुत्र्यान कूंय कूंय करून आपली सुटका करून घेतली. मोटारसायकल उबी केली. अजयाल्या हाताक मार बशिल्लो. तशेच कोणाली जीप घेतली आनी सांवड्या आयले. आमगेल्या सांवड्या ऑर्थोपॅडिक बी म्हण्टात ते आठवड्याक फकत एक फावट मेळटात. ह्यो खबरी म्हळें धड न्ही. आमी नीट्ट मडगांवां आयले. आनी दोतोर +++++ चें बुतीक सोदून काडलें. वयर वचून पळय जाल्यार कुलप. आ!.... आतां घात जालो ना? आमकां आनीक कोणच

येवजना . बेश्टीच म्हळें चवकशी करूंया अशें म्हणूंक थंयच आनीक एका दोतोरालें बुतीक दिसलें . बुतिकाभायर व्हडलो बॉर्ड आशिल्लो . ताचेर पायलीभर डिग्र्यो . हांव भितर सरलों . बरोबर म्हजो इश्ट , दोतोर , दोतोर+++++ ना आज ?'

'तो गेलो घारा , कित्याक ? कितें जालां ?'

'ना दोतोर जाय आशिल्लो मातसो .'

'हांवय ऑर्थोपॅडिक यू डिडन्ट सी द बोर्ड ? आय परफॉम ऑपरेशन ॲन्ड ऑल .' मनांत म्हळें होवूय ऑर्थोपॅडिक जाल्यार सांगू या ताकाच . अजयाक कसोय जाल्यार रिलीफ मेळूंक जाय .

'दोतोर म्हगेल्या फ्रेंडाक हाताक फ्रेक्चर जाला .'

'ब्रींग हीम हियर , तपाशया .'

आमी अजयाक घेवन वयर आयले .

दोतोरान हात पळयलो . बोटां बी ओडलीं . 'आ सायबा' हो हात मोडला मोरे .'

हात मोडला म्हणनाफुडें अजयाक खप्प जालें .

'दोतोर , आतां कितें करपाचें ?'

'कितें कोरपा काय म्हणोन म्हाका विचारताय ? नाचतोना कोयणा ?'

'दोतोर , हात हांवें म्हाका जाय म्हणून मोडून घेतला ? त्या कुत्र्याक कसली पिडा मारली म्हणून कोण जाणा ?' अजय .

दोतोर विचार करता . . .

'आतां साडेआठ जाल्यांत न्हय ? आमी सवायणवांक ऑश्पीतालांत या .'

'दोतोर पयलीं ताका कितेंय फस्ट एड दिवपाक नाका आशिल्ली ?' आमी ताच्या म्हऱ्यान पावल्यार अर्दवर जाल्लें . पूण ताणें कांयच करूंक ना म्हणून हांवें सुचयलें .

'येस येस , यू आर रायट .' दोतोर परतो विचारांत गुल्ल .

'दोतोर , ताका हाताक पट्टयो बांदून , हात गळ्याक बांदया . ही वील फील कम्फर्टेबल .'

'येस येस' असें म्हळें आनी दोतोर भितर वचून कंपासांतली रूलर घेवन आयलो .

'दोतोर , वी रिक्वायर बीग रूलर्स . तुमचेकडेन ना जाल्यार हांव घेवन येतां .'

'तूं वेताच न्हय जाल्यार हेंवूय घेवन यो .' अशें म्हणून ताणें बरोवन दिलें .

'हें प्लास्टर आनी गॉज .'

हांवें सकयल वचून सामान हाडलें . दोतोरान पट्ट्यो बांदल्यो , आनी हात सोडून दिलो .

'दोतोर हात गळ्यांत बांदया .'

दोतोरान हात गळ्यांत बांदलो .

'दोतोर, ताच्यान दुखता तें सोंसपाक जायना, ताका पेनकिलर कितेंय दिल्यार कशें ?'

'येस, येस, यू आर रायट .'

'हांवें मनांतल्या मनांत देवाक उलो मारलो . हाच्या तकल्यांत सारखें इंजेक्शन घाल रे बाबा . भायर आयलों . परतोय तागेलो बोर्ड पळयलो . आतां फस्ट अेड सोंपिल्ली . अजयाक मात्शी तरतरी आयली . हें पळोवन दोतोरान सांगलें ,'तुमी कॅशे येयल्याय ?'

'मोटारीन आयल्यात .'

'व्हेरी गूड . आतां हें सामान घेवन तुमी+++++++ म्हगेल्या ऑशिपतालांत येयाय . थिंगा प्लास्टोर घालया .'

'दोतोर, पूण पयलीं ॲक्स रे काडपाक नाका ?'

'कांय गोरोज ना . हांव तुमकां ॲशिपतालांत कित्या व्होरतां ?' थिंगा मुगे बायल आहा आनी ॲसिस्टेंट आहा . तांकां तूगे हात ओंडून धोरपा लायतां . हाडा एक इंजेसांव कोरया, मागीर प्लास्टोर घालतां .'

"दोतोर, प्लास्टर फाल्यां घाल्यार जायना ?'

'तूं प्लास्टोर आयज घालिना जायोत तर तुका पारालीज जातेली . हाडांक नर्व बी सांपोडली जायत; केशें कोवता ?'

'आवयस ! पारालीज ? आनी इंजेसांव हाडाक ? दोतोर, हांव हात असो घेंवन भोंवतां . दिनेश, आमी या . झक मारलें हें सगळें . मोठ्यार पडलें मरे हें '- अजय .

'आरे, तूं येसो उलोयता तो तुगे हात हांवें मोडिला ? सांग रे'

'बरें तें आसूं दोतोर . आमी फाल्यां ॲक्सरे काडटात आनी येतात तुंज्या म्हऱ्यांत . ॲक्सरेचेर हाडाचें पोझिशन कळटलें न्ही ?'

'आरे, आज प्लास्टोर घालपाचें, आनी सोवकासाय ॲक्सरे काडपाचो . हाड बा मोडलां जायोत जाल्यार ऑपरेशन करपाचें पोरतें प्लास्टर घालपाचें .'

'दोतोर पूण प्लास्टर विदावट ॲक्सरे म्हळ्यार मनाक पटना .'

'दोतोर हांव वो तूं रे ?'

'दोतोर आमी येतात हॉस्पिटलांत . तुमी दोतोर न्ही ?' हांवें अजयाक दोळो मारलो . 'सो यू वील ॲडवायज अस वॉट इज रायट .'

'चोयाय, बेगसार येयाय . हांव भायरच राबोतां .'

'बरें दोतोर .'

अशें म्हळें आनी आमी हॉस्पिटलांत येवपाच्या' आग्र्याहून सुटका ' केली .

अजयालो एक सोयरो फार्मासकार. ताका येतना मेळ्ळे. हो फेक्ट सांगलो. तो हांसपाक लागलो. रातचो हात चड दुखलो जाल्यार ही गुळी घे. सुशेगाद न्हीद. फाल्यां सकाळीं ॲक्सरे काडून दुसऱ्या दोतोराक दाखयल्यार जालो.

तेप्रमाण दुसऱ्या दिसा दोतोराक दाखोवन तिसऱ्या दिसा स्टील प्लेट बसोवन अजयाक स्टील मॅन केलो!

खबरेक आयिल्लेकडेन ताचो फार्मासकार सोयरो सांगतालो. आमच्या फाटल्यान एकटो दुसऱ्या दिसा खंय रातचो इकरा वरांचेर आयलो प्लास्टर सोलूशन सोदपाक. ताणें विचारलें'इतल्या रातचो सो रे?'

'ना,++++++ आयलां. भावाक हॉस्पिटलांत दवरला. मडगांवां फेस्ताक पांयार वांसो पडलो. दोतोर आतांच प्लास्टर घालया म्हण्टा.'

'ॲक्सरे काडलो रे?'

'ना. दोतोर मागीर काडया म्हण्टा.'

अजयान म्हळें आमी पळून आयले न्ही रे, म्हणून तो आतां पेशंटांक कितेंय सांगचे पयलीं हॉस्पिटलांत व्हरून न्हिदयता दिसता. तेवूय आमचेभाशेन पळ्ळे जाल्यार धंदो बुडलो ना?!

बिरेस्तार, ता. २६.५.९४

१६

# सेशन-देवा ! तूं पाव रे बाबा!

बाप्पा : इलेसांव लागीं पावलां . सादूर राव .

सुब्राय : कोणाचें ? इश्ट केपें सोसायटीचें ?

बाप्पा , सोसायटीचें न्हय . गोंयचें , गोंयचें ! !

गोंयचें ? छे , शक्यच ना . कित्यावेल्यान म्हणटा तूं ?

कित्यावेल्यान ? तूं पंचवाडे वचून यो .

कित्याक ? सगलो झगझग चकचक . सगळ्याक पावला पावलार सोडियम बल्ब घाल्यात . दिवाळी घराघरांनी जावचेबदला हेच रस्त्यावेले आकाशदिवेशे दिसूंक लागल्यात . लोकांक हे म्हारगायेंत नवे आकाशदिवे पेटोवपाची गरज ना .हे दिवे पुरो . घरभर उजवाड घालपाक आनी गांवभर उजवाड करपाक . हो रस्तो सामको ॲरपोर्ट रोड कसो दिसता .

सुब्राय , दुसरो ॲरपोर्ट शिरोड्या बी जायना मूं ?

जायत घडये . फुडल्या इलेसांवांत !!

सुब्राय , एक फायदो जातलो . एकदां खंय अमेरिकेंत अर्धा वराखातीर लायट गेली . त्या वर्सा खंय तांची लोकसंख्या डबलान जाली . तेखातीर ते आतां अमेरिकेंत लायट वचपाक दिनात . हांगाय तशेंच जावये . लायटीचो झगझगाट पळोवन लोकसंख्या उणी जातलीच .

व्वा ! बाप्पा , कितें तकली रे ?

मागीर ! तो भावी मुख्यमंत्री . ताची तकली अशीच बिफोर टायम धांवपाक जाय .

बाप्पा, तकली बिफोर टायम राजकारणांत धांवपाक जाय, तोच खरो जैतिवंत राजकारणी जाता. ह्या प्रकल्पांनी तकली घाल्यार फक्त चॅरमेनशिपच मेळपाची. मंत्रीपद मेळना!!

हयवय, पयर पळोवना? राजान सांगलें, म्हाका पांच मंत्र्यांचे राजिनामे जाय. मंत्री मंत्रिपदां फाफडून मेकळे! आतां मंत्रीय ना आनी चॅरमनय ना.

बाप्पा, सध्याक ना, हें मान्य. पूण हें कॉंग्रेसीचें राजकारण. तांची राजकारणाची रीत वेगळी. ते चोराकय सांबाळटात आनी सावांकय सांबाळटात. मातसो राव, थोड्या दिसांभितर आज जे भायर दिसतात तेवूय भितर येतले. तांचो म्हालगडो उपमुख्यमंत्री जातलो. तूं पळोवशीत.

सुब्राय, म्हाका दिसना रे अशें घडत म्हणून.

बाप्पा, तुका दिसना गा. पूण नरशिंवरावाक दिसलां न्हय ते भाजपांत वतात म्हणून?

सुब्राय, बारीक विचार कर, सार्दिनबाब इतलो निश्ठावान कॉंग्रेसमॅन, पूण आजमेरेन शेत आनी वीज हाचेभायर ताका कितें मेळ्ळां? निदान आतां तरी मुख्यमंत्रीपद वा उपमुख्यमंत्रीपद बी मेळपाचें. पूण ना. कॉंग्रेसींत निश्ठावानांक स्थान ना. स्थान आसल्यार बडटी ना. पूण केन्ना बंडखोरी जाल्या?

बाप्पा, तुमी 'सर्वायवल ऑफ द फिटेस्ट' म्हणटात तें जाणात मूं? एक भाऊसायब सोडलो जाल्यार हेर मुख्यमंत्री जाल्यात ते पार्टी बदलिल्ले हें मान्य? सगळ्यांक जोखून पळय. हें कित्याक जाणा? बाप्पा, कॉंग्रेसीची स्ट्रेटजी वेगळी. जे कापास्ताद दाखयतात तांकां कॉंग्रेस इनाम दिता. तसल्यांकच मुख्यमंत्री बी करता. कारण तांकां पक्ष सोडपाक कळटा म्हणून तांणीं सिध्द केल्लें आसता. जांकां हें जमना तांकां एकाच दांव्यांन बांदून दवरल्यात.

हय मरे सुब्राय, म्हाका हें सुचूंकच नाशिल्लें.

बाप्पा, सुचतलें कशें? तूं बाबडो साडेभावार्थी! हें राज्य फटिंगांचें आनी राजकारणय फटिंगांचें. पळय मरे, साडेचार वर्सांत सात मुख्यमंत्री. कितल्या म्हयन्यांक एक पडलो हाचो हिशोबच जायना.

बाप्पा, आतां आनी पंचायती राज्य आयलां. पंच सरपंच बी म्हणटात ते वेंचणुकांनी थारतले.

सुब्राय, अशो कितल्यो वेंचणुको आमकां लागतल्यो काय? म्युनिसिपालिटीची एक, आमदारांची एक, खासदारांची एक आनी आतां पंचायतीचीय? देवा सायबा! आमगेले जमतात तितलेय पयशे फक्त वेंचणुकांनीच सोंपोवपाचे काय?

बाप्पा, असो पिंरगता कित्याक? मातसो वेगळे तरेन विचार कर. पयलीं आमदारकेच्याच वेंचणुकांक पयसो करपाक मेळटालो. आतां पंचायतींच्याय

वेंचणुकांक करपाक मेळ्ळो ना?

हय, हें मात खरें.

बाप्पा, पयर म्हाका एक असोच डमी उमेदवार मेळ्ळो. प्रत्येक वेंचणुकेंत तो हटकून उबो रावता. आनी मागीर कितेंय कांचनम हातार पडटकच आपली उमेदवारी फाटीं घेता. तो इश्टाक सांगतालो'जाणा मरे, म्हाका मगो ची तिकेट मेळटा. हांवें फक्त ६ लाख दिवचे पडटात. हे खातीर हांवें एक स्कीम काडल्या. तुमी म्हज्या बरें मागप्यांनी, म्हाका फायनान्स करपाचो. जशें काय इलेंसांव लार्गी पावलें, हांवें म्हजी उमेदवारी फाटीं घेवपाक आंकडो सांगपाचो. अधिकचाराचे जे कितें येतात ते आमी वांटून घेवपाचे.' हांवें ल्हवूच कूस मारली. बाप्पा, आज वेंचणुको म्हळ्यार धंदो जाला. असोय पयसो, तसोय पयसो! पयशांर पयसो करपाचो!

हय. सुब्राय, हें मात खरें. आमच्यो वेंचणुको म्हळ्यार राजकारणाची वेंचणूक, तातूंत पयशांचें राजकारण, धर्माचें राजकारण, मनशाचें राजकारण, आनी वेंचणुकेचेंय राजकारण!! वेंचणुकांतली अधोगती पळयल्यार सेशन देवा, तूं अधिकारार राव रे बाबा!! अशें म्हणपाची पाळी!

सोमार, ता. १६.५.९४

१७

# लग्न जाता? टाडा लागलोच!

म्हाका एकट्याली लग्नाची पत्रिका आयल्या. पत्रिका तशी बरी. चली नाक दोळ्यान सुंदर म्हणटात तशी पत्रिका रंगान व्याकरणान मजकुरान वेवस्थित आशिल्ली.

लग्नाचो दीस ३० एप्रिल १९९४, सकाळचो १० वरां २६ मिण्टांचो म्हूर्त, लग्नाचो जागो 'टाडा कॉंप्लेक्स, सिने प्रशांता लागसार, कुडचडें गोंय.'

म्हाका प्रस्न पडलो संजय दत्ताक लायिल्लो तोच टाडा काय हो?

टाडा म्हळ्ळो कीं म्हाका संजय दत्ताची याद जाता. बॉंब स्फोटांचे भानगडींत ताका टाडा लायिल्लो. आनी टाडा लागप म्हळ्यार बंदखणेची जीण करपं अशें म्हणटात. आयुश्यभर हे बंदखणींतल्यान सुटका ना.

टाडा कॉंप्लेक्सांत लग्नासारको सुवाळो दवरप ही कल्पना म्हाका भौ आवडली.

लग्न जावप म्हळ्यार बंदखणींत (बायलेच्या) पडप अशें लग्न जाल्ले जाण्टेले म्हणटात.(आंकवार जाण्टेले रामनाम सत्य है म्हणपाचें जालें तरी लग्नाक तयार आसतात ती गजाल वेगळी!)

आनी ही बंदखण सादी सुदी न्हय. 'लग्नाची बेडी' नांवाचें नाटकच बरयलां हाचेर!

लग्नापयलीं खंय जायतसो जायथंय जाय तेन्ना भोंव....नाच...आमच्या गोंयच्या राजकारण्यांभाशेन!!

एकदां काय टाडा लागलो.....खेळ खलास.

म्हजो एक इश्ट आसा. लग्न जावचे पयलीं इतलो जॉली आशिल्लो कीं आमी दुरार गेले जाल्यार ताचेशिवाय वचनाशिल्ले. आमचो टायमपास बेस बरो करतालो; बाबडो एक दीस लग्न जालो. त्या दिसाच्यान जो हांसपाचो बंद जाल्लो तो फाटलीं धा वर्सां हांसूंक ना. अकस्मात कितें जालें ताका म्हणून खबर ना. कल्पना नाशिल्ली कीं लग्नाची बेडी इतली टाडा लायिल्ल्या गुन्यांवकाराभाशेन पंक्चर करता म्हणून!

म्हजो मडगांवचो इश्ट सांगता. छॅः लग्न जावप म्हळ्यार त्रास रे बाबा. मातसो भायर सरतां म्हणून बायलेक सांगल्यार पुरो, हिगेलें सामानाचें लिस्ट तयार. रातचो उसरां पावतलो म्हणून सांगल्यार हिचो 'क्विज टायम' कॉमेस जाता. कोणा म्हन्यांत वता, कित्याक वता, कितें काम आसा, आनीक कोण येतलो, कित्याक वेळ जातलो, तूं वचना जाल्यार जायना? इ. इ.

म्हाका ज्युस्त टाडा ची याद जाली. बंदखणेंतल्या कोणाकय मेळटलो जाल्यार परमिशन जाय, कसल्याय कामाक तांच्या प्रस्नांचे वळेरेक उत्तरां दिवंक जाय. एकूण मेळून फरक कांयच ना. थंय सरकार टाडा लायता हांगा बायल टाडा लायता!

टाडा कॉम्प्लेक्स बाकी सांवड्डेंकारांक बरो पडला. पयलींभाशेन देवळांचे हॉल सोदपाचो त्रास ना. बाजारांतच सोय जाल्या. कोणाचेंय लग्न लावपाचें आसलें, लाय 'टाडांत' जा मेकळो!

बाकी हॉलाक नांव दवरतल्याचेंय म्हणून इस्तिमसांव आं! लग्नाचो दुसरो अर्थ टाडा आनी हॉलाचेंय नांव टाडा! पप्पू कलानी म्हणटात तो विख्यात गूंड आनी स्मगलर. पूण दिल्लीचे पोलीस टाडा लायतात म्हणून कळळें ते बरोबर विर्गळ्ळो. 'माफीचा साक्षिदार' जावन मेकळो,! पूण येदे येदे भुरगे हे लग्नाच्या टाडांत घुस्पतात कशे हाचेंच अजाप दिसता!

पयर जी. के., म्हजो आनीक एक इश्ट सांगतालो, लग्न म्हळ्यार हांकां उमेद दिसता. त्या कदेलाचेर(महाराजा) बसतकच राजा कसो दिसता. पूण खंय? एका दिसाचो राजा मागीर सगळी दूर्दशा!!

पत्रिकेचेर छापिल्लें हॉलाचें नांव पळयतकच मात कांय लोक बेठेच लग्नाक येवपाक भितले. तांगेल्या 'क्रिमींक' पळोवन तांकां थंयच टाडा लायलो जाल्यार?

संजय दत्ताक खंय भायलेभायर व्हेलो आनी टाडा लायलो. तशें हांगा लग्नाक व्हेलो आनी टाडा लायलो अशें घडपाक नाका म्हणून जायत घडये लग्नाक उपस्थिती कमी दिसली.

कशेंय जांव कितेंय जांव टाडा हॉलांत जिणेच्या टाडांत घुस्पप...कितें कल्पना न्हय?

शुक्रार, ता. १३.५.९४

१८

# मनीस भौरूपी......गुलाल भौरंगी!

जांबावलेच्या गुलालावेल्यान खबर आयली. अंताप्पा सांगतालो पयलीं लोक जांबावले दामबाबाचे पालखेक गुलाल घाले शिवाय गुलाल खेळनासले. आतां बर्सीतल्यान देंवतनाच गुलाल खेळपाक लागतात. दामबाब बाबडो थंयच उरता! गुलाल खेळटना बाकी एकमेकांचीं खुमणींच पळोवपार्ची. हरशीं मनीस सादो भोळो कसो वागता. ताच्या आंगांत लिपिल्ले रागरंग सोंपेपणी लोकांक दिसनात. गुलाला दिसा रंगिल्लीं तोंडां पळयतना मात हो भितरल्या सभावाचो तोंडार उमटिल्लो रंग बी न्हय मूं असो दुबाव येता.

अंदूंच्या गुलालाक म्हाका एक इश्ट मेळ्ळो. ताच्या बुशकोटाक चार बोल्सां! तांतल्या प्रत्येक बोल्सांत वेगवेगळो रंग. ताचे बरोबर ताचो चलो, चार वर्सांचो, ताचेकडेन बोल्सांत भरून दोन तरांचो गुलाल. कोणय मेळटकच पयलो गुलाल तो भुरगो लायता ताचे नंतर बापूय लायता. भुरग्यालें लावप भुरगेपणाचें, मातसो भिल्लेवरीं मातसो आनंदीतसो असो. बापायचो मात झेतच वेगळो. तो पयलीं पळयता. तोंडाचो खंयचो भाग गुलाला विरयत उरला? तो जागो भरून काडप, मागीर मिशो काडप, खाड काडप मागीर हात दिवप, खबर घेवप, खबरी करप आनी फुडें वचप. म्हाका ताची ही मांडणी आवडली!

अंदूं गुलालाक मजा जाली!

हांव गुलालमय जाल्लों. गर्देंत कोणय इश्ट मेळटात काय म्हणून सोदतालों. इतल्यांत ताणें १०-१५ मेत्रांवेल्यान म्हाका पळयलो. बेगीबेगीन म्हजे म्हऱ्यांत

आयलो . म्हज्या मनांत , गुलाल लावपाक आयला . म्हऱ्यांत आयलो कपलाक तिबो लायलो . हांवेंय लायलो . ताणें मागीर प्रस्न केलो .

कसं काय ?

बरं आहे .

कधी आलांत ?

हा काय आत्तांच आलो .

बाकी सगळं ठीक ?

हो !

गर्दी पुष्कळ आहे .

नेहमीच्यासारखी आहे .

आणखी काही विशेष ?

विशेष असं काही नाही .

साखरेचा भाव काय आहे ?

आ ! आतां म्हाका नाडी सांपडली . येदोळच्यान हो म्हाका विचारता आनी हांव उत्तरां दितां . मनीस वळखीचो पूण विशय वळखीचो न्हय . साखरेचो भाव विचारलेबरोबर म्हजी ट्युबलायट पेटली . हो म्हाका गुलालाभरशीं दिनेशाजाग्यार दिलीप म्हणून समजला आसतलो . हांवें ताका उत्तर दिवचे पयलींच म्हळें . 'बरं येतो . नंतर येतो .'

गुलालाभितर हांवेंय गुलाल केलो .

गुलाल म्हळ्यार तांवडी वा गुलावी पिंजर . ती जर अस्तावस्त तोंडाक फांसत तर तोंड भयाण दिसता . तीच सारखी रंगयली जाल्यार तोंडाक वेगळेंच तेज येता . जिणेचेंय अशेंच आसता . जिणेक सावार रंग आसतात . ते वेवस्थित चित्रायले जाल्यार जीण सुंदर जाता . तेच अस्तावस्त चित्रायले जाल्यार जिणेक अर्थ उरना .

हालीं हालीं गुलालाचें रूप बदललां . आतां गुलाल प्राकारांत रंगना . आतां गुलाल बरो रंगता तो बार्रांनी . गुलाल आतां सोऱ्यार रंगता . कांय जाण पालखेक गुलाल घालून जाल्यार कांय जाण मनांतल्या मनांत गुलाल घालून शावीगेर नाजाल्यार बार्वीगेर वचपाक मेकळे . शिगमो , जात्रा म्हळी कीं पयलीं खाज्याचे मांड पडटाले . आतां टेंपररी बार्रां पडटात . खाज्याचे मांड सोदचे पडटात . आनी शिगम्याक आयिल्लो लोक देवळाच्या प्राकारापरस सॉऱ्याच्या प्राकारांत चड सांपडटात .

जांबावलेच्या गुलालाक हालींच्या वर्सांनी नवे नवे रंग दिश्टी पडटात . पांचवो गुलाल . निळो गुलाल अशे तरेच्या रंगांनी गुलाल मल्टीकलर्ड जाला ! घडये मनशाचे जिणेंत आतां जशे नवे नवे रंग भरसल्यात त्या रंगांकडेन सर्त करपी हे रंग

आसुंयेत.

गुलालाच्या रंगान रंगून गेल्लो जांबावलेचो परिसर, तांबडीच जमीन, तांबडोच पाण्टो अशी गुलालमय जांबावल वर्सांतल्यान एकच दीस नदरेक पडटा. आनी दर वर्सा वेगळेच ओडीन दामोदराचो गुलालमय भरिल्लो आवांठ पळोवपाक म्हजे पांय जांबावलेच्या वाटेक लागतात.

शेनवार, ता. २३.४.९४

१९

# प्रतिश्ठितांचो मटको!

हार्ली दामोदरा सालाकडेन सांजेच्या सात वरांचेर गर्दी शी जाता. पळयतल्याक दिसपाचें हांगा मटक्याचो नवो अड्डो बी जाला काय म्हूण! पूण प्रत्यक्षांत हो वेगळोच अड्डो. हांगा मटक्याचे धर्तीचेर शॅरांचो सट्टो चलता म्हणपाक हरकत ना.

सद्दां सात वरांचेर तो फोनार शॅर मार्केटांतले दर घेता. तेन्ना ताच्या मेजामुखार जी परिस्थिती जाता ती पळोवन म्हाका हिंदी सिनेमाची याद जाता. अकस्मात हिरो बरो ना जाता वा ताका अपघात जाता. ताका बेगोबेग हॉस्पिटलांत हाडटात आनी सोमतोच ऑपरेशन थियेटरांत व्हरतात. अशा वेळार तागेले सोयरे आनी इश्ट भायर चिंतेस्त जावन बशिल्ले आसतात. सारखे तशें. हांगा शॅर मार्केटाचे सोयरे, कोण कपलाक आंठयो घालून, कोण आपलींच कोतां करीत, कोण पेपरांत दोळे ओतून आपल्याले शॅर देंवल्यात कांय चडल्यात हें पळोवपांत गुल्ल आसतात.

अकस्मात एकटो शेंवटत येता, ऑपरेशन जालें ह्या थाटांत विचारता, मार्केट आयलें? अप काय डावन्? मागीर तोवय बसता. मदींच फोनाची रींग वाजता. ह्या वेळार सगल्यांचे कान कुत्र्यापरसय फॉर्त आसतात..... तो फोन इश्टाचो म्हणून समजतकच सगल्यांच्या तोंडार निर्शेणी! नदर फक्त घड्याळीचेर, केन्ना काय सात जावन वतात हाचेर. एकदांचो तो फोन घुंवडावपाक कॉमेस करता. रींग वता.... पूण एंगेज्ड. परतो करता, ओंठ वांकडे.... ताचेर समजुचें लायन बीझी आसा. परतो करता... हॅलो म्हणटा... ते बरोबर सगळे सोयरेदायरे तटाच करून उबे, फोन लागता, आतां लिस्ट मेळटलें... एकदाचें लिस्ट आयलें म्हणटकच

डॉक्टराचें ऑपरेशन सक्सेसफूल जाल्लेवरी सगळे रिलेक्स जातात. कांय जाण खोशेंत आज आपणें जोडलें म्हणून, उरिल्ले, कांय नज फाल्यां मार्केट वयर वतलें हे आशेर ! कांय जाण म्हजे सारकिल्ले पारजताक विशय मेळ्ळो म्हणून .... अशें सात वीस जाता म्हणसर शॅरांचें हॉस्पिटल रिकामें जाता.

एक दीस मजा जाली. एकटो धांपेत धांपेत ताच्या म्हऱ्यांत आयलो. हात दोनय वटेन फाफडून' वीक, वीक ते इंडो गल्फ. पुराय विकून उडय. पांच रूपया लॉस जातलें. अडना. पुराय वीक ते. रेड पडलां इंकमटॅक्साचें.'

म्हजो इश्ट ताका सांगता.' आरे, इंकमटॅक्साची रेड पडल्या जाल्यार तूं तांकां कॉँट्रेक्ट नोट दाखय मरे. इतलो कित्याक भिता तूं?'

ताणें दोळे मोट्टे केले, 'पोरा, रेड म्हजेर न्हय रे ,कंपनीचेर पडल्या. फाल्यां शॅर सकयल आयल्यार हो म्हाका लॉसा मारता, म्हण सांगच्या आयला.'

ह्या ज्योकाचेर आमी फाटले पंदरा दीस हांसतात. आनीक एकटो म्हज्या इश्टाक सांगता,'तूं एक लक्षांत दवरून घे, हे शॅर म्हळ्यार उजो. अग्नी तो. तो आंगार घेतल्यारि भस्म करता तुजें. आंगार घेवच्या ना. धरचें, सोडचें. ऊब मात दवरून घेवचें. डिफरन्स मेळटा न्हय वे तितलेंच पुरो. जास्त आशा धरच्या ना. हांव हर्षद मेहतावेळार भोगलां तें पुरो. सतरा हजार लॉस जाला म्हाका. ह्या वर्सा भर्न काडलां हांव.'

शॅर म्हळे की कांय जाणांक आज घाल्ले पयशे फाल्यां डब्बल करून जाय. बँकेत घाल्यार ७ वर्सां रावपाची तयारी आसता पूण शॅर मार्केटांत स म्हयने रावपाची तयारी ना. अशाच एका इश्टान ताका प्रस्न केलो. शॅरांत पयशे फास्ट कशे जोडप?

ताणें सांगलें तूं आज पांचशें शॅर घे, पांच रूपया जरी वाडलो तर दुसऱ्या दीसा वीक. तुका अडेचशें रूपया मेळटा न्ही सदां अशें करचें.

इश्टान ताका विचारलें, आनी तेवटेन पाकिस्तानान घुम्म केलें जाल्यार हेवटेन मार्केट घो जाता तेन्ना असले बारकेले शॅर ३० रूपयांवेल्यान ६ रूपयांचेर येवन रावतात. मागीर कितें करपाचें?

'बॉडार थापून न्हिदपाचें 'ताणें सांगलें.

म्हजो इश्ट म्हणटा, ते परस मटको बरो, पांच रूपया लायल्यार पुरो. धनरेषा घट्ट आसत जाल्यार धपक्याक चारशें रूपया आयले. गेले जाल्यार पांच गेले. एके भाशेन रातची न्हीद बरी पडटा. नाजाल्यार शॅरांत पयसो घाल्यार रातची न्हीद ना. कितें जालां काय मार्केट? वाडल्यात काय? वाडल्यात जाल्यार कितले वाडल्यात काय? एक आनी दोन न्हय, हजार प्रस्न. इतल्यान जायना, सकाळफुडें आनी कितेंय करचे पयलीं धांवत वचून पेपर पयलीं हाडचो पडटा.

ताचेर आयिल्ल्या मार्केटाचेर एक अशी नदर मारली कीं जीव सूऽऽ जाता.!

पयलीं कोणय राजकी फुडारी बी खंवसत जाल्यार बरें दिसतालें. सुटी मेळटा म्हणून. शॅरांत पयसो घालत पसून असो कोणय दुयेंत जाल्यार पसून कच्च जाता. तो हेवटेन खंवसता म्हळ्यार तेवटेन मार्केट घोऽऽ जाता!

जेन्ना बरे कंपनीचे नवे इश्यु येतात तेन्ना बँकांभायर मजा पळोवपाक जाय. रेशन घेवपाक पसून इतले लायनींत केन्ना रावलेनात ते लोक फाल्यां फॉर्म भरपाक जाय म्हणून रातीचे बँकेभायर वचून न्हिदतात. टाटा टिमकीन आनी मॉर्गन स्टेनली ह्या कंपन्यांनी ही करामत करून दाखयल्या.

एक गजाल खरी. हे शॅर म्हळ्यार प्रतिश्ठितांचो मटको! रतन खत्रीलो रूपयांनी वेव्हार शॅर बाजाराचो हजारांनी वेव्हार. ह्या बाजारांत जो कोण भितर सरता तो एक तर लाखाचे बारा हजार करता वा बारा हजारांचे लाख करता. हालीं हालीं गोंयांत जोडकार बायलोय ह्या मार्केटांत देंवपाक लागल्यात. मनमोहन सिंगांक हे खातीर परबीं दिवचीं पडटलीं. लिबरलायझेशनान आतां बायलांकय ह्या सट्ट्यांत ओडल्यांत हाचें मोटेपण तांणी मिरोवपाक हरकत ना!

मंगळार, ता. ८.२.९४

२०

# लग्न बरें; पूण व्होंवळीक सांगप नाका!

लग्न जावप हो जसो एक व्हड आक्त तसोच लग्नाची व्होंवळीक सांगप हो एक ताचेपरस व्हडलो आक्त जाता. आतां लोकांनी बरें केलां. लग्नाचीं आमंत्रणां पोश्टान धाडटात आनी मेकळे जातात. बरें एकेभाशेन...! सुशेगाद जाता सगळें. पयलीं खंय लग्न पत्रिका वा निमंत्रणां छापपाची प्रथा नाशिल्ली. भटाक बरोबर घेवन गांवांत आमंत्रण दिवपाची पध्दत आशिल्ली. भटान प्रत्येक घरांतल्या जाण्टया मनशाक व्होंवळीक सांगप आनी अक्षता दिवप.

आज सगळो शॉर्टकट!!

पयर विवेकभावोजी सांगतालो, तूं घराकडेन वचून आमंत्रणां दितलो जाल्यार होमवर्क बरो कर.

हांवें म्हळें कसलो होमवर्क?

तुका भयणी कितल्यो, भाव कितले, कितले लग्न जाले कितले जावपाचे आसात. तांचीं वयां कितें( म्हणजे तुजेर अक्षता पडचे पयलीं तागेलें जुळ्ळयार जुळ्ळें!!) लग्न जालां जाल्यार कितलीं भुरगीं, कितलीं जावपाचे वाटेर आसात, कितल्यावो म्हयनो चलता, नांव खंय घालां, तारीख कितली दिल्या, बांळटेर कुळारा काय घरा, तेल लावपाक बी कोण मेळ्ळया, लग्न जाल्या पूण अजून प्लेनींग चलता, जाल्यार लग्नाक कितलीं वर्सां जालीं, दोतोराक दाखोंवक ना? अमूक दोतोर बरो, तमूक बरो, देवाक प्रसाद लायलो, देव कितें सांगता, म्हाकाय अमकीं वर्सां लागलीं मागीर अमक्याक दाखयलें इ. गजाली पाठ कर. राव... इतल्यान सोंपूंक ना. भावालीं भुरगीं कितें शिकतात, खंयचे शाळेंत वतात. सगल्यांत लेटेस्ट जें लग्न

जालां त्या लग्नाक व्हंकलेक कितलें भांगर घालां, कितें कितें दिलां.... अशे जायतें!!

विवेकभावोजीन सांगिल्लो अणभव म्हाका तंतोतंत आयलो. म्हाकाच न्हय; म्हजे बरोबर आशिल्लया म्हज्या इश्टाक. ताचेर पयलें 'मिसायल' पडलें. आतां तूं कोणाक रावला रे? चली हाडूं? तुका कशी जाय? सिर्वीस करपी जाय? काय बरी घालून करून पूण सिर्वीस ना अशी जाता? नाक दोळे सुंदर, गोरी धवी, लांब मोटवी जाय तसली सांग. कॉंट्रेक्टरी झेतान नानू भटान ताचेर फायरींग केलें.

दुसरेकडेन परतून तेंच.. पूण हे फावट पॅट्रियट मिसायल!! हय रे, तुगेली बापोल भावज गुरवार?

हय.

कितल्यावो म्हयनो?

खबर ना.

नांव खंय घालां? ( शाळेंत बी नांव घालतात तशें!!)

तळावलीकारागेर.

तारीख कितली दिल्या?

खबर ना.

हें: कितें रे घरांत आसून तुका हें खबर ना? लज मरे ही!

आका... ती म्हज्या बापोल भावाची बायल, म्हजी न्हय. इश्टान आकालें पॅट्रियट परतिलें.

आनीक एकेकडेन... तुमकां कितें हाडूं? थंड गरम?

कांयच नाका. फक्त साखरेची चिमटी!!

आवंय! तुमकां खबर ना. म्हजे धुवेच्या लग्नावेळार... म्हाका पळय एक ॲसिडिटी जाल्याः! ताचे लग्न मे म्हयन्यांत मरे. आनी वचत थंय आंबे आनी हीं रसना बी. ते खावन आनी पियेवन म्हाका जी पळय ॲसिडिटी जाल्या...! धुवेगेर दोन भुरगीं जालीं इश्कोलाक वचपाक लागलीं तरी म्हजी ॲसिडिटी अजून वचना. बरें तेंआसूं... तुमकां थंड हाडूं पियेंवक?

चल्यान आवयक म्हळें,' आई, तांकां ॲसिडिटीचो पनिशमेंट आनी कित्याक दिता! साखर म्हण्टा जाल्यार साखरच हाड मगे तांकां.

हांवें मनांतल्या मनांत तिगेल्या चल्याक थैंक्स म्हळें. आतां आमंत्रणां सोंपत आयल्यांत. अशा वेळार बँक सुट्टकच एका इश्टागेर आमंत्रण दिवपाक गेलों. इश्ट बाजरांत गेल्लो. भाभीन पत्रिका घेतली. तिणे च्या कॉफी म्हणचेपयलींच चुकून तोंडातल्यान उतर गेलें. फक्त साखर हाड. भाभीन साखरेची बशी हाडली. आनी म्हजे बरोबर गेल्ल्या राजाचो मुडच ऑफ जालो. भाभीन सांगलें,' आरे, लग्नाच्या

आमंत्रणाक वतना कितें जाता तें हांव जाणां. तें इतलेंय खावन अक्षरशा सीक जावपाची पाळी येता. हांव तुमकां फोर्स करिना.' राजा आनी हांव आमचो उपास सोडपाक हॉटेलांत हजर जाले.

हें सगळें चुकयतलो जाल्यार पोश्टान पत्रिका धाडप एकदम बरें. पूण हाचोय म्हज्या एका इश्टाक सणसणीत अणभव आयला. म्हजो इश्ट इल्लो कलेंत गती आशिल्लो. ताणें ८० पत्रिकांक बरें हळदकुकूम लायलें. १ रूपयाचो स्टॅम्प लायलो आनी पोस्ट पेटयेंत उडयल्यो. एक गट्टा मेळिल्ल्या स्टॅम्पांनी घात मारलो. पत्रिकांवेल्या स्टॅम्पांक ल्हवूच कोणेंतरी बॉल्स दाखयलें आनी आपलो दिसवडो सोडयलो. पत्रिकांक कोयराची बालदी दाखयली.

हे कळत सावन, पत्रिका पोस्ट करपाच्या जाल्यो जाल्यार तांकां फ्रँक्रींग मशिनाचेरच स्टॅम्प मारून घेवप योग्य अशें दिसता आनी मडगांवां फ्रँक्रींग मशिनाक सकाळचीं धा ते दोन, तीन ते चार आनी शेनवारचो हाफ डे आसता.

अशे परिस्थितींत मराठींतल्या 'लग्न पहावें करून' हे म्हणीचो अर्थ समजलो.

म्हजो आंकवार इश्ट म्हाका विचारता, लग्न जावप बरें? हांवें ताका सांगलें, हांवें गिरिशाक विचारिल्लें, गिरिशान म्हाका सांगलें, 'हांव कांयच सांगना, जा आनी पळय' सेल्फ ॲक्स्पीरीयन्स ईज द बेस्ट ॲक्स्पीरीयन्स'! लग्न जाल्यार कशे म्हणटात तें, जा आनी पळय पूण एक सल्लो, लग्न रजीस्टर पध्दतीन जा आनी आमंत्रण पेपराचेर घाल. अमूक अमूक दिसा म्हजें शुभ-मंगल जालें. संबंधितांनी आशिर्वाद दिवपाक अमूक दिसा अमूक वरांचेर येवचें.

आनी... खूब लोक आयलो जाल्यार?

पापया.. पार्टी बी दवरशी, घाताक पडटलो. शरद पवाराभाशेन प्रत्येकाच्या हातार एकेक पेढो दवर!!

बुधवार, ता. ८.१२.९३

२१

# शेणिल्ले मनीस आनी शेणिल्लें मनीसपण

हांव कॉलेजांत शिकतालों तेन्नाची गजाल. दामोदर कॉलेजीचे ॲनेक्स बिल्डींगेंत एक कार्यक्रम चलतालो . ऐन रंगार आयिल्लो . इतल्यांत एका लेक्चररान एका पेशंटाक रक्ताची गरज आसा , ज्याचो ग्रूप जुळटा ताणें रक्तदान करचें असो उलो मारलो. हे गजालीवेल्यान चोवीस वरां गेलीं. एकटोय भुरगो मुखार आयलोना . दुसऱ्या दिसा एका भुरग्यान आपलें रक्त दिवपाची तयारी दाखयली . आमकां सगळ्यांक सायमनाचें कौतूक दिसलें . सायमन फेर्नांदीश . . .काळसांवळोच बारीक सो . . . दोळ्यांत आत्मविश्वास . . . तोंडार हांसो . . . असो हो म्हजो वांगडाचो'दामोदरायट ' फुडें पी . एस . आय . जालो . कानार येतालें . . . सायमन ' कराटे फायटर ' जाला , कितलेशेच बेल्ट जिखल्यात . . . पूण कॉलेज सोडिल्ल्याक आमची भेट अशी केन्नाच जालिना .

आनी अकस्मात . . . ती गजाल आयकली . त्या दिसा हांव आर्लें फेस्टिव्हलाक गेल्लों . . .म्हज्या इश्टांबरोबर . . . आनी आमची मोटार ट्रॅफीक जॅमांत सांपडली . पोलिसांचो पत्तोच नाशिल्लो . आमी कांय जाणांनी मेळून ट्रेफीक जाग्यार घालें . आनी आमी घरा पावले . दुसऱ्या दिसा कळ्ळें . .त्याच दिसा मध्यानरातीं सायमनाचे तकलेर चिरो घालून ताचो भिरांकूळ खून केलो . . . काळीज चुरचुरलें . . . बरोबरच्या वांगड्याचें अशे तरेचें मरण . . .मन अस्वस्थ करून वता . . . त्याच आर्लें फेस्टिव्हलाक हांवें जयदीपाक निमाणो पळयलो . . . जयदीप . . . दामोदरांतले एक उमदें व्यक्तीमत्व ! ! सदांच हिंदी वा इंग्लीश उलोवपी . . . फकाणां मारपी . . .

कॉलेजींतल्या वेंचणुकांक उबो रावपी...त्या दिसा जयदीप आपल्या इश्टांसयत आयिल्लो. हांव आनी म्हजे इश्ट आर्लें फेस्टिव्हलाचो ग्लॅमर पळयत बशिल्ले. इतल्यांत टॉनी उठलो... रोकडो येतां म्हणून गेलो. आमचे मदलें एक कदेल रिकामे जालें.

'इफ यु वॉन्ट मायंड...कॅन आय टेक धिस चॅर?'

आमी आवाजावटेन पळयलें...जयदीप ठक्कर...!!

'अरे यार...कैसे हो?

'ठीक है यार...आप कैसे हैं?'

अशी वासपूस जातनाच ताणें कदेल व्हेलें... थेंक्यू म्हणटना ओंठार नम्र हांसो...

आनी उपरांत ताचे सवंगड्यांमदले ते खुल्लम खुल्ला हास्य विनोद...

दवर्लेच्या प्रकरणांत ताचो ताच्या भावासयत लोकांच्या हातांतल्यान खून जाल्ल्याची बातमी वाचली...आनी जयदीप ताच्या व्यक्तिमत्वासयत दोळ्यांमुखार आयलो.. जयदीप... हू इज नो मोर इन धीस व्हल्ड!! वॉट अ ट्रॅजीक ॲन्ड!!

खंयच्या मनशाचो केन्ना आनी कसो अंत जायत हे कोणाच्यान सांगूं नज. पूण अशे मनीस जेन्ना अकस्मात उठून वतात...मनांत...खोल खंय तरी... आत्मो कळवळटा... तुटिल्ले इश्टागतीखातीर...शेणिल्ल्या खिणांखातीर...!!

शुक्रार, ता. ३.१२.९३

२२

# जोर रडटा पेजेक!

वाप्पा... येदोळच्यान हांव तुका पळयतां. पणजे कदंबांत तूं चडला बरो, भायर सरतना फोंडकुलांनी धोलला बरो, झेमला बरो आनी जुस्त खोर्ली पावपाक प्राणायाम केल्लेभाशेन नाकाक धरून सो बसला? नेव्हां बी फ्राक जांवक ना मूं?

सुब्राय.. तूं जॉर्नाल वाचिना?

'वाचतां.'

तुगेल्या सुनापरान्तान पसून हाडलां मरे.

वाप्पा.. कितें तें? असो कुवाडच्यांनी सो उलयता?

सुब्राय.. सिबा कंपनी म्हणटात ती हांगाच मरे? हांगाच तांगेलो गॅस लीक जाला खंय. भोपाळाभाशेन आर्मीय खंवसले जाल्यार?!!

बाप्पा... आतां ट्युबलायट पेटली. तूं गॅस लिकेजीक भियेता तर! तो तुजो अन्याय न्हय रे. आमच्या पेझाद मंत्र्यांचीं नाडपेन्नां तीं. ताका वारूळकाराची साथ आसा अशें म्हणटात.

सुब्राय.. इतलेंय छापून येता तें फट?

बाप्पा.. तुका एक सांगूं? ह्या राजकारणी लोकांकडेन माणसुकी ना. सुनिता प्रकरण काडलें आनी नार्वेकाराक शेडायलो. मागीर विनयकारालो विनयभंग काडलो. तसल्यांतलेंच हेवूय प्रकरण. बाप्पा जो प्रकल्प मुळाकच बंद आशिल्लो तो बंद कर म्हणून सांगपी सरकार कितलें शाणे तें पळय. सिबाच्या अधिकाऱ्यांनी

रोखठोक सांगलें, तुमकां जर चौकशी करपाची आसा... करात चौकशी. जाल्यार पेझादबाब विचारता, तुमी तो प्रकल्प बंद आसा म्हणून कित्याक सांगलोना? सिबावाल्यांनी सांगलें, आमी कित्याक सांगूं, तुका जाय, तूं कर चौकशी. मागीर जाप आसा? धपक्याक ऑर्द फाटीं घेतली.

पूण सुब्राय, इतलेंय कारस्थान कित्याखातीर?

बाप्पा जोर रडटा पेजेक! झुवारीचें इतलेंय जाता, कोण शबै घालता? ना. कारण झुवारी वेवस्थित पेज वाडटा. बाकीच्योय कंमनी पेज थंय गोटो वाडटात. सिबा वाडिना. काम कर आनी पैशे व्हर अशी तांची ताकीद. आमगेल्यांक भिकेची सवंय जाल्या. ती नडटा.

सुब्राय, तिका भीक म्हणिनात.. थुमेकाल म्हण. तिका आतां कॉम्प्लिमेंटरी गिफ्ट म्हणटात!

हय वय.. कॉम्प्लिमेंटस आनी कसले! तुमकां जाता तितले बेगीन मरण येवं असले?

सुब्राय.. कोण मेला आजमेरेन तांच्या प्रदुशणान?

बाप्पा.. दर्यांत नुस्तें मरून देगेर येता आनी कुसता ताची घाण येना तुमकां?

सांकवाळ स्टेशनाचेर वचून पळय. झाडां मेल्लीं पळयतलो. सांकवाळच्यान मडगांवां येवपाचे वाटेर वच.. एक तरी माड वा झाड बरें दिसता जाल्यार पळय. सगळें करपल्लें आसा. प्रदुशणाची झळ पळयतलो..? त्या वाठारांत वचून बरो स्वास घे. तुजें तुकाच समजतलें. बाप्पा, नुस्तीं जालीं, झाडां जालीं, आतां मनशां केन्ना खंवसतात तीं पळोवया. बाप्पा.. सांकवाळ करपुपाक लागल्या. सिबा मात ॲव्हर ग्रीन आसा तातूंत कितें तें समज.

सुब्राय.. तुमी गोंयकार अशेच रे. तुमकां नोकऱ्यो वाडपाक जाय. नोकऱ्यो वाडटल्यो जाल्यार फॅक्टरी जाय. आनी फॅक्टरी आयल्यार प्रदुशणाच्या नांवान शंख मारपाकय तुमी मुखार! नायलॉन ६६ आतां परतून येता खंय गोंयांत. ताचेरय बोवाळ मारपाक सुरवात केल्या तुमी.

बाप्पा, सगल्योच फॅक्टरी प्रदुशण करपी नासतात. तेभायर ज्या प्रकारांक लागून प्रदुशण जाता तें ना करपाचेय मार्ग आसतात. इतलेंच कीं हो प्रोसेस मातसो खर्चीक ताकालागून फायदो कमी जाता. हें राज्य आतां आनी लिबरलायज जालां.. बाप्पा, पळयत राव कोण कोण गोंयांत येतात ते!

सुब्राय.. तुमी ओपिनीयन पोलावेळार काश्मीराभाशेन ३७० वें कलम जाय म्हणून कित्याक आग्रो धरलोना? बेस बरें जातलें आशिल्लें. गोंयकाराक खंयय वचून नोकरी धंदो करपाक मेकळीक पूण भायल्यांक गोंयांत धंदो उबारपाक मेळचें नाशिल्लें. आपशींच गोंय सुगूर उरतलें आशिल्लें.

बाप्पा.. आनी आमचे इगर्जीचें. 'हजरतबाल' जातलें आशिल्लें, ताचे कितें?

मंगळार, ता. ९.११.९३

२३

# उसगाळीमळाचो सोद



संदीप, तुमगेल्या रिवणांत उसगाळीमळ म्हणटात तें खंय?

कित्याक रे, भाट घेता?

भाट खंयचें रे? खावपाक पैसो ना, आनी भाटां खंयचीं!! थंय कितें तरी मेळ्ळां म्हणून पेपरार आयलां मरे.

आं....तें रे? पक्याक खबर आसतली, पक्या, खंय रे तें?

तेवटेन रे तें, केळोणाच्यान फुडें खंय तरी.

संदीप, कितें रे, रिवणचो जावन रिवणांत कितें घडटा तेंच खबर ना मरे तुका?

तूं कित्याक भिला? आयताराक यो तूं, कित्याक मेळना तें पळोवया, सोदून काडया- साडेणवांक सुमार यो.

आयताराक हांवें सुरसुऱ्याक घेतलो आनी रिवणची वाट धरली. संदीपाच्या घराकडेन वतना जें दाव्यान व्हॉल्त आनी चडाव लागता ते पळयल्यार पोटांत कुळ्ळ जावपाचें. आमगेले आरटिओ स्कुटरीचीं ड्रायव्हींग लिसेंसां दिवपाक आट मारपाक बेश्टेच लायतात! तांणी मदीं थांबनासतना हें व्हॉल्त डब्बल सीट घेवन दाव्यान काडून संदीपाल्या घराकडेन वचून दाखोवचें. लागत ती पैज! एक तर स्कुटर नाजाल्यार ड्रायव्हर हांतल्या एकल्यान जीव सोडपाकच जाय ना जाल्यार कपेलाच्या दारांत घालून घेवपाक जाय.

आमी संदीपागेर च्या मारलो. आनी कामतीकय बरोबर घेवन नवे संस्कृतीच्या सोदाक भायर सरले. भाईन आमकां ह्या जाग्याचें डायरेक्शन दिल्लें. तातूंतलें

गिरीशाच्या भाटाक तेंकून हें आसा इतलेंच आमकां याद उरलें. आमी निट्ट गिरीशाल्या पसऱ्यार गेले.

गिरीश... तुगेल्या भाटांत कितें मेळ्ळां खंय मरे.

· कितें मेळ्ळां...कास?

कास न्ही रे... ++++ कासाक संवकला. त्यो कितें मूर्ती काय कितें तरी मेळ्ळां खंय मरे, पेपर वाचना तूं? पानभर हाडलां मरे.

आं... तें रे? असो वरो उलय मरे. ते म्हज्या भाटांत न्हय. तुका पिर्ला वचचो पडटलो. डॉन बॉस्कोकडल्यान जो रस्तो गेला त्या रस्त्यान भितर वच आनी थंय कोणाकय विचार.

इतलें पयस? भाई म्हणटालो माधूबाबाल्या भाटाकडेन म्हणून मरे.

हेः... माधूलें भाट खंय रे. हांगा मरे! थंय कित्याक मरूं येतात ते? ते थंयच तें. तूं नीट्ट पिर्ला वच, उसगाळीमळ म्हणटा तें थंयच रे.

आवय... पिर्ला म्हळ्यार बरें पयस मरे तें. आसूं आयल्यातच न्ही आमी या तूं.

संदीप राव आं, तुका सारको पत्तो हाडटां. आ, बरें जालें ना. गिरीकच विचारया. तो थंयचोच न्हय?

गिरी, तें कितें मेळ्ळां म्हण्टात तें खंय रे? त्यो रे मूर्ती काय कितें तें?

तुमी वतात? तें उसगाळीमळार न्हय. तें उसगाळीमळ म्हणून चुकून आयलां. ते धांदोळ्यां मरे. तूं माधूलें भाट नकळ? माधू हो रे, तागेल्या भाटाकडल्यान कुशींतल्यान खारजाकडेन वच. खारजा पलतडीन तें.

आरे... कामत मरे! आज खंय हेवटेन?

तुमच्या रिवणांत कितें मेळ्ळां खंय. तें पळोंवक आयिल्ले.

तुजी स्कुटर खंयची?

म्हजी स्कुटर ती... पूण आमी जाले वचपाचे.

तुमी ते पळोवपाक वतात मरे? आसा तुमकां वेळ!

ना. हें सिगार सोंपतकच वचपाचें.

सिगार मरे? अर्दें आसा तें बेगीन सोंपना, चावी स्कुटरीक आसा?

चावी आसा, पूण ब्रेक पळय आं... पांय भितर घालचो पडटा.

**थांबता मरे? पुरो.**

**पूण खंय वता तूं?**

**येथंय ते भटागेर रे.**

**प्रसाद बी लावपाक न्हय मरे?**

**ना रे. हें दिता तोच आयलों.**

बरें चल, बेगीन मात यो.

गिरीश, जनता कोण आसा? संदीपालो प्रस्न.

जनता... पोकू काजूंनी गेला. रायसुले मेवणेल्या देराक लग्न आसा. तो मडगांवां गेला. आनी कोण तुका आज मेळचोना. आज आयतार, कित्या तुका?

बरोबर व्हरपाक.

हेः बरोबर आनी कित्याक रे! हांव काडून दाखयतां न्ही तुका. चुकल्यार म्हाका विचारपाक यो. गिरीन सांगलें ना आतां, म्हगेल्या भाटाकडेनच मरे तें.

कोणा रिती मनीस म्हणून नकळ. गिरीश, 'तुज्या भाटांत कितें जाता तें तुका खबर आसना न्ही रे? घरांत पूण कितें जाता तें खबर आसा मरे?'

तुमकां मरे लागलां पिशें, थंय कितें पळय मेळ्ळां म्हणटात न्ही तें राखण्यांनी पिकास घेवन कितेंय कर्मां केल्यां आसतलीं. गोरवां चरवा सोडटकच तांकां उद्योग नाका? तें हांकां कितेशेंच दिसलां आनी कोणे बुदवंतान पेपरार घालां.

गिरीश, आसुं रे. आयल्यात न्ही आमी इतले. कांयच दिसलें ना जाल्यार एक व्हडलोसो भोंवर मारून येतले.

तशें बरें रे थंय थंडशें बसपाक. कोटा कितेंय व्हरतात?

शेः आतां? थंय बसतलो आनी कोण रे.

कामत... तुगेले स्कुटरीचो ब्रेक लागता मरे? तो आयलोनासो.

हांवें स्कुटर दितना सांगलां. ताका मारपाक येना जाल्यार हांव कितें करूं?

हो पळय आयलो. या आमी.

गिरीश, आमी वतात रे. सांजचे मेळया.

आमी आमचे वाटेक लागले. धांदोळ्या पावपाक थँयचोच एक भाटकार मेळ्ळो. संदीपान ताका प्रस्न कैलो, 'हांगा कितें मेळ्ळां खंय, पोन्नें कितें तरी.'

हांगा...? हेंः कांय ना. हांगा आनी कितें मेळटलें?

आमी मुखार गेले. खारीज हुपलें, आनी व्हाळाच्या कांठार आयले.

थंय पळयल्यार चिऱ्याचे फातरीर धव्या खोडवान खोलगट आशिल्ल्या जाग्यांचीं जुळोवन चित्रां केल्यांत आनी तांकां नंबर दिल्यात. तें पळोवन आमी तोंडांत बोटां घालीं.

संदीप- 'गिरीशाचो अन्याय ना रे. पळोवपाक हें राखण्यांचेंच काम कशें दिसपाचें.आमी हांगच्यान कितले खेपो गेल्यातमरे पूण केन्ना हें नोट जालें ना.

सुरसुरो - ही चिऱ्यां-खण काय कितें रे? चिरे काडल्यात मरे हांगा. त्या कोकेरांनी कितेंय केलें ना मरे?

संदीप - हालींच्या लोकांनी हे कर्म केल्लें जाल्यार विमान काडटले आशिल्ले, बस काडटले आशिल्ले. हें कार्वींग कितलें पयलींचें हे पळोवपाचें तांचें तंत्र कितेंय

आसतलें. तो कर्नाटकांतल्यान कोण तरी आयिल्लो ताका पसून हें सारखें समजलें ना, थंय आमकां कितें कळटलें!

कामत - हें चित्र पळयल्यार, रग्बी फुटबॉल खेळटा सो दिसता मरे. दाव्या हातांत बॉल घेवन धांवतात तें भाशेन.

संदीप - हांवे म्हगेले खणीर वचून पळयल्यार बरें. थंय कितेंय मेळूं येता अशें.

दिनेश - संदीप. हांगा कितें तरी दिसता शें मरे. आकृती शी पूण तांणीं खोडवान पितारूंक ना. खोडू आसल्यार पितारूं येतालें. कितें तें मागीर ते सोदीत.

सुरसुरो - तांगेले खोडू सोंपले म्हणूनच ते गेले दिसता.

वाटेवेलीं तळपां तेळीत आमी परतीचे वाटेक लागले.

(ह्या शोधकामाच्या महत्वाची जाण बरोवप्याक आसा. हे अश्मयुगीन शिल्प पळोवपाक गेल्लेकडेन आयिल्लया अणभवाचेर आदारून हें बरप आसा. ह्या संशोधनाच्या मानकऱ्यांची माफी मागून)

सुक्रार, ता. २८.५.९३

२४

# मेन्टेनन्स रस्त्यांचें नाका; बोल्साचें जाय!

बाप्पा, ए बाप्पा, तूं हालींसरा सांग्यार बी पाविल्लो?

आरे, सुब्राय मरे! ना, सांग्यार सो? कितें मगज बी दवरलां?

मगज न्हय बाप्पा... मरण दवरलां.

कोणाचें?

त्या रस्त्यावेल्यान वतल्यांचें. काकोडेच्या गोसालियाल्या घराकडेन जे मरणाचे वेध लागतात ते बद्द दांड्यार सोंपतात.

सुब्राय, अशें शें कितें?

बाप्पा, रस्तो नवो केला. आनी मजा अशी, काल घाल्लें डांबर आज पोन्ने दिसता. रस्तो नवो आसूनपसून बस जशी काय हांगा पावली, कीं बशीक एक थरथर मारता! आवय आवय, आंगार पसून कांटो फुलता. स्कुटरीन गेल्यार व्हायब्रेशन-स्कुटरीचें काय रस्त्याचें तेंच कळना. घाडी बी भार येतकच खुदता तशी स्कुटर पळय खुदपाक लागता ती बद्द पोन्न्या रस्त्यार येतकच भार आपशींच निवळटा.

सुब्राय... तूं मरे खूब फाटीं आसा. सरकारान नवी स्कीम काडल्या, असले रस्ते बांदपाची.

बाप्पा,... त्या कोंत्रादोराल्लो बी तूं सोयरो लागता काय कितें?

सोयरो कित्याक जावंक जाय? हांव तुका सांगतां ते पट्टा जाल्यार पळयः

गेल्ल्या वर्सा रस्त्यांचेर 'आक्सीनेत' कितले जाले? कितले मेले? आनी हे मरपाक कारण सुळसुळीत रस्ते असो रिपोर्ट सरकाराक आयला खंय. म्हणून

सरकार खडबडीत रस्ते बांदता. सुब्राय, तूं हॉटमिक्स रस्त्याचेर ब्रेक मार, तूं खंयच्यान घुंवतलो हाचो नेम ना. नाजाल्यार ह्या नव्या रस्त्याचेर मार, थंयच्या थंय उबो. आमच्या लोकांक मरे हीं वाहनां म्हळ्यार विमानां कशीं दिसतात. ट्रक बसी आपलेभाशेन रथ म्हणून चलयतात. आनी ते कट म्हणून मारनात देवा परमेश्वरा, भायर सरिल्लो मनीस तिळसांज मेरेन घरा पावतलो म्हणून आम्चनी ना, आतां आनी त्यो कायनेटीक म्हणून स्कुटरी आयल्यात, म्हगेल्या शेजारच्या रतनाले चलयेन घेतल्या. आमी पिक्चरांत दाऊद इब्राहीमाली स्पीड बोट वी दर्यांत वता ती पळोवना, तशी ही रस्त्यार चलयता न्हय रे! हांचे खातीर आनी रस्ते हॉट मिक्स केल्यार हीं एकतर वयर पावतलीं नाजाल्यार हॉस्पिटलांत तरी पावतलीं.

सुब्राय, आनीक एक गजाल आसा. अशा रस्त्यांचेर स्पीडब्रेकरांची गरज आसना. ह्या रस्त्यांवेल्यान एक पावस वतकच तांकां आपशींच फोंड पडटात. आनी फोंड चुकयतांना वाहनांची स्पीड आपशींच कमी जाता असो निष्कर्ष पिएचडीच्या लिखाणांत केला.

बाप्पा, पूण हें बारा लाखांचें टेंडर खंय मरे! आनी हांतूंत दोन लाखांचोय म्हाल ना मरे! रस्त्यार फक्त खडी मिक्स करून डांबराचो पेट मारला. म्हणजेच अचळय धा लाख रूपये बोल्सांत?

सुब्राय...सुब्राय, हें कली-युग. एद्या व्हडल्या रस्त्याचें कॉंट्रेक्ट घेवप आनी ताचेर एक टाटा मोबायलय घेवप ना म्हळ्यार कॉंन्ट्रेक्टर लोक हांसतले मरे! आनीक कोणय आशिल्लो जाल्यार मारूती वन थावजंड घेतलो आशिल्लो. दुसरें म्हळ्यार, धा लाखांतले चार लाख तरी महामंत्री धरून अकांवटस् खात्याच्या प्युनामेरेन वांटपाक वतले. पयर एकलो कॉंन्ट्रेक्टर आयिल्लो बँकेंत. तीस हजार काडपाक. हांवें म्हळें इतलेशे व्हरता रे? ताकतिकेन सो? तर म्हणूंक लागलो, 'ना, आमगेल्या व्हडल्या सायबाची पेडण्यां बदली केल्या, ती रद्द करपाक महामंत्री पांच लाख मागता, म्हणून आमी पंदरा कॉंन्ट्रेक्टरांनी ३० हजार दिवन चार लाखांक मेटोवपाचें केलां. पन्नास हजारांची पार्टी, कितें करतलों पात्रांव, ताणीं आमकां सांबाळपाचें आमी तांकां सांबाळपाचें.' सुब्राय, म्हजें तोंड आं उरिल्लें तें शांत्यान येवन बंद केलां.

जाणा मरे सुब्राय, म्हाका पयर पुर्तुगेजा तेपावयलो एक इंजीनियर मेळ्ळो. ताचे म्हणणें होच रस्तो इतल्याच पचशांनी हाच्याकय बरो करूं येता, पूण तसो पेसुआल(कामगार) मेळपाक जाय. आतांच्या लोकांकडेन तीं कामां जायनात.

बाप्पा, तुवें कितलेंय पटयलें तरी म्हाका एक कुवाडें सुटना. गोंय इंडियन जातकच ताणी गोंयचे शिमिटाचे रस्ते कित्याक फोडून उडयले? शिमिटाचे रस्ते मेंटेनन्साक बरे म्हणटात. पूण आमगेलें सगळेंच उरफाटें शें दिसना तुका?

सुब्राय, ते मेंटेनन्साक बरे आसत. पूण तातूंतल्यान कॉंट्रेक्टरांचो बोल्साचो मेंटेनन्स जायना. आनी जंय बोल्साचो मेंटेनन्स ना तो धंदो न्हय.

बाप्पा, काकोडेच्या आनी सांगेच्या लोकांक आतां ह्या पावसांत वनमहोत्सव करपाक फोंड मारपाक नाकात! रस्त्याचेरच झाडां रोवपाक मेळटलीं. आनी कोणय रस्यार अपघात जावन खंवसलो जाल्यार त्याच फोंडांत ताचेर माती ओडपाक मेळटली!

मंगळार, ता. ११.५.९३

२५

# हालताले ते खुंटे घट्ट जाले!

बाप्पा, तुका भुंयकांप जाणवलो?

सुब्राय..., बरोच जाणवलो. पयलीं दिसलें घुंवळ बी आयली काय? म्हणून उठून बसलों. तेन्ना कळ्ळें... हो भुंयकांप म्हणून.

बाप्पा, शेजाऱ्यालो शांतो सांगी... ताणें खंय खूब तेपान न्हिदतना इल्लो काजू शेकयलो...अकस्मात ४ वरांचेर घुंवपाक लागिल्ल्यान ताका अजाप जालें...काजू असो अकस्मात चडना. मिक्स बी केल्लो काय? आतां तेपार कांयच सांगू नज. सगळे 'भेसळ यूग'

सुब्राय.. पूण अशें जावप न्ही रे. किल्लारी आनी उस्मानाबाद हांगा जो पळय मरणाचो खेव जाला... सोंसपाचो न्हय. मेल्ल्यांक अग्नी दिवपाक लाकूड मेळना म्हणून तांकां थंयचे थंयच मातयेंत दफन करपाचो वेळ लश्कराचेर आयलो.

बाप्पा... ही सगळी काकूट तुका आनी म्हाका सुचता. पूण तूं मुंबयची परिस्थिती जाणा? तांच्या नांवान पावला कणकणी डबे घेवन लोक पयशे पुंजावपाक लागल्यात. ते पयशे तांकां पावतले? प्रत्येक भाजीवाल्याकडेन डबो, फळवाल्याकडेन डबो, इतल्यान सोंपलें ना. थंय फुकट जेवण मेळटा म्हण कळनाफुडें सगळे भिकारी लातूराकपावले. भुंयकांपग्रस्तांक म्हणून हाडिल्लें जेवण हांणीं फस्त केलें. तांचेखातीर म्हणून फ्रान्स सरकारान धाडिल्लें सामान थंयच्यान

चार किलोमिटरांचेर एका बाजारांत विकतें मेळटालें. 'मेड इन फ्रान्स'!! भुंयकांप जालो तें पळोवपाकच लाखभर लोक... तांतूंतले कांय जाण मड्यांच्या आंगावेल्यो वस्ती चोरपाक, कांय जाण तांचीं घरां उस्तून भांगर आसा जाल्यार सोदपाक.. स्वताक पृथ्वीवेलो सगळ्यांत चतूर आनी बुध्दिमान प्राणी समजुपी मनीस एकेय कुडीवेलो फातर कुशीन काडून तांकां वांचोवपाचो प्रयत्न करिना... केदी व्हडली लजेची गजाल!

लोकलींत एकटो सांगतालो, तांचे सोसायटींत एकदां तिसऱ्या मजल्यार उजो लागलो. उजो बरोच मोठो. फायर ब्रिगेड आपयली. जवान वयर चडले. एका घरांत एकटो दादलो... अडकला. तो आपल्याक 'वांचय वांचय' म्हणून आडुता. ताचेपसून दोन मिटरांचेर जवान उबो आसा.. पूण तो ताका वांचयना. तो ते कुडींतली आरमार उगडून कितेंय मेळटा काय म्हणून सोदपाक गुल्ल!! सोसायटींतल्याच एका मनशान ही गजाल पळयली. तांणे अडखळिल्ल्याक भायर काडलो आनी ह्या जवानाक तिसऱ्या मजल्यावेल्यान धुकलून उडयलो. जवान सकयल पडून आत्ताक मेलो. सरकारी कागदपत्रांनी हो जवान हुतात्मो जातलो, ताका शौर्य पदक मेळटलें, ताचो मरणोत्तर सत्कार जातलो...! ह्या देशांत न्यायच उरफाटो जाला. किल्लारी, उस्मानाबाद, लातूर हांगा पयल्या दोन दिसांनी वेगळें जालें ना. बाप्पा... 'मड्याच्या टाळूवरचं लोणी खाणारे महाभाग' ही म्हण ह्या लोकांनी तंतोतंत खरी करून दाखयली. म्हणून लश्करान हो जागो पयलीं मेकळो करून घेतलो, बघ्यांक धांवडायले.. आसा.. पुलिशेंत आनी हेर सरकारी खात्यांनी जरी कितेंय जालें तरी लश्करांत अजूनय मनीसपण नांवाची गजाल आसा.

सुब्राय.., हें गांव परतें वसोवपाचें उतर मुख्यमंत्र्यांनी दिलां खंय.

बाप्पा.., गांव वसोवपाचें..? कोणाखातीर? जंय णव्वद टक्के लोक मेला, जंय उदकाच्या झऱ्यांनी आपली वाट बदल्ल्या, जंय घरांच मसंड जाल्यांत.. थंय राबितो करप दिसता तितलें सोपें न्हय. सरकार जंय १०,००० लोक मेला म्हण्टा थंय तांचेखातीर पयशे जमोवप्यांचो आंकडो पन्नास हजार आसतलो. प्रत्येकान हो बिझनेस आपणायला. संस्थांचें खरेपण एकवेळार मानुंयेत. पूण स्वतंत्रपणान पयशे एकठांय करपी लोक हे पयशांक बॉल्स दाखयलेबगर रावचे नात. आनी.. राजकारणी हे पयशांक वेंचणुकेचें मैदान दाखोवचेनात कित्यावेल्यान?

बाप्पा.. ज्या देशांत सत्य आनी निस्वार्थीपण राजकारण्यांनी पावणेर काडलां त्या देशांत निसर्गान असो खेव केलो जाल्यार आमीय मेल्ले जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें अशें थंयच्या लोकांनी चिंतलें जाल्यार तें अजाप न्हय! बाप्पा, आमच्या एका आमदारान खंय आपलो एका म्हयन्याचो पगार हे निधीक दिला.. एका दिसाचो हप्तो दिल्लो जाल्यार खरो आशिल्लो. तांगेलो पगार कितें तो आमी नकळ?

सुव्राय . . . महाराष्ट्राच्या मुखेलमंत्र्यांक ह्या भुंयकांपान धक्को बसला खंय ! !

वाप्पा . . . बसपाचोच . धपक्याक लाखभर मतदार गेले ! ! धपको घडये हो आसत . पूण खुंटो खंय हालोवन घट्ट करतात , तसो विराप्पा मोयली आनी शरद पवार हांचीं कदेलां थरथरतालीं तीं भुंयकांपान हाललीं आनी घट्ट जालीं . हो फायदो केदो ? जें काँग्रेसमनांक जमलें ना , काँग्रेसीचे लक्ष्मीक जमलें ना , तें निसर्गान दोन मिनटांत करून दाखयलें . वाप्पा . . . हीं फकाणां जरी येवजर्ली तरी भारत हो फुडाराक भुंयकांपाचो देश जावपाचे वाटेन वता ही वरीच गंभीर गजाल . केळकर हांणीं तरूण भारतांत परच्या भुंयकांपाची शक्यता दाखोवपी लेख वरयलो . तांच्या मतान भुंयकांप हो ग्रहांच्या बदलाचेर अवलंबून आसता . आनी अशे तरेन अभ्यास केलो जाल्यार ताचो दिस खूब पयलीं थारांव येता . आमी भारतांत ह्या विशयाचेर सखोल अभ्यास करपाक जाय . घडये आमचें जैत हें जगातलें पयलें जैत जातलें ! !

बुधवार , ता . २० .१० .९३

२६

# घांट वाजली की धांव - बेतलांत!

बाप्पा, आज वड्ड्यासावन सो परतता?

सुब्राय मरे! वाडदिसाक गेल्लों.

कितल्यावो रे? पयलो काय दुसरो?

सुब्राय . . . फकाणां नाकात आं. हांव फालैरवाबाल्या वाडदिसाक गेल्लों. तांच्या वाडदिसाक वर्सां पळयनात . . . खातीं पळयतात. सुब्राय, ज्या मनशाची लोकप्रियता चड त्या मनशाचो लोक व्हडा खोशयेन वाडदीस मनयतात.

हय हय, जाणां हांव बाप्पा, तुका कितें दिसता लोक आपूण जावन ही किचमणपट्टी घेवन वसतात? विसर तूं तें. तुका खरें सांगलें म्हणून पटचें ना.

सांग तरी.. पळोवया.

बाप्पा . . . मंत्र्यांच्या आनी खासदारांच्या पी. ए. चेर हे सत्कार, वाडदीस अवलंबून आसतात. तांचे पी. ए. वा तांचे बरें मागपी पब्लिसिटीचो बिझनेस घेवन वशिल्ले लोक एकमेकांभितर उलोवणीं करून कोणाल्यो फायली अडकल्यात हाची चौकशी करतात.वाडदिसाच्या दिसा त्या लोकांकडल्यान जायराती घेतात आनी उजवाडायतात. हातूंतल्यान कितलींशींच कामां जातात. जायरात दितल्याची फायल सुट्टा. जायरात घेतल्याक कमिशन मेळटा. पेपरांक पयशे मेळटात. आनी मंत्र्यांक प्रसिध्दी मेळटा!

सुब्राय . . . . हातूंत कितें चुकलें . . . ? धंदो तो! पैसो मेळोवपाक ह्यो युक्त्यो करच्यो पडटात. 'चोली के पीछे' क लागून खलनायक गाजलो ना ?लोक सामक्यो

धिट्ट्यो घालून म्हण्टात तशे पिक्चराक वतात . भायर सरतना प्रत्येकाच्या कपलाक आंठयो .

कित्याक ?

कित्याक म्हळ्यार ! भितर 'चोली 'ना आनी 'पीछे 'य ना . सगळो स्टंट !! पयर आनी एकल्यान खंय जॅकी श्रोफाक घेवन पयलोच पिक्चर काडला . तो आपटूचो न्हय म्हणून ताणें एक स्पेशल एक पानी एका दिसाचो पेपर काडलो , ताचेर हेडलायन दिली , 'जॅकी श्रोफाक अटक ' घे . . . ! मुंबय लोकांची खेट . . . पेपर घेवपाक . कोण पोलिसस्टेशनार फोन करता कोण ताच्या घरा फोन करता . . . सगळो बोवाळ !

पळयल्यार कितें ? जायरातबाजीचो स्टंट .

बाप्पा . . . मनीस गाढवांक आनी जनावरांक मूर्ख म्हणटा पूण आपूण असलीं मूर्खपणां करता तीं पळयना . गोंयची जनता तर सामकी गोरवां जाल्यांत . एकलो राखणो वार्केच्यान आमुडटा . दुसरो राखणो नावेलीच्यान आमुडटा . आनी सगलीं गोरवां दवर्लेचे घांटी पोंदा येवन ठक्कर नांवाच्या कार्यक्षम कस्टम अधिकाऱ्याक आनी ताच्या भावाक शिंगांनी मस्तितात . जितेच मारून उडयतात . आनी गोरवांक कोणय बडयत म्हणून राखणेश्वर(म्हळ्यार राखण्यांचो देव) पणजेच्यान शेंपडी तुटसर मडगांवच्या पोलीस स्टेशनार चेपण घालपाक येता .

भोंवडेकार देशी आनी विदेशी- जायत्या फावटी म्हणून गेल्यात गोंय हें खंय भारताचें नंदनवन !! बाप्पा . . . नरशिंव रावाक सांगून हातूंत एक दुरूस्ती करची पडटली . . . गोंय हें भारतांतल्या गुन्यांवकारांचें नंदनवन !!

सुब्राय . . .तो कोटी मागचो ना मूं ?

बाप्पा . . . , कोटी मागल्यार वार्केकार दितलो . तो आतां 'कुर्सी के पीछे क्या है ? ' नांवाचें पिक्चर काडपाचो आसा खंय ! तांतूंत कॅजी हिरो आनी कस्टम ऑफिसर व्हिलन ! तूं पळयत राव पिक्चर कशें हीट जाता तें !

देवा परमेश्वरा . . . ! कुड्ड्यांचें आयुश्य बरें रे पुता !

बाप्पा . . . हो डायलॉग वार्केकाराच्या पिक्चरांत दयाशंकर म्हणटलो . तूं जाणा मरे आल्वेर्नाझ आनी कॉस्तांव प्रकरणांत घटमूट पुरावे एकटांय करून दवरिल्ली दयाशंकराची फायलच गायब जाल्ली ! तो सीन ह्या पिक्चरांत आसतलो .

सुब्राय . . , खरेंच रे . . नेहरून 'अजीब हैं ये गोवा के लोग ' म्हळां तें फट न्हय . मुंबयच्या सहारा ॲरपोर्टाचेर स्मगलरांचो कर्दनकाळ आशिल्लो तो दयाशंकर एद्याशा गोंयांत बिलू जाता .

बाप्पा . . . तो दोश दयाशंकराचो न्हय . हांगाचो पावरार आशिल्लो मनीस पयलो स्मगलर मागीर राजकारणी असो कित्तो गिरयता . आनी अशा स्मगलरांक पाठबळ

दिता. जंय सगली पालासच स्मगर्लींगमय जाल्या थंय बाबडो रामशास्त्री दयाशंकर किर्ते करतलो? खरो सत्कार जावंक जाय तो असल्या लोकांचो!

कित्याक?

इतलो चांचाळ जावन लेगीत तो बेजारून कस्टमांतल्यान संन्यास घेना म्हणून..

बाप्पा तें सोड. मडगांवां बंदा दिसा तूं खंय आशिल्लो?

खंय म्हळ्यार... हांव मूक मोर्च्यांत आशिल्लों.

बाप्पा... तूं खरोच बाप्पा!! आरे अशा वेळार बेतलांत वचप. फात्राडे वचप. ज्या दिसा मडगांव बंद जाता त्या दिसा थंय हटकून स्मगलींग जाताच. कांयच न्हय जाल्यार चुकून वेळेर पडिल्ली एक बिस्कीट(भांगराची!!) मेळ्ळीच जाल्यार आयुश्याचें सार्थक मरे पापया!!

हय मरे: न्ही? आमी बाबडे साडेभावार्थी. मडगांव येयात म्हळें, आमी आयले!

बाप्पा... आतां आनीक आयक. आतां ताणीं तांची स्ट्रेटजी बदल्ल्या. बंद आसता त्या दिसा स्मगलींग जाता ही खबर कस्टमाक कळ्ळ्या. म्हणून ह्या फुडें ज्या दिसा फात्राडे वा बेतलांत माल देवोवपाचो आसतलो, त्या दिसा ते बाणावले वा मडगांवां व्हडा व्हडान घांटी वाजयतले. तूं सादूर राव... घांट वाजली रे वाजली की धांव... खंय?... घांट वाजता थंय न्हय!!... फात्राडे वा बेतलांत...!!

मंगळार, ता. १४.९.९३

२७

# हवालदार पसून मि. क्लिन.

बाप्पा, कितें?... पेढे वांट पेढे!!

कित्याक रे?

कित्याक?... कापास्ताद पळय मरे ताची. सत्तरी क्रॉस केली तरी पार्लमेंटांत तरणाट्यांक खरस हाडली मरे ताणे! अविश्वास थाराव हाडटात खंय ते...!! सपनांच रंगोवपाचीं ताणीं..!

सुब्राय... कितलो तेप तिगता पळोवया.

बाप्पा हेंच... नेमकें हेंच तुवें पयल्या अविश्वासावेळार म्हणिल्लें. आयचो हो तिसरो... आरे नरसिंह तो... नरशिंवाचो अवतार. वेळ येतकच रूप दाखयता...!

हय वय.... कोटी खावन मरे?

बाप्पा तूं बेठोच फुरफुरूं नाका आं. हर्षदान ताका पयशे दिल्ले अशें म्हणटा न्हय तूं? हांव म्हणटां दिल्या आसत पूण ताणें घेंवक ना.

कित्यावेल्यान!

आरे बाप्पा... मुंबय शारांत एक सादो हवालदार जेन्ना तुका रस्त्यार हटकिता आनी तुका तालांव दिता... तो चुकोवपाक तूं ताका एक व्हडलो पांचको दिता... नशीब ना ते तो हातांत घेवपाक... तो सांगता, समोरच्या पानवाल्याकडेन दवर...!

लोकांचे नदरेन तो मि. क्लिन!! बाप्पा विचार कर, एदोसो हवालदार इतले

'प्रेझेन्स ऑफ मायंड' दवरता थंय आमचो चाळीसांवयर वर्सां राजकारणांत करमेल्लो मनीस पयशे आपूण घेतलो? नशीब ना. बाप्पा, पी. अे. म्हणटात ते असल्याच कामाक आसतात.

सुब्राय, इतलेंय आतां घडलां तें?

बाप्पा, लोक म्हणटात तें फट न्हय. राजकारणांत खंय बॉड लागता, वय न्हय. बाप्पा हें नाटक शिजयलां...!! हें शिजोवपी.. शरद, अर्जून आनी एल्. के. !! ताणीं दोगांयनीय एल्. के. क चण्यांझाडार चडयला. आमी अशें करनात. तूं तशें कर आनी मागीर तो घॉ जातलो.

बाप्पा सद्याक एल्. के. ची परिस्थिती गंभीर जाल्या. चण्या झाडार चडला. वयर पावला. अयोध्येचो वाद पोन्नो जाला. अशा वेळार जर अर्जून, शरदान आडांगपणा केलीं जाल्यार बाप्पा... ताच्या जाग्यार एल्. के. च घॉ जावपाचो!!

सुब्राय, तूं सांगता तें समजता... पूण पटना.

बाप्पा, तूं एक जाणा? अविश्वास थाराव संसदेंत येवचे पयलींच एन.आरान सिकंदर बख्त, एल्. के. आनी मुरली मनोहर हांकां च्याक आपयले. जर तुमचें खऱ्या अर्थान पटना.... जाल्यार तुमी वचपाचे?

बाप्पा सामकेंसोपें, एल्. के. क पुराय खबर आसा, अविश्वास थाराव भायर पडटा. फक्त आं करून रावल्यात ते... तूं आनी हांव... तांचें नाटक शिजलां! सद्याक मध्यावधी निवडणुको कोणाकच नाकात!! एल्. के. क सुध्दां!!

सुब्राय, पूण लिडरशिप चेंज जातलीच जातली.

बाप्पा... म्हाका दिसना. एन. आराचे राजकारणांत काळ्याचे धवे जाले. धवे जावन गेले सुध्दां. तो मनीस हांकां वदपाचो ना. 'शरदाचं चांदण' बरें शिंवरता शें दिसतनाच ताचेर सेशन नांवाचें काळें किट्ट कुप आयलां तें तुंवें पळयलें ना? ह्या काळखांत कितें घडत सांगू नज. आनी बाप्पा.... अर्जूनाचो पराभव दुर्योधन घडोवन हाडटलोच हाडटलो.

सुब्राय.... हो आनी दुर्योधन कोण रे बाबा?

बाप्पा, शरदाची दुसरी बाजू दुर्योधन!! राजकारणांतल्या महाभारतांत दुर्योधन अर्जूनाचो पराभव करता ही वस्तुस्थिती!! आनी हांचें जेन्ना पेट्टलें तेन्ना एन आर मुमुरखोच हांसतलो.

हें... हें कलमच विटलां मरे आतां.

बाप्पा, बेश्टोच पिकार कित्याक जाता? जेन्ना आमच्यो लोकसभेच्यो वेंचणूको जातात, तेन्ना कॉंग्रेस आपले कमीतकमी पांचशें उमेदवार दवरता. प्रत्येक उमेदवाराक पार्टीन अेक कोटी दिवचोच पडटा. आमचें अेदेंशें गोंय पूण दोन खासदारांची निवड म्हळ्यार सहज चार पांच कोटी जायच. अशा वेळार तांकां

पांचशें कोटी सहज लागतले . ते उबे कशे करप ? बाप्पा , तुमकां झगझग करून दाखयले बगर तुमी मतां घालनात . आनी आमच्या देशांत जाचो झगझग चड ताका चड मतां हें निश्चीत आनी अशे अदीं मदीं अविश्वास थाराव हाडटकच पयशे लागतात ते वेगळे . पयर पळयलें ना तुमी , सात खासदार ओडपाक वीस कोटी मोडचे पडले . . . ! बाप्पा . . . शुन्यां कितें मेजता ? विसर तें . अशा महासागरांत म्हाका सांग . . . . हर्षदालो अेक कोटी म्हळ्यार . . . . . किस झाड की पत्ती ?

सुब्राय . . . . . हें बदलपाक जाय रे .

बाप्पा विसर तें . जमता जाल्यार पुताक काँग्रेसीची तिकेट मेळटा जाल्यार पळय . कितेंय जोडटलो . हर्षदाभाशेन सत्य उजवाडाक हाडपाचो हट्ट धरतलो ? शंभर टक्के त्रासांत पडटलो ! !

हय सुब्राय . . . . खरें तुगेलें . . . . शाण्या मनशान एकतर राजकारणांत पडपाक जाय वा तोंडाक कुलप लावपाक जाय .

बाप्पा . . . . राजकारणांत भितर सरपाकय . . . . बॉल्स् गरम आसचें पडटा . जमत मूं ?

ता . २४ . ८ . ९३

२८

# एका हातांत किल्ल; दुसऱ्या हातांत अळमीं!

सुब्राय..., आयक रे-

सांग बाप्पा...आयकतां.

तशें न्ही रे सुब्राय.., कान म्हऱ्यांत कर.. गजाल मोठ्यान उलोवपाची न्हय.

बाप्पा..., आतां सांग.

तुवें अळमीं खालीं?

बाप्पा... तूं पुर्तुगेजा तेपार 'जय हिंद' म्हणिल्लेवरी सो उलयता मरे?

सुब्राय..., ल्हवू उलय...पापया..तांणीं आयकल्यार त्रासांत पडटले... तूंवय बी आनी हांवय बी.

अशें शें कितें?

सुब्राय... तूं नकळ? सरकारान अळमीं काडपाक बंदी घाल्या. ताणें खंय 'इकॉलोजी' इबाडटा!

बाप्पा....ही कॉलोज कसली?

सुब्राय... ती कॉलोज न्हय....इकॉलोजी!! इकॉलोजी म्हळ्यार सैमीक समतोल.

तो कसो कितें इबाडटा?

बाप्पा... तें हांव नकळ. पूण बंदी हाडल्या खरी. जीब सामकी दुवाळ्यांची जाल्या... अळमीं खावपाक.

सुब्राय... हांव सांगूं? आयकतलो? हीं सगळीं नाटकां!! हीं सगळीं नाटकां

सरकाराचीं... फॉरेस्टरांक अळमीं मेळचीं म्हणून.

बाप्पा...ओगीच गर्नाल फोडूं नाका आं.

गर्नाल न्हय...,सुब्राय. एक गजाल सांगतां. पयर रातची साडेआठांक खबर. हांव स्कुटरीन घरा परततालों. कोर्टाकडेन पावपाक एकटो एका हातांत पोती घेवन अर्द किलोमिटर पयसुल्ल्यान हात हालयता. हांवें स्कुटर थांबयली. तो धांवत आयलो. एका हातांत किल्ल आनी दुसऱ्या हातांत पोती. मात्सो प्रासार सोड. हांवें म्हळें, बस. वाटेर ताका मात्सो कॉमार काडलो. जाल्यार कितें सांगतलों सुब्राय! तो एक हवालदार... रानांत किल्ल काडपाक गेल्लो. थंयच रोयणीचेर अळमीं दिसलीं, तिंवूय काडलीं. आतां तो सायबालो वांटो दिवपाक वतालो.

बाप्पा, किल्ल खाल्यार कितें जाता? रानांतली वस्त ती.

सुब्राय, हेंच तें. एक किल्ल मारप म्हळ्यार एक वेळूचो कोंडो मारप!!

त्या हवालदाराचें कितें जालें?

सुब्राय..., हांवें ताका बरोच खुटलायलो...शब्दांनीच रे. म्हळें...'पात्रांव, किल्ल आनी अळमीं तुमी काडल्यार जातात आनी आमी काडल्यार मात गुन्यांव मरे?' तर म्हणटा कसो...' तुमी काडात... पूण लिपोवन विकात... आमचें कांय म्हणणें ना. दोळ्यांमुखार दिसता जाल्यार आमी कितें करतले?' सुब्राय, हांवें ताका सोडला...? प्रासार पावतकच, देंवचे पयलीं सांगलें,'पात्रांव... पेत्रोलाक पयशे कमी आसात...एक धा रूपया दी,' ताणें पळय अशें तोंड केलें... हांवे मनांत म्हळें... तुमी गरज नासतना, चूक नासतना'च्यावेक' म्हणून मागतात ते भोग आतां... आनी हांवूय घट्ट रावलों. म्हज्या माथ्याक चेपें, आंगार रेनकोट.. आनी मोटारसायकल... म्हाका तो वळखप शक्यच नाशिल्लें. मुकाट्यान धा रूपया काडून हातार दवरले... हांवे ते घेतले... आनी शूट! एका हवालदाराक तालांव दिल्ल्याचें सूख अणभवत..!!

बाप्पा.., तुमकां अळमीं जाय मूं.. म्हजेर पावलें. सद्याक विलीन मटको बंद करपाचें थारायलां खंय? पणजेंत बी धाडी पडल्यो खंय?

सुब्राय... ह्या गोंयांत सोरो आनी मटको बंद जावप शक्यच ना. सामकेंच सांगपाचें जालें जाल्यार जो मेरेन हो चंद्र, सूर्य आसा तो मेरेन तरी नाच ना.

बाप्पा... तूं महामंत्र्यांक वळखना..

सुब्राय... तूं म्हाका भेश्टांव नाका रे. तांचीं नाटकां हांव जाणां. ह्यो करामती कित्याक त्यो जाणा तूं? हप्तो वाडोवपाक!! प्रत्येक बुकीकडल्यान पयलीं तीस हजार येताले जाल्यार आतां ते पन्नास करपाचे!! सुब्राय... बॉल्स गरम आसलें की बारांत वचून 'इश्टकूटूर' शेकोवपाचें आनी उरतात ते

मटक्याचेर लावपाचे, हें गोंयांत जेवण जेवतकच तोंडांत बडिशेप वडोवपाइतलें सोपें जालां. ह्या मटक्याच्या कॅन्सरान जेन्ना पिळग्यांच्यो पिळग्यो काबार जातल्यो तेन्ना सरकाराचे दोळे उक्ते न्हय वरशे जातले. तें सोड... सुब्राय... म्हाका बॅंकेंत एक लॉकर मेळटा जाल्यार पळय. व्हडलो सो...!!

बाप्पा, अकस्मात लॉकर सो? बरो म्हालवज आसा काय कितें गा?

सुब्राय..., तूं नकळ... परिस्थिती बरीच कठीण आसा... पयर घोगळांत दरोडो पडत सावन बायल फाटल्यान लागल्या घरांतलो टी. व्ही., विसीआर आनी तिगेल्यो साडयो बॅंकेंत लॉकरांत दवर म्हणून...!

आ...! बरी याद जाली. आयज सत्कार आसा. तुमी येतात?

कोणालो...??

एका कार्यक्षम(?) पोलीस अधिकाऱ्यालो!!

राव आं.. येवपाकच जाय!! बायलेन पोन्नीं जोतीं रास मारून दवरल्यांत... तातूंतलीं धायेक घेतां... उपकारतलीं... हार गुंतपाक!!

बुधवार, ता. ११.८.९३

२९

# कलियुगांतलें राम-सीता स्वयंवर!

सुब्राय, नरसिंह रावान एक कोटी घेतला म्हणटात ती गजाल खरी?

बाप्पा... तूं ल्हवू कानांत सो येवन फुतफुतता? जोर्नालांत व्हडल्या अक्षरांत छापून आयलां तें.

तशें न्ही रे सुब्राय. येदो व्हडलो मनीस...! ताचेर असो आरोप म्हळ्यार... आंग शिर्र जाता.

बाप्पा.. हर्षद मेहता म्हणून कितें धाकलो? ताच्या नांवार पांच हजार कोटी रूपयांचें स्कॅम आसा. पांचांचेर कितलीं शुन्यां म्हणून कोण...जाणा!!

सुब्राय..., ताणे ते ताका वेंचणुकेवेळार दिल्ले म्हणटात, तें खरें?

बाप्पा...गांधीजींक खंय टाटा...बिर्ला..कोरो चेक दिताले. गांधीजी आपल्याक गरज तितलोच आंकडो घालताले. गांधीजींनी घेतले थंय नरसिंह रावान घेतल्यार व्हडलें?

सुब्राय... गांधीजींक 'चेक' मेळटालो. म्हणजेच तो अकांवटेड पयसो. हांगा उलयतात तो कॅश पयसो म्हळ्यारच ब्लॅक!! अशें न्ही?

बाप्पा...आयज कितें म्हणटात तें कॅश! ताका एक देसेंत शब्द आसा, 'नंबर दोन'!! फ्लेट घेतलो, अर्दे पयशे दोन नंबरचे जाय, जागो घेतलो, नंबर दोन, दुकान घेतलो, नंबर दोन....बाप्पा, फुडें सांगूं...? काळजाचो आताक येता म्हणून 'बायपास' करतलो, चाळीस हजार व्हायट... साठ हजार ब्लॅक!!

कितें सांगता सुब्राय... खऱ्यांनीच?

बाप्पा, असलेच पयशे ते... हर्षदान रावांक दिल्यात म्हणटात ते. हर्षदाक पेपरांनी महाबैल म्हळा... खऱ्या अर्थान ताणें आतां आपणाले बैलपण सार्थ करपाक कोमेस केलां. कांय वर्सां पयलीं ताणे बांगर बैलाभाशेन राजकारण्यांक शिंगा दाखोवन पुजून घेतलां. आनी राजकारण्यांनी ताची पुजा केल्याय बी. आयज ताणें तांकां शिंगार घेतल्यात. कोणाकोणाक कितलो नाचयता पळोवया.

बाप्पा, एका तेपार हर्षद मेहता गाजतालो. बजेटाचेर प्रतिक्रिया उक्तावपाक ताका आपयताले. देशाचे आर्थीक कार्यक्रम थारावपावेळार महत्वाच्या मनशांमदीं हर्षदाचो आस्पाव आसतालो. तेन्ना हर्षद तांकां देव दिसतालो. आतां दैत्य दिसपाक लागला. आतां ताका बैलच न्हय महाबैल म्हणटात. बाप्पा, माणसुकी ना. ह्या राजकारण्यांकडेन, तांचें साधना जातकच देवाचे दैत्य जातात आनी दैत्याचे देव जातात ह्या देशांत!

सुब्राय, तो ताचेर केश कित्याक घालना?

बाप्पा, केश आनी कसली घालतलो कपलाची! पांगरूण तोंडार ओडपाक गेल्यार पांय उक्ते पडतात. अदीक बरें... ताणें न्हिदिल्ल्याचें सवंग घेतलां. मदीं मदीं जळारां आमुडिल्लेवरी 'हांवें पयशे घेंवक ना' अशीं विधानां करता.

सुब्राय, पूण तें स्कॅम पांच हजार कोटींचें न्हय?

बाप्पा, आतां सारको उलयलो तूं. सद्याक चार हजार णवशें णव्याण्णव कोटींचेर कोणच उलयना. बाप्पा, सद्याक हर्षद मेहता, 'हरशीं..दम.. आशिल्लेभाशेन' करता. चार हजार णवशें णव्याण्णवांचेर पांगरूण पडल्यार पडलें. इंद्राल्याच आसनाक हात घालो म्हणटकच सगळे कॉंग्रेस देव गडबडल्यात. स्कॅम खणपाक गेलो जाल्यार 'इंद्राय स्वाहा... तक्षकाय स्वाहा' जावपाची भिरांत. खणचो ना म्हळें, पयशे घेतिल्ल्याचो आरोप येता. बाप्पा, परिस्थिती बरीच बिकट आसा.

सुब्राय, तांणी हर्षदाक हांयस बी दाखयलें ना? आयज हांयसाचेर वेव्हार जातात ते आनीक कित्याचेरच जायनात.

बाप्पा, हांयस दाखयलें ना तर तो राजकारणी कसलो! ताणें हांयस दाखयलें, आमी एक कोटीची गुपचिळी करया, हांव तुजे आरोप न्हयकारतां, तूं ओग्गी राव. आनी हें करपाबदला आमी तुजे चौकशेक ब्रेक लायतात.

सुब्राय, कितें ऑफर रे!! आनी ते बॅंकेतले चॅरमेन, अधिकारी बी सस्पेन्ड जाल्यात ते. तांचे कितें?

बाप्पा, तांचे 'बॉकडे'!! सगळें स्कॅम तांच्या माथ्यार मारपाचें आनी खांके वरशे करपाचे.

सुब्राय, पूण हर्षदान नकार कित्याक दिलो?

बाप्पा, ताणें 'आफिदावीत' दिलां. ताचेर कायद्यान चौकशी जावचीच पडटा.

सुब्राय, आमचो देश गिनीज बूक ऑफ रिकॉर्डात वतलो न्हय? केदें ऑर्र रे! वर्साक एक भानगड आसाच!!

बाप्पा, हें युग कलियुग, भानगडीबगर आनी भ्रष्टाचाराबगर आमचें राजकारण मुखारच वचना.

हय, आनी आमच्या राजकारण्यांक मात मतां जोडपाक सत्ययुगांतल्या देवांची गरज लागता. अडवानीन राम आपणायला जाल्यार रावान 'सितामैया' आपणायल्या! भाजप रामराज्य हाडटलो म्हणटा जाल्यार राव आपूण सीतेभाशेन अग्निदिव्य करून ह्या स्कॅमांतल्यान भायर सरतलों म्हणटा.

निमाणें ह्या कलियुगांत रामाचें आनी सीतेचें स्वयंवर जायना जातकच जालें!

बिरेस्तार, ता. १५.७.९३

30

# हांगा सत्याचेंच श्राध्द वाडचें पडटा

शाणूदाद, आज बाजारांत सो घुटमळटा?

आं...आवू रे? पुस्तकां सोदतालों म्हगेल्या नातवाक, काणयांचीं.

शाणूदाद, तूं सोदता तीं, 'जादूची अंगठी, जादूचा दिवा नाजाल्यार विक्रमादित्य' असलीं पुस्तकां मरे?

हय. खंय मेळटलीं?

शाणूदाद, तूं मरे पिसावला. नातवाचें आयुश्य काबार करतलो तूं.

आबू, कितें उलयता तूं? ह्या काणयांनी म्हज्या नातवाचें आयुश्य काबार जातलें?

हय.. शाणूदाद.. ह्यो काणयो सांगपाचे दीस गेले. आतां तांकां बोफोर्सची किमया, कॉंग्रेस नांवाचा महिमा, बंडलबाज हर्षद, जादूगार मनमोहन, राजा लालू प्रसाद, भाजपांतला राम, मुंबयचे मेमन, अशा तरांच्या काणयो सांगपाक जाय. नाजाल्यार तांचो आयक्यू काय कितें तो कमी उरता.

आबू, ह्यो काणयो कांय राजकारणांतल्यो खबरो?

शाणूदाद, काणयोच त्यो!! आमच्या देशांत कालची बाजाराची दर आयची काणी जाता, जाल्यार राजकारणांतल्यो खबरो काणयो कित्याक जावच्यो नात?

आबू, फकाणां नाकात रे.

शाणूदाद, म्हजेय धवेच जाल्यात रे. नातवाच्या फुडाराकडेन फकाणां करपाची पिराय उरली ना आनीक तुका फॅरफॅक्स प्रकरण याद आसा? व्ही. पी. सिंगान

वयर काडिल्लें तें? ताची काणी जाली ना? बोफोर्स प्रकरणांत घुस्पल्ल्या लोकांचें कितें जालें? काणीच मरे? हर्षद मेहताल्या शॅर घोटाळ्याचें कितें जालां? एक थ्रिलींग सस्पेन्स मरे? आतां आनी 'हर्षद ॲण्ड हिज स्कॅम' नांवाचें एक पुस्तकय उजवाडाक येता खंय!

आबू, हीं पुस्तकां वाचून म्हज्या नातवाचें कितें जावपाचें?

शाणूदाद, तूं सोदता तीं पुस्तकां वाचून तुजो नातू कितें जातलो? गांधींचो आदर्श मरे?

महात्मा गांधी म्हणटा मूं तूं?

हय तेच.. तांचो गांव पोरबंदर म्हणून खबर आसा मूं तुका? आज पोरबंदर हे भारतातलें, गांधीजींच्या भारतांतलें सगळ्यांत मोठें स्मगलिंगाचें सेंटर..!! तांचो साबरमती आश्रम आयकला मरे? गांधीजी 'दारूबंदीचे' कट्टर पुरस्कर्ते आशिल्ले. आतां साबरमतीकच सोरो काडपाचे अड्डे पडल्यात. शाणूदाद, तुका अतिशयोक्ती दिसतली, पोरबंदराक भर दिसा एकामेकाचीं मडीं पातळायतात. हें राज्य.. हें राज्य आतां बऱ्या लोकांचें उरलें ना रे. आतां नव्या पिळग्यांनी फक्त दाऊद इब्राहीम, मेमन बंधू, हर्षद मेहता, राजकारणी, मटकेवाले, हांचेच आदर्श जावपाचे.

आबू, हें कितें तुमचें नाका जाल्लेंच?

शाणूदाद, खरें सांगूं? नातवाक चार पैशे जोडपाक शिकयतलो? म्युनिसिपालटींत वा आर. टी. ओं. त चिकटाय. भिकेक लायतलो? सत्यवादी जावपाक शिकय.

हो देशच भिकाड्यांचो रे! आमच्या कट्टुलांत ना तें, अमेरिकेभाशेन लोकशाय आनी जपानाभाशेन अर्थिक स्थैर्य!!

आबू, सगळ्यांनीच अशें चिंतलें जाल्यार सगळेच वायट जावचे नात? थोडे तरी बरे नाकात?

शाणूदाद, ह्या देशांत जो बऱ्याक वता तो शेणटा. जो सत्यान वता तो घाणटा, जो कायद्यान वता तो बुडटा. ते ब्रिटीश ओगी गेले नात रे सोडून! तांणीं पळयलें.. ह्या लोकांकडेन राज्य दिलें म्हणून सुखासुखी चलोवंक शकचे नात हाची खात्री आशिल्ली तांकां.

आबू, ते राज्य करपाक परते येतले?

ते घडये येवचे नात. पूण जेन्ना आमचे रिणाचे हप्ते चुकपाक लागतले तेन्ना आय एम एफ वाले जरूर येतले.

आबू, खऱ्यांनीच म्हणटा?

शाणूदाद, म्हजीं लाकडां मसणांत पावल्यांत. तुजींय वाटेर आसात. कित्याक वेश्टेच त्या भुरग्यांक फटीच्यो काणयो सांगून चुकोवया?

आबू, खरें तुजें!

शाणूदाद, ह्या देशांत बळी तो कान पिळी. नातवाक आंकडो कसो काडपाचो, स्मगलींग कशें करपाचें, मटको लावपापरस तो घेवपांत कसो फायदो आसा, हांचें ज्ञान दिलें जाल्यार जल्मभर तुजें रीण विसरचो ना तो. मोठ्या दबाज्यान श्राध्द वाडटलो तुजें.

म्हज्या श्राध्दाक चुडटी लाय व्हरून! ह्या देशांत सद्याक सत्याचेंच श्राध्द वाडचें पडटा... हाचेंच दुख्ख जाता.




सुक्रार, ता. ९.७.९३

३१

# आदीं दिवाळी! आतां दिवाळें!!

सुब्राय, आज कितें 'मुडांत' सो मरे?

ह्या दिसांनी हांव 'कॅशीर' आसां. बाप्पा, बँकेंतलो सगळ्यांत महत्वाचो डिपार्टमेंट.

महत्वाचो...? तो कित्याक?

बाप्पा...तूं नकळ...पैशांचे..सॉरी..नोटांचे राशीर बसप म्हळ्यार म्हाका पयलींच्या राजांची याद जाता. हेवटेन नोटी, तेवटेन नोटी, नोटीच्यो राशीच राशी.

सुब्राय,... तुका भंय बी दिसना...इतले पैशे घेवन पिंजऱ्यांत बसपाक?

बाप्पा, भंय कसलो?... वेल्यान ऑर्र मरे! येतलो वेतलो तुका सलाम मारता. वळखनाशिल्लो पसून वळख दाखयता. खबर घेता. वासपूस करता.

आनी अचळय कॅश, चेक येवचे पयलीं घेवन वता, अशें मरे सुब्राय?

ॲ... बाप्पा! ते मागीर दिवप न दिवप म्हजेरच न्हय? पूण मोठ्या मोठ्या बिझनेसमॅनांचेर इंप्रेशन मारपाक मेळटा. बाप्पा कस्टमरांचे नदरेन, जो कॅशियर चेक येवचे पयलीं कॅश दिता तो कॅशियर बरो!! आनी हांव तें ज्युस्त सोबयतां.

सुब्राय.... तुवें पैशे दिले; आनी चेक पास जालो ना जाल्यार?

बाप्पा... तूं नकळ, तुवें केन्ना बांकु नासीओनाल द उलत्रामारीन हांगा तरी काम केलां? ना..मरे? मागीर तुका तें कळप शक्य ना. आमचो बँकेचो एक

मंत्र आसता. कस्टमराक जाता तितली फास्ट सर्वीस दिवप! कॉम्पुटराच्याकय फास्ट कस्टमर चेक घेवन आयलो रे आयलो, हेवटेन चेक, तेवटेन पैशे... ताका दिसूंक जाय... हॅः कितें बँक रे !! सगळीं कामां फटाफट जातात. ना जाल्यार ती बँक ... सदां उठून जात्रा मरे! लायनीक अर्द वर रावले शिवाय पैशेच पडनात.

सुब्राय... हो वर सगळ्यांकच लागू जाता?

बाप्पा... आतां तूं ट्यून जालो. आमी असली सर्वीस फक्त व्ही आय पी कस्टमराकच दितात. जे आमकां डिपोझीट दितात ते आमगेले व्ही आय पी कस्टमर!!

सुब्राय.....तुमी रिणांय अशींच दितात रे?

बाप्पा... असो कसो रे तूं अनवाळो सो? भारतीय बेंको म्हळ्यार सावकाराल्यो पेढयो. ' तुमकां रीण जाय... फाल्यां येयात. डिपोझीट हाडलां...? बसात च्या घेतात काय थंड हाडूं? हो आमचो स्लोगन!!

आनी सरकार.... कलमांच्यो कार्यावळी काडटा तें...?

बाप्पा, तीं कलमां आनी त्यो कार्यावळी मतांखातीर. फाटल्या तेपार रिणां वांट्टाले तें नकळ? रिणां घेतना तांणीं दिवाळी केली. आतां फारीक करतना दिवाळें जालां. येलेसांवा पयलीं तांकां मंत्री देव कसो दिसतालो. आतां बँकांनी 'रिकव्हरी' सुरू केल्ल्याक देवाचो देंवचार जाला.

सुब्राय...तुजी खंत कितें?

बाप्पा...सांगूं?...विश्वास दवरतलो? कमरभर उदकांत देंवन पसून काश्टी सुकी दवरची पडटा.

म्हणजे...? हांव समजलों ना.

बाप्पा....म्हणजे भारोभार पैसो आसून, लाखांनी रूपया हातांत घोळोवन पसून एकाय पैशाक बॉल्स दाखोंवक मेळना.

सुब्राय.... मुंबयच्यो बँको हाका अपवाद म्हणून आयकलां मरे.

बाप्पा... मुंबयचे कॅशियर सदांच हर्षद मेहता जातात. थंय अकरा वरांचेर लाखांनी रूपया रेसकोर्सांचेर वतात आनी दोन वरांचेर परते येतात अशें म्हणटात. बाप्पा... ती मुंबय न्हय? थंय मड्यांच्या गोबराचो पसून धंदो जाता, थंय जशी कॅशियर जातकच चांदी सुट्टा तशी कॅशियर जावपाकय रूपये मेजचे पडटात. बाप्पा, ती मुंबय... आनी हें गोंय!!

सुब्राय... तें आसूं... तुका कॅशियर जाल्ल्याक कितें फायदो बी? 'चांदीचो' न्हय रे...असो बाजारांत बी...?

बाप्पा, तुवें शुक्राराचो पारजत वाचूंक ना? तसलो फायदो आसता केन्नाय.

ते भायर अंदू पावसाक म्हाका एकशें वीस रूपयांची सत्री सत्तर रूपयांक पडली. स्कुटरीक मुळच्यान काव काडल्या तिचे पेंटरान अर्देच पयशे घेतले. दनपारचो जेवणाक हॉटेलांत म्हाका नुस्त्याचो एक कुडको हेरांपरस चड मेळटा आनी ते भायर शिनिल्लो कांदो आनी लिंबू अशें.....जायतें!!

सुब्राय.... पूण हे लोक.....तुमचे कडेन रीण मागपाक येनात?

बाप्पा..... तूं म्हणून म्हाका सामकोच 'ॲक्सपोज' करपाक लागला मरे? ह्या प्रस्नाची जाप दिली ना जाल्यार जायना?

सांग रे तूं.... हांव कोणाक सांगना. प्रॉमीस!!

बाप्पा..... ते रिणाखातीर येतात.... तेन्ना आमर्ची रिणां बंद केल्ल्याचो सर्कुलर येता!!

बुधवार, ता. २३.६.९३

# ३२

# साळावलेंत पोनेळ!

फाटल्या [illegible]राक हांव एका इंजिनीयराक मेळपाक साळवलेच्या इरिगेशन खात्यांत गेलों. ऑफिसांत चौकशी केली.

ना... शिशुपालन सायटीर गेला.

केन्ना गेला?

सकाळींच गेला...

खंयच्या सायटीर....

आवयस... तो एकाचवेळार धा सायटिंचेर वता... हांव तुका खंयची म्हणून सांगूं? तूं फाल्यां यो .... फाल्यां मेळटलो...

हांव मुकाट्यान ऑफिसांतलो भायर सरलों. आनी बसीर हुबळी गेलों. हुबळी बस स्टॉपार देंव जाल्यार.... शिशुपालन.... कोणाक तरी पावोवपाक आयिल्लो.

हांवें म्हाकाच चिमटो काडलो... दुखलो.. तरीकय ओग्गी रावलों... कोणय ताचेबशेनच दिसपी बी जायत... बेश्टेंच हांशें नाका... आनी बॅग घेवन चलपाक लागलों.

आरे सुब्राय.... मोठो मनीस जाला काय कितें रे... जाप करनास्तनाच वता सो... शिशुपालनाचो प्रस्न...!!

आं...ना... तुका पळयलोना रे हांवें... पूण तूं हांगा खंय... केन्ना आयलो? हांव सकाळीं तुज्या ऑफिसांत गेल्लों... तुका सोदपाक... जाल्यार तूं सायटीर गेला म्हणून सांगलें म्हाका...!!

शिशुपालन हांसलो... आरे पिशा... सायट हो आमचो कोड वर्ड. हांव जेन्ना घरा येतां तेन्ना हांव सायटीर वतां. आतां हांव हांगा आयल्यार चार दीस जाले, परां वचपाचों.

आनी तुजें काम... तुजी अटेन्डन्स्...?

आसात रे हाताखाला... ते पळयतात आनी लिव्ह म्हणटात ती हांव घेना.... आठ आठ दिसांचो मस्टर एकदम सायन करतां.... हांवच राजा न्हय रे थंय?

* * * * * *

अंदूं वर्साक पोरूंबशेन अप्रूप घडलां. पयल्याच पावसाक पाड्डें बुडलें. लोक अजाप... पावस चड पडनासतना पाड्डें बुडलें कशें...?? कोण म्हण्टा...भरतेक हुंवार सापडलो. कोण म्हण्टा...घाटार पावस खूप पडलो. कोण म्हण्टा, शेतांनी घरां बांदलीं म्हणून उदक आडवलें...कोण म्हण्टा...साळावले धरणाचें उदक सोडलें...

कारण कितें हांव नकळ. पूण हार्ली पाड्डें बेठेंच बुडटा तें पळोवन भंय दिसपाक लागला.

पयर सावड्डेच्या बाजारांत पांच पाटीं भरून घोळशो आयल्यो. नुस्त्याच्या दुश्काळांत इतलें नुस्तें?...चंद्रकांतान सांगलें...साळावलेच्या धरणांतल्यो त्यो... वन्यो आसात...व्हर काल कायतान सांगतालो...साळावलेच्या सांठयिल्ल्या उदकांत जिलेटीन घाल्यार कास्ताचें नुस्तें पडटा... आनी साळावलेच्या बांदाक आतां झरी फुटल्यात... कितें फोर्सान येता रे उदक!! आतां आनी धरणाक उदक कमी जावपा आसा?

हांव तोंड धांपून ओगी रावलों. घरा आयलों आनी गजा नुस्तेकाराक एक पोनेळ करपाक सांगलो. तो घरा भायर आडवो लावपाचो. ज्या दिसा धरण फुट्टलें त्या दिसा तातूंत बसून व्हांवता थंय वचपाचो.

बिरेस्तार, ता. २२. १०. ९२

33

# पुर्तूगेज

जितल्या जाणांनी म्हणून ही शॅरांची भानगड केल्या तांकां फांसार चडोंवक जाय... हें राज्य रे... हें राज्य चोरांले मरे...!! आतांभाशेन ह्यो चोरयो... ही भेसळ... हीं फटींगपणा... हँ...सांगपाचें ना...हें अशें पुर्तूगेज आसतना कोणाकच करपाची कापास्ताद आशिल्ली?

हो पळय मरे...पुर्तूगेजांनी बांदिल्लो पूल...तो पाट्टेचो कानाल...बांदल्यार ५० ते ६० वर्सां जालीं. पूण अजून हालला?

नाजाल्यार आमचें साळावलेचें धरण... तेवाटेन बांदतात आनी हेवाटेन कानाल फुटून कानालापोंदच्यान उदक वता. तो प्रकल्प खरो णव कोटींचो. तो आयज १०९ कोटींचो जाला, तरीकय बांदून जायना. कोणेतरी म्हळां... साळावलेचें हें धरण म्हळ्यार भारत सरकाराचें मरण. फट न्हय गजाल ती.

आरे पुर्तूगेजांचो येदोय व्हडलो कोंसुल्त चलोवपाक चार एम्प्रेगाद मरे. ते चलयनाशिल्ले? हांच्याकय कितलेशेच बरे तरेन चलयी.

आतां ही जाल्या ती खातड मरे. प्रत्येक ऑफिसांत एक मेज आनी एक कदेल दिवन बसयल्यात, चकाटां मारपाक पगार मेळटा तांकां. लोकशाय खंय ही!! पुर्तूगेजा तेंपार आमी नुस्तें खालां तें, ताजें फडफडीत मरे. झेल म्हणटात तो बाजाराक दिसनाशिल्लो.

नुस्तें मोव जालां शें दिसल्यार पुरो... फिनेल ओतून पुरपाक लायताले. आतां हें विटलां रे...

वेळेर रांपण ओडटनाच झेल घालपाची मॉद आयल्या मरे ? असल्यानी दुयेंसां जावचीं नात तर कितें जातलें ?

हें राज्य अशें रे काबार जावपाचें. हे खून... मारामाऱ्यो पयलीं केन्ना आयकल्यात ? हांगा एक सोल्दाद आशिल्लो लक्ष्मण सोल्दाद म्हणी ताका. तो येता म्हळ्यार झगर्डी केस्तांवां सोडून लोक पपा..केदो धाक ताचो!!

ह्या लोकांक म्हणटात त्यो पालमेत्रीच रे. एक पडटना कालसांव ओलें जावंकच जाय.

पुर्तूगेज हरशीं कसोय आसूं पूण प्रजेक पोटाक केन्नाच वळवळायले ना रे ताणें.

एक वाट बंद जाल्यार दुसरेवटेच्यान तरी हाडून खाण जेवण घालां. हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयलां न्हय.

पूण आमकां पिडा मारली न्हय...इंडेन करपाची. खाया आतां... कसेल ताची जमीन, राहील त्याचें घर आनी मुखार नेईल त्याची बायको.

**********

बल्कावांवेल्यो ह्यो गजाली आयकतना म्हाकाय प्रस्न पडलो... खरोच काय पुर्तूगेज इतलो बरो आशिल्लो ?

( समेस्त स्वातंत्र्य सैनिकांची माफी मागून)

सुक्रार, ता. ४.९.९२




३४

# आतां झोपडपट्टी मंत्री जायच.....

जाणा मरे सुब्राय... शारांनी आमी केदेय व्हडले रस्ते बांदले...बिल्डिंगो बांदल्यो तरी थंयची झोपडपट्टी कमी करप आमच्या राजकारण्यांक शक्य ना . जितले शार मोठें जाता तितल्यो खोंपी आनीक वाडटात . हो न्यायच तसलो . जगांत जितली गिरेस्तकाय वाडटा तेच पटींन गरिबीय वाडटा . मोठ्यो मोठ्यो बिल्डिंगो उब्यो रावल्यो म्हणटकच तांच्या पांयांकडेन पांच पंचवीस खोंपी उब्यो जावंकच जाय . ते बगर शाराक आनी बिल्डिंगांक सोबा येना हो भारतीय सिध्दांत .

महाराष्ट्रांत खंय एकदां प्रयोग काय प्रयत्न कितें तरी केलो ...झोपडपट्टीवाल्यांक कॉंक्रिटांचीं घरां दिवपाचो ... लोकशायेंत सरकार मूर्ख आसता हाचो प्रत्यय तांकां आयलो ... झोपडपट्टीवाले तीं घरां विकून परते झोपडेंत हजर!!

मडगांवची झोपडपट्टी ह्या सिध्दांताक अपवाद थारतली म्हणटा तूं सुब्राय?

कशेंच शक्य ना ....

जो मेरेन ताचे फाटल्यान भावी आमदार उबो आसा तो मेरेन तरी ना .

राजकारणांत पावल मारतना आंखणी कशी करप हाचेर भारतीय राजकारण्यांनी पिएचडी केल्या . झोपडपट्टी उबारून तांच्या मतांचो उपयोग करप हो तातुंतलो पयलो धडो . आजी आनी माजी आमदारांनी आयज मेरेन कितें केलां ? तेंच भावी करपाक सोदतात .

तो पयर घणसूक सांगी खंय...कितें हे मडगांवकार झोपडपट्टेचें घेवन

बसल्यात? गोंयच्या साहित्यिकांखातीर हांवें मुद्दाम झोपडपट्टी तयार केल्या. झोपडपट्टी म्हळी कीं थंय... हातभट्टेचो सोरो, नवसागर वा मोसंबी कुसोवन केल्ली नवटांग वा मोसंबी नारंगी, हे भट्टेचेर पोशिल्ले दादा, पाकिटमारांची वस्ती, ड्रग्सांचो खुलेआम वापर, शिंदळकेचे अड्डे, मवाल्यांचे अड्डे, एडस् आनी महारोग्यांची वसणूक आनी सगळ्यांचेर कळस म्हळ्यार किळसवाणे घाणीचें साम्राज्य!!! एका परस एक सुरबूस विशय... एक भोंवडी मारची आनी एक पुस्तक बरोवचें. कांय न्ही म्हळ्यार एके झोपडपट्टेचेर १० तरी पुस्तकां बरोंव येतात, नाय जाल्यार कोंकणी आठवे वळेरेंत वतकच 'ज्ञानपीठ पुरस्कार' मेळयतलो जाल्यार लिखाणाक खावड नाका?

जाणा मरे सुब्राय...घणसूक हें पटलां. तो आतां माहिमची खाडी, वासुनाका ह्या पुस्तकांची पारायणां करता आनी राजेंद्रप्रसाद स्टेडियमालार्गी, आक्यां, मोंतीर, लताकडेन अश्यो भेटी दिता. पुस्तकांक मसालो सोदपाक. तो पुरस्काराक सवकला!!

************

झोपडपट्टी ही प्रत्येक शारांतली वस्तुस्थिती जावन पडल्या. ताका कारणांय जायतीं आसात. तांकां शिक्षीत करप होच घडये तांचेर प्रभावी उपाय जायत. काल पयरच आमचे आदले राष्ट्रपती उलोवन गेल्यात, अशिक्षीत लोकांचो राजकी नदरेन विचार करपाची सवंय आमच्या राजकारण्यांनी सोडूंक जाय. आमी अशेच... रिटायर जातकीर मॅनेजमेंटाचेर तासपाचें....

मडगांवची झोपडपट्टी आतां हालतली अशी आशा ना. कांयच ना जाल्यार कोर्टाची 'स्टे' ऑर्डरीची सांखळ तिका घट्ट धरून दवरतली.

आतां गोंय सरकारान तांचेखातीर एकच करचें मडगांवां एडसाचें एक हॉस्पिटल उबारचें.

झोपडपट्टींतल्या शिंदळक्यांची आनी गांवठी सोऱ्याची जायरात करची....
देशी भोंवडेकार आयल्यार आयले.

नाय जाल्यार गोंयचेर अर्थीक संकट आयलांच न्हय तितलोच एक आधार.
आनी निमाणें....

झोपडपट्टीमंत्री म्हणून पंदराव्या मंत्र्याचो सोपूतविधी करचो...आमेन.

मंगळार ता. ११.८.९२





## वळख

श्री दिनेश रामनाथ मणेरकार हांचो जन्म २६ फेब्रूवारी १९६४ ह्या दिसा मडगांव शारांत जालो. ताणीं एम.कॉम. मेरेनचें शिक्षण मेनेजमेंट हो विशय घेवन केलां. तांचे मुळावे शिक्षण सरकारी प्राथमिक विद्यालय पाजीफोंड मडगांव जाल्यार माध्यमिक शिक्षण मॉडेल इंग्लिश हायस्कूल मडगांव हांगा जालें. तांचे उच्च माध्यमिक आनी पदवीचें शिक्षण दामोदर कॉलेज मडगांव हांगा जालें.

१९८४ वर्सा सावन तांचे साहित्यीक वावराक सुरवात जाली. सुनापरान्तांत राजकी आनी अर्थिकी विशयाचेर ते लेखन करतात. सुनापरान्ताच्या "पारजत" सदरांतल्यान मार्मिक लेखनय केलां. नांतलेच कांय लेख प्रस्तूत पुस्तकांत आसपावल्यात. ह्या भायर नामनेच्या लेखकांचे हेर भाशांतल्यान उजवाडाक आइल्ले म्हत्वाचे विशयावेले जायते लेख अणकारीत केल्यात. कोंकणीच्या मळार कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडें हाणी घडोवन हाडिल्ल्या कार्यावळींनी सक्रिय वांटो घेतला. ह्या विशयापसून वेगळो असो अेक तांचो छंद म्हळ्यार शेअर बाजार आनी तातूंतली गुंतवणूक हाचो अभ्यास. सध्याक ते सिंडिकेट बेंकेच्या कुडचडें फांट्यात काम करतात.